# अंदल्ले उस्वास

(कथा)

(लेखनकाळ १९८५ ते १९९०)

**भालचंद्र गांवकार**




**मित्र प्रकाशन**

गोंय

२००१

**Andol'le Usvas**

A collection of short stories by Bhalchandra Gaonkar

**अंदल्ले उस्वास**

---

**पयली खेप** : ऑक्टोबर २००१

**प्रकाशन क्रमांक** : १६



किटोलें - बेतोडें

फोंडें - गोंय. ४०३४०९.

**उजवाडावपी**

सौ. मनुजा भा. गांवकार

मित्र प्रकाशन,

किटोलें - बेतोडें

फोंडें - गोंय ४०३४०९.

फोन : ३३०३८५

**छापपी**

गुरूकृपा टायपोग्राफिक्स

बाबय कॉमर्स सेंटर

मालभाट - मडगांव - गोंय.

फोन : ७१०२१९

**मुखचित्र**

श्री. नारायण सावंत

**मोल**

रू ९०.००

**ISBN 81-88202-01-0**

म्हज्यांतल्या कथाकाराक
जागोवपी
ॲड. उदयबाब भेंब्रेक...
नमळायेन -

# मनांतलें......

"अंदल्ले उस्वास" हो म्हजो पयलोच कथांझेलो उजवाडाक येता देखून मनांतल्यांन खोशी भोगता. पूण फाटलीं धा वर्सां तो पुस्तकरूपान उजवाडाक येवंक पावलो ना हाची खंतूय दिसता. ह्या झेल्यांतल्यो सगल्योच कथा धा वर्सां पयलीं बरोवन जाल्ल्यो. ह्या पयलीं त्यो "सुनापरान्त", "राष्ट्रमत" ह्या वर्तमानपत्रांनीं आनी "जाग" नेमाळ्यांतल्यांन उजवाडाक आयल्यात. आयज म्हजे विचार बदल्ल्यात.... सामाजीक संदर्भ कांय प्रमाणांत बदल्ल्यात आनी काळूय फाटीं पडला. हाका लागून धा वर्सां पयलीं बरयल्ल्यो म्हज्योच कथा म्हाकां पोरण्यो कश्यो दिसपाक लागल्यात. धा वर्सां पयलीं पुस्तक रूपान त्यो उजवाडाक आयिल्ल्यो जाल्यार तांकां घडये वेगळेंच परिमाण मेळूं येतालें.

जायते जाण पुस्तकां वाचून वाचून बरोवंक शिकतात. पूण म्हजें उरफाटें जालां. हांव बरयतां बरयतां वाचूंक शिकलों. हाका लागून खंयच्याच बरोवप्याचो म्हजेर विशेश प्रभाव पडपाक पावलो ना. हाचोच परिणाम म्हळ्यार म्हजी कथा हेर कथाकारांपरस वेगळे तरेची जाली.

हेर कथाकारांभशेन म्हजो पींड कथाकाराचो न्हय. झांकून झांकून गांवकार जालो म्हण्टात ते भशेन हांव कथाकार जालों. कथेच्या मळावयलो एक प्रयोग म्हूण हांवेन जायत्या तरांच्यो कथा बरयल्यो. म्हज्या कथांचे चडशे विशय चालंत घडणुकांचेर आदारिल्ले आसात. हातूंत कथानक आशिल्ल्यो कथा आसात तश्योच कथानक नाशिल्ल्योय कथा आसात. ह्या कथांचे चडशे विशय म्हाकां गर्देंत ... बाजारांत... बसींत बशिल्लेकडेन सुचल्यात. एकाद्रो नाट्यात्मक प्रसंग म्हाकां दोळ्यांसामकार दिसता आनी हांव तो प्रसंग कथेंतल्यांन उबो करपाचो यत्न करतां. हातूंतल्यो कांय गजाली हेरांनी सांगिल्ल्यो .... खंयतरी आयकल्ल्यो त्योय कथेंतल्यांन साकार जाल्यात.

वेगवेगळ्या प्रयोगांचेर आदारिल्ल्यो तरेकवार कथा ह्यो झेल्यांत आस्पावल्यात. तातूंतली "प्रतिभा" ही कथा एक "कपयाळें" आसा. हातूंतले एके गजालीचो संबंद दुसरे गजाली वांगडा ना अशें जाणवता. पूण "कपयाळें" पुराय जाता तेन्ना ताका एक निश्चित आकार येता. कपयाळ्यांतल्यांन कथा घडोवपाचो म्हजो हो एक प्रयोग आशिल्लो. "एक चीट" ही कथा एके चीटयेच्या रूपान आकाराक हाडल्या. वाचप्यांक एकाच तरेच्या साच्यांतल्यांन भायर सरपी कथा वाचून उबगण येंव येता. देखून चीटयेच्या रूपान कथा घडोवपाचो हांवेन एक प्रयोग करून पळयलो.

"आनी दोळे उक्ते जाले" ही एक विद्रोही कथा. हे कथेचो विशय पर्यावरणाच्या

आड आसा. देखून तो पर्यावरणाक घातक दिसता. पूण गरिबी, उपास आनी बेरोजगारी हांका न्याय दिवपाचो यत्न हे कथेंत दिसता. जांचीं पोटां भल्ल्यांत ताणीं पर्यावरण सांबळपाच्यो गजाली करपाच्यो. पूण जे उपाशीं आसात तांकां आपणालें पोटूच व्हड दिसता. "फाटीं वोस.. फुडें वोस" आनी "हाण्डीर आसा चेडो" ह्यो दोनूय कथा दिसपट्टें बसीनीं घडपी गजालींचेर आदारून आसात. त्या कथानीं कथानक ना. "काळजांतलें" आनी "गूढ" ह्यो दोनूय गूढकथा आसात. तातूंतलें "गूढ" बरोवपी म्हूण म्हाकांय खबर ना. अशे तरेन हांवेन त्यो रचल्यात. ह्या कथानीं एक वेगळो प्रयोग पळोवंक मेळटा. ह्या कथांक कथानक आसा. पूण तें लिपिल्लें आशिल्ल्यान वाचप्यांचे कल्पनेक वाव मेळटा.

"निमाणो हात" हे कथेंत आनीक शंबर वर्सां उपरांतचें गोंयचें चित्रण दाखोवपाचो यत्न केला जाल्यार "सुरांचे पिशें" हे कथेंत गोंयच्या इतिहासांतलो एक काल्पनीक प्रसंग हांवेन रंगोवपाचो यत्न केला. ह्या झेल्यांतली माथाळो कथा "अंदल्ले उस्वास" ही एक वास्तव कथा आसा. बेंगलोरांत आसताना एके सिस्टरीन ती म्हाकां सांगिल्ली. हांवेन ती गोंयच्या वातावरणांत रंगयल्या. हे कथेभशेन "सपनांतल्यो आल्लयो" "वांजुट्टो" ह्योय कथा वास्तविक आसात.

एका तेंपार ह्यो कथा जायत्या वाचप्यांक मानवल्ल्यो. कांय जाणांनी तशें चिटयो बरोवन म्हाकां मुजरत कळयल्लें लेगीत. पूण आयज काळ बदल्ला. वाचप्यांची रूचूय बदल्ल्या. देखून आयच्या वाचप्यांक ती कितली मानवतली हेविशीं दुबावूच आसा. तरीय एक प्रयोग म्हूण रचिल्ल्या ह्या कथांक वाचप्यांनी येवकार दिलो जाल्यार म्हाकां खोसूच भोगतली.

हो कथांझेलो तयार जावपाक जायत्या जाणांचो हातभार लागला. दर एकट्याचें नांव घेवन उपकार मानप शक्य नासलें तरीय तांचो सगळ्यांचो हांव उपकारी आसां. गुरूकृपा टायपोग्राफिक्सचे धनी श्री. प्रसाद असोळडेकार हाणीं ह्या पुस्तकाची छावणावळ बरेतेरेन करून दिली. चित्रकार आनी शिक्षक श्री. नारायण सावंत हांणी पुस्तकाक सोबसारखें चित्र काडून दिलें आनी मित्र प्रकाशनान हें पुस्तक उजवाडाक हाडपाची जापसालकी घेतली. देखून ह्या सगळ्यांचो हांव काळजांतथावन उपकारी आसां.

किटोलें - बेतोडें
२ सप्टेंबर २००१

भालचंद्र गांवकार

# मांडावळ

## १

# सपनांतल्यो आल्लयो

शिंयाचे दीस. थंडेन हातपांय सामके गोठेतात. भायर चोंयवशीन धुकें दाटलां. भोंवतणचो वाठार अजून सुस्त न्हिदेंतल्यांन जागो जावंक नां. झिळमिळूंक लागलां पूण आकांताच्या शिंयाक लागून सगळो वाठार आळसायेक वेंग मारून रावला. रातभर जानकेच्या मात्तूय दोळ्याक दोळो लागूंक ना. हरशीं सकाळीं फुड्यां जागी जाली म्हण्टकीत ती शिंयाक लागून हांतूणार पडून रावताली. पूण आयज तिच्या आंगात नवीच शक्त बळ्ळ्या. भायल्या झिळमिळ्याची तिका सुलूक लागली आनी ती हांतूणावेली सडसडीत उठली. शिंयाच्या दिसांनी सकाळींफुड्यां थंड किरांव उदक तोंडांत घेवचें म्हळ्यार जिवार येतालें. पूण आयज जानकेन भायर वचून सडसडीत तोंड धुलें.

आयज जानकेचें मन खुशालकायेच्या दर्यांत पेंवता. आयज पंदरा जानेर. तिच्या नातवाचो पयलो वाडदीस. किशोर, तिचो पूत आयज तांकां मोटार घेवन घराकडे व्हरपाक येवपाचो आसा. जानकेन नातवाचें तोंड आजून पळोवंक ना. आयज वाडदिसाच्या निमतान ती ताका पयलेच फावट पळयतली... धरतली... आंगा खांदार खेळयतली... माणयेर घेवन आल्लयो म्हण्टली... पापी घेतली . नातवाचे उमेदीन जानकेचें आंगानआंग वेगळेच जाणवीकायेन शिरशिरून उट्ठा... तशीच ती भितर धांवता. तिचो घोव म्हादेव भितर सुस्त हुस्क्यांमेकळो न्हिदला. उमेदीभरशीं ती ताका हालोवन जागो करता...

"आयकलां?... उठात मूं!"

"राव पळोवया मात्शी..." तो आळस दीवन कूस परतीता

"अशें कितें करतात तुमी?... आयज किशोर येवपाचो आसा तें खबर ना तुमकां?"

"किशोर आयल्यार तूं घेवन बस ताका...!"

"आयज नातवाचो वाडदिस तुमच्या...!"

"ओगी राव पळोवया थंय मात्शी..."

"पूण आमीं भायर सरून रावल्यार बरीं न्हय?"

"तूं एकटीच वच... हांव कसोच येवपाचो ना."

जानकेक घोवाची तिडक मारता. घोव बेगीन उठचो म्हूण ती तोंडान फरफरत रावता. कितल्याश्याच तेंपान घरा वचपाक मेळटा हें खरें म्हळ्यार भाग्य कशें. पूण हाका कळना कशें?

जानकेन घराचें तोंड पळयल्यार सात वर्सां जायत आयलीं. घोवाची आनी तिची पिराय दिशीं - माशीं मळबाक तेंकत आसा. म्हादेव आयिल्ल्या दिसा मरणाची वाट पळयता. ताच्या सांगाताक लागून जानकी जिवी रावता. मर्णाकूय तांची काकूट येना. निमाणेशे खीण परकेकडेन तळमळप म्हळ्यार जानकेक कितेंशेंच दिसता. म्हादेव मरणाची वाट पळयता खरो पूण जानकेचें उरफाटें घडलां. तिका नातवाक लागून खूब जगन दिसता. ती मनांतल्या मनांत हांसता. तिका दोळ्यांमुखार दिमखुऱ्यांनी धांवपी नातु दिश्टी पडटा. आनी तिच्या ओंठार आल्लयो फुरफुरून येतात.

हो फक्त नावांक लागून अनाथाश्रम, हांगा सगळीं सुखां मेळटात, माया मेळटा. पूण सगळेंच अडेचें कशें दिसता. अडेचें कितलेंय बरें आसलें म्हूण ताका मन मानून घेवपाक तयार जांयना. म्हादेव मात हांगा खुशाल रावता. घरचो ताका मातय उगडास जायना. काय तो तशें दाखोवन दिवपाचें नाटक करता? किशोर केन्नाय तांकां मेळपाक येता. पूण तो मनांतल्यांन उलयना. ताची जीब आडखळटा. ताची गत चोराभशेन जाता. तो सगळ्यांची नदर चुकोवन ल्हवूच भीतर सरता. पांच धा मिनटां तांची खबर घेता... वासपूस करता आनी चोराभशेन आयिल्ले वाटेन झुप्प करून परतता. काय तो आपणाल्या दोळ्यांतलीं दुकां लिपोवपाक काडून वता?

जानकी आनी म्हादेवाचीं सगळीं मेळून चार भुरगीं. व्हडलीं तीन चेडवां आनी सगळ्यांपरस धाकटो किशोर. तिसऱ्या चेडवाफाटल्यान वट्ट सात वर्सांनी जाल्लो. चलो ना म्हूण म्हादेव सदांच दुखेस्त आसतालो. जानकी ताका समजायताली. म्हादेवाचें दुख्ख देवान जिस्त वळखल्लें. चलो जालो तेन्ना म्हादेवाक खुब्ब खोशी

जाली. ताणेंच ताका किशोर अशें नांव दवल्लें. सटी.. बारसो आनी कितलेशेच वाडदीस म्हादेवान व्हडा खोशयेन मनयले.

म्हादेव म्हळ्यार एक शेतकामती. ताच्या शेतांत जायतो वावर आसतालो. पूण म्हादेवान किशोराक केन्नाच काम सांगलेंना. किशोराक खूप शिकोवन व्हड मनीस करप हेंच एक म्हादेवाचें सपन आशिल्लें. ताचें हे सपन पुराय करपाक तो रातीचे दीस करतालो. किशोर शिकपाक खूप हुशार आसलो देखून म्हादेवाचें सपन फळाक येवपाक कसलीच आडखळ जालीना. तो बरे तरेन शिकून इजनेर जालो.

किशोराचें शिकून जाता म्हणसर म्हादेवाचें आनी जानकेचें जाण्टेपण जाल्लें. मजगतीं तिनूय चलयांक तांणी लग्न करून दिल्ल्यो. कश्टांची जीण फाटीं पडिल्ली. आतां सगळीं सुखांच भोगपाचीं उरिल्लीं. किशोराची पिराय लग्नाची जाल्ली. ताका एक बरीशी चली सोदून लग्न केलो म्हण्टकीत म्हादेवावेली उरिल्लीय जापसालदारकी सोपिल्ली. मनशाचें जाण्टेपण म्हळ्यार पिकिल्लें पान कशें. तें केन्ना गळून पडत सांगपाक जांयना. असो विचार जायते फावट म्हादेवाक भेश्टावपाक लागिल्लो. एकदीस ताणें घर, शेताचो कुडको आनी भाटाची जमीन अपुर्बायेच्या पुताच्या नांवार करून तो मेकळो जालो.

बापूय आपणाल्या लग्नाची तयारी करता ही गजाल किशोराक खबर आशिल्ली. देखून ताणे आपणाल्या मनांतली गुपीत गजाल बापायच्या कानार घालपाचें थारायलें. इजनेरकी शिकता आसतना तो एके चलयेच्या मोगांत पडिल्लो. बापायच्या कानार ताणें ती गजाल घाली आनी बापायन सुटकेचो उस्वास सोडून म्हळें - "बाबा, तुका पसंद तें आमकां पसंद. आमचें आतां शेअर सोपलां, कळंतर उल्लां. बरेतरेन संवसार केलो म्हण्टकीत जालें... तुजें सुख तेंच आमचें सुख. आमकां आनीक कितें जाय?"

रोकडेंच किशोराचें लग्न जालें आनी नवी सून घरांत भितर सल्ली. कांय दीस बरेभशेन गेले. पूण उपरांत सून मांय आनी मांवावांगडा तुसडेपणान वागपाक लागली. तांचेर वाजेवपाक लागली. किशोर दिसान दीस चड गंभीर दिसपाक लागलो. तो सदांच कसले तरी येवजणेंत आशिल्ल्यावरी दिसतालो. ताचें मन म्हादेवान जिस्त पारखिलें. एकदीस सून लागसार ना अशें पळोवन ताणें किशोराक लागीं आफोवन हाडलो. ताणें आपली नदर किशोराचे नदरेंत रोमली आनी तो उलयलो -

"किशोर हालींसरा तूं खुबूच गंभीर दिसता. सदांच अशें तकलेर पेंच घेवन रावप बरें न्हय. कसलेंय दुर्येस जांव येता. कितें जालां तें म्हाका कांयच लिपयनासतना सांग."

किशोराचे दोळे दुकांनी भल्ले, कितें उलोवचें तें ताका कांयच समजनाशिल्लें. जमनीर नदर लावन तो पायांचो आंगठो मोडपाक लागलो. ताच्या तोंडांतल्यांन उतर फुटनां तें म्हादेवान जिस्त पारखिलें... तो परतो उलयलो-

"हें पळय कांयच येवजुपाची गरज ना. तुवेंन जरी तोंडान सांगलें ना तरी खरी गजाल वळखुपाची म्हाका शक्त आसा. आमी घरांतल्यांन भायर सरून जर तुमचो संवसार सुखी जाता आसत जाल्यार आमी हांगां खीणभर रावपाक तयार नांत. तुजें सुख तेंच आमचें सुख..!"

आनीक कांय खीण किशोराचीं दुकां म्हादेवाच्या पायांर गळत रावलीं. उपरांत ताणें मात्शी तकली वयर काडून बापायच्या दोळ्यांत पळयलें. असल्या समजुतदार बापायक वेगळावपाक ताचें काळीज तुट्टालें पूण बायलेमुखार उपाय नाशिल्लो.

स्वताच्या हाता पायांच्या कश्टांचें घर आनी संवसार आसतना अनाथाश्रमांत दीस काडटाना म्हादेवाचें काळीज भितल्ल्यांन रडटालें. खंयच्या जल्मांत आपणे पाप केल्लें ते आपणाक भोगचें पडटा हेंच तो येवजीत बसतालो. येवजून येवजून ताचो जीव पिश्यांर पट्टालो. इतली पिराय जावन लेगीत ताची उमेद मरूक नाशिल्ली. पूण आयिल्ल्या अरिश्टाक लागून तो शेकड्यांनीं वर्सांनीं जाण्टो जालो.

पिशी जानकी मात सपनांतूच वावुरताली. हें आपणालें... तें आपणालें... अशें हेरांक सांगता आसतानांच तिचे दीस पासार जाताले. आपणागेर चलो जाला ती खबर किशोरान कळयली तेन्ना नातवाचे उमेदीन जानकी पिश्यांवरी नाचली. आनी फाटले खेपे नातवाच्या वाडदिसाक तांकां मोटार घेवन व्हरपाक येता अशें सांगिल्लें तेन्नाच्यान जानकेचें मन ह्या संवसारांत नाशिल्लें. ती आपलभितरूच मुरगट्टाली हांसताली आनी ओठांत आल्लयो घोळयताली.

नातवाच्या वाडदिसाक वचपाक जानकी कसली कसली तयारी करताली. म्हादेव अजून हांतुणारूच आशिल्लो. जानकेक ताची तिडक माल्ली. कसलो हो मनीस ! नातवाचो वाडदीस म्हूण हाका इल्लीय उमेद जांवची न्हय? ती परती ताचेसरीं गेली आनी ताका हालयलो. तो जागोच आशिल्लो. पूण हांतूण सोडपाक तयार नाशिल्लो.

"उठात न्हय. तो अकस्मात येत जाल्यार ताका आमीं भायर सरतासर तिश्टत रावचें पडटलें."

"तुकां सांगलें न्हय हांवेन हांव येवचोना म्हूण. तूं एकटीच वच. तुका हांव आडायनां. परतो हांव त्या घरांत पांय दिवचोना."

"तुमकां कशें कळना? आपणाल्या पुताचेर म्हूण इतलो राग दवरप? तांचे सुख तें आमचें सुख न्हय? ते अवदिशेक लागून घडलें न्हय सगळें?"

"पूत सारखो आशिल्लो जाल्यार कांयच जांवचें नाशिल्लें. ताकाच पयलीं आपणाली जापसालदारकी सारखी खबर ना. बायल सांगता आनी तो आयकता.!" म्हादेवान एक व्हड उस्वास सोडलो.

"तुमकां हांव परती केन्नाच आफयनां. आयज एकूच दीस. नातवाक केन्ना एकफावट पळयन जालां म्हाकां..."

"तुकां सांगलें न्हय हांवेन..."

"ना तुमी वांगडा नासताना हांवतरी कशी वतली एकटी?"

"पूत येतलो न्हय तुका व्हरपाक?"

"म्हजोच पूत? तुजो न्हय?"

"म्हजो पूत केन्नाच मेलो...!"

"शी! थुमेकाल! कसलें उलोवप हें!"

बऱ्या दिसा अशें उलोवचें न्हय. परती हांव तुमकां सांगचीना भायर सरपाक.. म्हजो सोपूत आसा तुमकां"

जानकी आपलो सोपूत सट्ट करून केन्नाच घालीं नासली. जानकेचो सोपूत म्हादेवान केन्नाच मोडूंक ना. कांय वेळा हाचेपयलीं लेगीत जानकेन ताका आपलो सोपूत घाल्लो आनी दर फावटी म्हादेवाक तो बऱ्याक पडिल्लो. जानकी म्हळयार ताचें सर्वस्व. जिवितांतल्या सुख आनी दुःखाच्या वगतार ताका जानकेचोच आधार मेळिल्लो. भुरगीं-बाळां आसून लेगीत कांयच फायदो नाशिल्लो. भांगरासारख्यो तीन चलयो! पूण सगळ्योच सुवार्थी. आवय-बापायच्या हातांतल्यांन सगळें मेळटासर परत्यो-परत्यो धांवून कुळारा येताल्यो. पूण आतां एकटी कोण खबर लेगीत घेना.

जानकेन सोपूत घालो आनी म्हादेव हांतुणार उठून बसलो. परतो एक त्याग करपाक तो मनाची तयारी करपाक लागलो. जानकेन आपलेखातीर खूप सोसलां....आपणेंय तिचे खातीर कितेंय तरी करपाक जाय. अपमान जांव तो

मागीर! तो हांतुणावेलो उठून भायर आयलो.

म्हादेव येवपाक तयार जालो तें पळोवन जानकेक चड खोशी जाली. तिचें काळीज उडयो मारपाक लागलें. तिच्या तोंडावेल्या आल्लयांक नेट आयलो. म्हादेवाली बरेलीं मुस्तायकीं तिणें भायर काडलीं.

एकेवटेन जानकी तयारी करताली आनी परती-परती भायर नदर मारताली. भायर मोटार घेवन किशोर आयला असो तिका ओगीच भास जातालो. वगत कसोच पासार जांय नाशिल्लो. इल्ली- इल्ली दनपार जांवक लागली. भायर मोटारीचो आवाज जालो म्हण्टकीत जानकी भायर धांवताली आनी दुसऱ्याचीच कोणाची तरी मोटार पळोवन ती निर्शेवन भितर येताली. म्हादेव मात ओग्गी बसून आशिल्लो.

वगत धांवत रावलो. सकाळचो आदेसभर किशोर आयलोच ना. सांजचो येतलो! जानकेन स्वताक आनी म्हादेवाक समजायलो. म्हादेव कांयच उलंयनाशिल्लो. पूण एकाच जाग्यार बसून तो जानकेची काकूट करतालो. रातीसावन सकाळचो आदेस मेरेन मुयेच्या चालीन धांवपी वगत आतां चड नेटान धांवपाक लागलो.

सांजवेळ जाली. दीसभर विसव घेवन शिंयान परती आपणाली राजवट सुरू केली. ल्हारांच्या उमेदीन दीसभर जानकेच्या ओंठार नाचपी आल्लयो अचकीच थांबलो. तिनसांज जाली. किशोर आयलोच ना.

म्हादेवान जानकेच्या दोळ्यांत पळयलें. दीसभर जानकेच्या ओंठार घोळपी आल्लयो दोळ्यांतल्यान रकपाक लागल्यो... ती म्हादेवाच्या हड्ड्याचेर लकली आनी ल्हान भुरग्याभशेन रडपाक लागली... रडत रावली.

२

# आनी दोळे उकते जाले....

धाकुली मोटार सदाल्या गाड्यामुखाल्यान झुम्म करून गेली आनी गाड्यार चकाटां मारपी सगले तरणाटे अचकीत उलोवपाचे थांबले. सगले एकामेकाच्या तोंडाक पळोवपाक लागले. खीण, दोन खीणं मोन्यानीच पासार जाले. इतले म्हणसर कोणें तरी आपणालें तोंड उकतें केलें.

"चमचो गेलो."

"पळयलें मरे? बरें केल्यार बरें जाता म्हणटात ती सामकी फट गजाल. आमी वाट लायली सगल्यांनी. आमच्याच पांयार आमीच फातर घालून घेतले." सुरेश मनातलें उलयलो. "हाताच्या काकणाक हारसो कित्याक जाय? हो धाकू चमचो कितलो दळडिरो आशिल्लो तें सगल्यांक खबर आसा. आतां पळय तो मोटारीन भोंवता... घराक भांगराचे नळे घाले ताणें..." विठून आपणालें तोंड वाजयलें.

"ओगी रावात. आनीक मातशी वाट पळयात... अधर्माचे पयशे ते! वखदाक पडटले ! देव सगलें पळयता वयल्यान !" सदा गाडेकार आपणालो दुस्वास ओंकून मेकळो जालो.

पूण सदाच्या उलोवपाक कोणेंच तेंको दिलो ना. आतां सगल्यांचे दोळे उकते जाल्यात. तरणाटे सादूर जाल्यात. देव देंवचार सगल्यो फट गजाली. देव आसा जाल्यार येन्नादर धाकुची खबर घेवंचो नाशिल्लो? येन्नादर ॲसिडाचो पावस पडून तो करपून मरचो नाशिल्लो? पूण तशें कांयच जावंक ना. उरफाटें धाकुचें बरें बरें जाता. साऱ्याच्या कारखान्यांत कामाक लागत सावन ताचें दळडीर सासणाचें ना जालें. खोंपटेंत रावपी धाकू आतां बंगल्यांत रावता. कोंड्याची बडी कसो किडकिडीत

आशिल्लो धाकू आतां आंगापांगान मातला. धाकूक पळोवन गांवचे सगलेच लोक दुस्वासान जळटात. सगले जाण मेळत त्या उतरांनी ताचें तासतात. सगल्या गावांन ताका चमचो अशें नांव दवरलां.

"तेन्नाच ताका आमी जिवो सोडून वाट लायली. ताका जिवशीं नाच करपाचो. सामको उवोच पेंचपाचो ताका धरून..." सदा परतो करकरलो.

सदान तशें म्हणिनाफुडें सगल्यांच्या दोळ्यांमुखार सात - आठ वर्सांआदीं घडिल्लो प्रसंग तस्सो उवो रावलो. गांवांत साऱ्याचो कारखानो घालपाक सरकारान एके भायले कंपनीक मान्यताय दिल्ली. पुराय गांवचो ताका विरोध आसताना धाकु आनीक कांय जाणां वांगडा कारखानो जावचो म्हूण वावुरतालो. गांवच्या लोकांक समजावन तो तांकां कंपनीवसल्यान घुवंडावंक सोदतालो. एक दीस गांवच्या खुबळिल्ल्या तरणाट्यांनी ताका ज्युस्त चपाटून धरलो आनी बरोच मार दिलो. पन्नास जाणांची पन्नास थापटां तरी ताचेर त्या दिसा पडल्यांत आसतलीं. जीव वाचा ना जावन तो भूंय पडलो तेन्नाच ताका लोकांनी सोडून दिलो. पूण पाडपडिल्ल्याचें नशिबूच बरें म्हणपाचें. कारखानो दुसऱ्या गांवांत जावन लेगीत कंपनीन ताका बळयां आफोवन व्हरून मॅनेजर केलो.

साऱ्याच्या कारखान्याक विरोध करून जैतिवंत जाल्ले सगले तरणाटे अजूनमेरेन बेकार भोंवतात. कांय दीस सगले गोल तायट करून, गर्वान हड्डें मुखार काडून भोंवताले. पूण तांचो नेट इल्लो- इल्लो जिरपाक लागलो. अण्णा सावकार तांचो गांवचो मुखेली. गांवांत साऱ्याचो कारखानो जाता हाची सुलूस सगल्यांत पयलीं ताकाच लागिल्ली. ताणें सुस्तेल्ल्या गांवाक जागो केलो, खुबळावन घालो. "साऱ्याचो कारखानो गांवांत जायत जाल्यार ॲसिडाचो पावस पडून पुराय गांव करपून ना जातलो. सगलीं कुळागरां करपून मरतलीं. मागीर लोकांक वावर खंय मेळटलो? कुळागरां आनी शेतां करपलीं जाल्यार लोकांनी जगपाचें कशें? भोंवतणचें सगलें उदक विखाळ जातलें. तें उदक पिल्यार लोक वेळेर शेंवटिल्ल्या नुस्त्याभशेन फडफडून मरतले"

पुराय गांव पयलींच अडाणी. अण्णा सावकाराचें सांगणे आयकून तांचीं अडाणीपणां तेंगशेर पावलीं. सगल्यांच्या पोटांत कलकल्लें. ॲसिडाचो पावस पडत जाल्यार गांवचें कितें जावं येता तें येवजुनूच सगल्यांच्या आंगार कांटो उबो रावलो.

अण्णा सावकार तकलेन हुशार आसलो. कसलेय गजालीन आपणालो सुवार्थ

कसो सादोवंक मेळटलो हाची एकसारकी तजवीज तो करीत आसतालो. गांवांत साऱ्याचो कारखानो जायत जाल्यार गांवावेली आपणाली सत्ता काबार जातली हाची ताका खबर आसली. गांवच्यो कितल्योश्योच पिळग्यो अण्णा सावकाराच्या कुळागरांत वावर करून पोशिल्ल्यो. गांवांत आनीक कसलोच वावर नाशिल्लो. अण्णा सावकार म्हळ्यार लोकांचें पोट आसलें. देखून सगलो गांव अण्णाचे पांय धरून रावतालो. गांवाच्या नाड्यार अण्णा कुळागरांत भांगर पिकयतालो. दिसवड्याचो हिशोब सारको आसनासलो. अण्णा कितें हातार उडयता तें घेवन लोक मोन्यांनीं चलूंक लागताले.

अण्णाच्या आंगांत ताच्या जाणट्यांचेंच रगत घोळटा. ताच्या आज्यान कुळागराची जमीन कशी मेळयल्ली ताची ताका खबर आसा. पयलीं आज्याच्या नांवार इल्लीशी जमीन आशिल्ली. पूण एक दीस ताणें गांवच्या लोकांक बरें जेवण घालून सगल्यांकडल्यान निशाण्यो घेवन गांवची कितलीशीच जमीन आपणाल्या नांवार करून उडयल्ली. तेन्नासावन अण्णाचें घराणें गांवाचेर सत्ता गाजयत आयिल्लें. आपणें ती सांबाळून दवरपाक जाय अशें अण्णांक दिसतालें. गांवांत साऱ्याचो कारखानो जायत जाल्यार सगलो लोक कारखान्यांत वावराक लागतलो. कुळागरांत वावर करपाक मानांय आनी कामेरीं मेळपाचीं नांत. हातांत पयसो घोळपाक लागलो म्हण्टकच गांव अण्णाक विसरतलो. सगले लोक आपणाल्या घरांक नळे घालतले. अण्णाच्या कुळागरांतल्या चुडटांक गिरायक मेळचें ना. सगलें येवजून अण्णाच्या दोळ्यांमुखार काळोख येवपाक लागतालो. देखुनूच ताणें निमाण्या अस्त्राक हात घाल्लो आनी ताज्या मनासारकें जाल्लें.

सुरेश, विठू सारक्या मातशें शिकिल्ल्या तरणाट्यांक अण्णा सावकाराच्या कुळागरांत वावर करपाक लज दिसता. तांचे वांगडचे दुसऱ्या गांवांतले तरणाटे कारखान्यांनी वा हेर सुवातीनीं वावर करतात. बसींतल्यान भोंवतात. गांवांत कारखानो जाल्लो जाल्यार गांवच्या लोकांक काय बरो वावर मेळटा आशिल्लो. सगले लोक धाकूभशेन पयशेकार जातले आशिल्ले. इतलो तेंप गांवांतल्या लोकांचे दोळे उकते जावंक नाशिल्ले. पूण आतांच्या तरणाट्यांक इल्लें-इल्लें कळपाक लागलां. अण्णा सावकार पुराय गांवाक आपणाले सत्तेखाला दवरूंक सोदता हाची जाणविकाय गांवाक जावंक लागल्या. जल्मभर अण्णाची गुलामगिरी करचेपरस ॲसिडाचो पावस पडून सगले लोक करपून मेल्ले जाल्यार बरें जावपाचें अशें तरणाट्यांक दिसपाक लागलां.

कारखान्याक विरोध करता आसतना पुराय गांव रागान कुड्डो जाल्लो. गांवांत जावपी कारखानो आडावपाक लोक कितेंय करपाक तयार आसले. जीव गेल्यार उपकारता पूण गावांत ॲसिडाचो पावस पडूंक दिवप ना. गांवच्या अडाणी लोकांक ॲसिडाच्या पावसाचें येवजून रातची न्हीद पडनासली. सरकार लोकांक आपलेपरीन समजायतालें. असली संद एक फावट हातांतल्यान सुटली जाल्यार परती मेळपाची आस्त ना. कांय लोक सरकाराचो पाखो घेवन आशिल्ले. पूण अख्ख्या गांवाचो विरोध परतुपाक सरकार अपेशी थरतालें.

मजगतीं कंपनीन आपलो वावर ल्हवू ल्हवू सुरू केल्लो. सरकाराकडल्यान कंपनीक संरक्षण मेळटालें. कारखान्याचें बांदकाम चलिल्ले थंय रातदीस पुलीस हातांत आर्मां घेवन आसताले. दुसरे वटेन अण्णा सावकार आपणाली तकली चलयतालो. तो गांवांत बसका घेवपाक लागलो, भाशणां करपाक लागलो. लोकांचे रगत तापोवंक लागलो. मोर्चे काडून जाले. सरकाराक निवेदनां भेटोवन जालीं. पूण सरकारान आपणालो निश्चेव मात्तूय फाटीं घेतलोना. दुसरे वटेन कंपनी आपणालें आसन इल्लें इल्लें घट करताली.

एक दीस जावपाचें तेंच जालें. लोकांच्या विरोधाक हिंसक मोडण मेळ्ळें. लोकांची तिडक दिशी - माशी तकलेक चडटाली. त्या दिसा तिणें तेंगशी गांठली. पुराय गांव कंपनीच्या सेर्काभितर रिगलो. पुलिसांचेर आकांत आयलो. लोकांक आळाबंदा हाडपाक तांणी जायतो उपाय करून पळयलो. पूण लोकांमुखार पुलिसांची शक्त उणी पडपाक लागली. निमाणेकडेन पुलिसांक फारपेट करचो पडलो. तीग तरणाट्यांक आपणालो जीव वगडावंचो पडलो. कितलेशेच लोक जखमी जाले. रागाची सुवात भंयान घेतली. असलो प्रसंग गांवच्या लोकांनी केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो.

मुखार कितें करपाचें कोणाकूच खबर नाशिल्लें. लोकांचे गर्देत अण्णा सावकार खंयच दिश्टी पडनासलो. सगले जाण अण्णा सावकाराक सोदपाक लागले. पुलीस फारपेट करपाक लागतकीच अण्णा फाटल्या पांयानी पळून गेल्लो. कांय जाण ताका सोदीत ताज्या घराकडेन पावले. अण्णाचें उलोवप तांच्या कानार पडलें. अण्णा सावकार घडिल्ली मजा आपले बायलेक सांगतालो. लोकानीं वचून ताका परतो भायर काडलो.

निमाणेकडेन सरकाराक फाटीं सरचें पडलें. गांवच्या लोकांचे जैत जालें.

साऱ्याचे कंपनीक गांवातल्यांन मोन्यांनी उठून वचचें पडलें. पूण शेजारच्या दुसऱ्या गांवांत तिका बरो येवकार मेळ्ळो. थंय तिका कोणेंच विरोध केलो ना. थंयच्या तरणाट्यांक बरो वावर मेळ्ळो. गांवची उदरगत जाली. गावांत दुकानां वयर सरलीं. इश्कोल जालें. लोकांचें दळडीर ना जालें. धाकू सारकिल्या कांय तरणाट्यांक कंपनीन ह्या गांवांतले बळयां आपोवन व्हरून सिर्विसेक लायिल्ले. त्या गांवाचें येवजून ह्या गांवांतले लोक कांय दीस चुरचुरपाक लागले, तांची काकूट करपाक लागले. ॲसिडाचो पावस पडून तो गांव करपून वचपाची लोक वाट पळोवंक लागले. पूण दीस जशे फाटीं पडटात तशें लोकांक अजाप जावंक लागलें. कितलोसोच तेंप उलगलो. पूण त्या गांवाचें कांयच वायट घडलेंना. उरफाटें, लोकालें दळडीर ना जावपाक लागलें. धाकूसारके कांय तरणाटे मोटारीनी भोंवपाक लागले.

"आमी फसले रे... फसयले आमकां." सुरेशान कोंडून धरिल्लो उस्वास सोडीत विठूवसल्यान पळयलें.

"हय ! आमचेंच चुकलें पयलीं...!" विठू उलयलो.

"आमचें कित्याक चुकलें...?"

"साऱ्याचो कारखानो आमच्याच गांवांत जावंक दिवपाचो. येन्नादर गांव सुदारपाचो..."

"त्या जड्ड्या अण्णान वाट लायली सगली..."

"हय गांवाक पिसो केलो ताणें..."

"तेन्ना बुद्द कोणाक आशिल्ली? आतां दिसून कितें फायदो...?"

इतले म्हणसर सदाल्या गाड्याभायर चामड्याच्या जोत्याचो कर्रऽऽ ... कर्रऽऽ आवाज जालो. तरणाट्यांनीं उलोवप थांबोवन तेवटेन पळयलें. अण्णा सावकार पुडव्याचो शेव हातांत धरून गाड्यावसल्यान येतालो. लागसार पावनाफुडें ताणें सदाक उलो मारलो. सदान ताका जाप दिली. ताणें बागून भितर पळयलें. ताजी नदर थंय बशिल्ल्या तरणाट्यांचेर पडली. आपणाल्या सभावाक धरून ताणें तोंड वाऱ्यार सोडलें...

"बेकार रे सगले?"

"काम करपाक काम आसूं नाका?" एका तरणाट्यान तोंड घालें.

"काम ना? कोण सांगता काम ना म्हणून? म्हजो जीव आससर तुमकां काम कशेंच ना जावपाचें ना..."

"जल्मभर आमी तुजेंच उश्टें खावपाचें?" सुरेश उलयलो.

"सगले जाणटेले खायत आयले नात? तुमी ल्हानाचे व्हड जाले नांत?"

"तुवें फसयले आमकां..."

"हांवें फसयले? कशे रे?"

"कारखानो दुसऱ्या गांवांत धाडून..."

"तुमकां जाय जाल्यार तुमी दवरपाचो न्हय? कारखानो जावपाचो उरला? धाकू मोटार घेवन वचना? तुमकांच कोणें आडायल्यात?"

थंय आशिल्ल्या सगल्या तरणाट्यांक अण्णाची भिरभिरी मारली. अण्णाक बुद्द शिकोवपाचें ते केन्नासावन येवजिताले. कोणें तरी सुरवात करपाक जाय आशिल्ली. मागीर अण्णाची धडगत नाशिल्ली. धाकूची व्हडवीक सांगता आसतना विठून ताका ज्युस्त धरलो.

"धाकू मोटार घेवन भोंवता जाल्यार जांवय कर तुजो ताका."

"आनीक कोणाची लायकी आसा?"

अण्णाकडल्यान अशी जाप येत अशें कोणेंच धरूक नाशिल्लें. विठूच्यान तिडक इल्लीय सोंसपाक जालिना. तो एकाच नेटान जाग्यावेलो उठलो आनी ताणें अण्णाचेर उडी घाली. ताणें ताज्या गोलाक धरून ताजेर एक थापट फुलयलें. बाकीचे सगले हेच संदीची वाट पळयताले. विठून सुरवात करिनाफुडें सगले तरणाटे अण्णाचेर तुटून पडले. थापटांनी आनी खोंटांनी ताका मारीत रावले....

# ३

# शेणिल्लो गांव

"बाबानो शिळोण्यां वचपाक वाट खंयच्यान?" गाड्यार बसून चकाटां मारपी कांय भुरग्यांक हांवेन विचारलें.

"बाप्पा शिळोण्यां काय शिलोने रे?"

"तेंच तें."

"असोच त्या मदल्या रस्त्यान नीट वच !"

एकदम दोळ्यांमुखार तीन रस्ते दिश्टी पडिल्ल्यान खंयच्यान वच्चें कांयच येवजना जालें. सरकारान खंयचो रस्तो खंय वता तें लोकांक कळपाखातीर पाट्यो बरोवन माल्ल्यात. पूण बेकार तवनासांनी त्यो मेळत तेवटेन घुंवणावन दवल्ल्यात. हाका लागून खंयचो रस्तो खंय वता तें वळखुपाक येना. सरकार तरी कितें करतलो? लोकांमुखार सरकाराचीं शाणेपणा खपनांत. लोकशायेचो अर्थ लोक आपणांक जाय तसो लावन घेतात आनी नाका जाल्लीं पाडेपणां करतात. तरीय बरें. असल्या तीन - चार रस्त्यांचेर हे गाडे आसतात. ना जाल्यार एकेकडेन वचपी मनीस दुसरेच कडेन पावता आशिल्लो. सुरवातेक हांवेन पाट्यो वाचून तर्क काडपाचो यत्न केलो पूण नस्ती भानगड नाका म्हूण गाड्यारूच वचून विचारूया म्हळें.

"ही..ही..हीऽऽऽ" हांव धा-पंदरा पावलां चल्लां आसत, इतलें म्हणसर एकटो तरनाटो हांसलो.

"त्या बाप्पाक कित्याक शिंगां लायलीं रे...?" दुसऱ्यान ताका विचारलें तें म्हज्या हय - न्हय अशें कानार पडलें. पूण हांवेन एकूच फावट माळ्शें फाटीं वळून पळयलें आनी मुखार चलत रावलों.

शिळोण्यां एक बरो गांवठी दोतोर आसा अशें म्हाकां कोणेतरी सांगिल्लें. तो खंय मनशाचें आंग धल्ल्यार बरें वखद दिता. म्हजो एकटो शेजारी म्हयनोभर जालो हांतरूणाचेर आसा. कितलीं वखदां करून पळयलीं पूण इल्लोय गूण ना. ताचें आंग धल्लां ! हर्शी म्हजो शेजारी म्हळ्यार सामको धड - धाकट मनीस. त्या भायर सभावान सामको भांगर. अडचल्ल्यांक रोखडोच पावपी. कोणाकडेन केन्ना झगडपी न्हय वा केन्ना कोणाक उणें उतर दिवपी न्हय. सदांच उजू चलणूकेचो. पूण मजा म्हळ्यार देवान ताचोच घात घेतलो. अकस्मात ताचें आंग धल्लें आनी तो हांतरूणाचेर पडलो. जायते लोक ताचे खबरेक येतात आनी वाळू पेचून चुरचुरतात. कांय जाण अमके कडेन बरो दोतोर आसा तमकेकडेन बरो दोतोर आसा अशें सांगतात आनी आयिल्ले वाटेन परत वतात. त्या दोतोरांक सोदून काडपाचो वावर मागीर ताच्या घरच्यांचेर पडटा. म्हाकां तांची काकूट दिसताच त्या भायर एक समाजकार्य केल्ल्याचें पुण्य म्हूण हांवूय कांय दोतोरांक सोदून काडपाचो वावर करतां. शेजारधर्मूय पाळपाची संद मेळटा.

म्हज्या शेजाऱ्याचे दोग जाण पूत. ताणें तांकां बरे मनीस जावन आपलें नांव वयर काडचें देखून बरे शिकयले. तांकां कसलीच अडचण पडपाक दिलीना. लोकाचीं रीणां काडून तांकां हिसपाभायर पयशे दिले. आपूण उपाशीं रावून तांकां पोटभर जेवयले. तांचेखातीर रातीचे दीस केले आनी निमाणेकडेन जावपाचें तेंच जालें. दोगोय पूत खाल्ल्या पानार हागले. दोगूय हाताभायर गेले आनी एक नंबराचे तवनास जाले. म्हज्या शेजाऱ्यान गांठीक मारिल्लीं सपनां करपून गेलीं. आपणाले पूत हाताभायर वतात तें पळोवन ताचे तकलेचेर परिणाम जावपाक लागलो आनी एक दीस अशेतरेन ताचें आंग धल्लें. स्वताचो बापूय म्हूण पाड पडिल्ले, बापायची केन्ना खबर लेगीन घेनांत. उपाय करपाचे आनी दोतोरांक सोदून काडपाचें सोडूच !

झुम्म करून म्हज्या आंगावेल्यान एक मोटार सायकल गेली आनी म्हजें चिंतप थारलें. आवयस् ! एकेच मोटारसायकलीचेर चार जाण तरणाटे ! पाडपडिल्ले. इतले बेगीन जीव पावणेर काडला दिसता ! हांकां कसलीच भिरांत म्हूण ना ! आनी वेग तरी कितलो? सामकें वारें कशें. घराकडेन आयते पयशे मेळटात आनी हे फोल्गां मारतात. खीणभर दिसले तशे खिणांभीतर दोळ्यांआड जाले. खंय मसणांत गेले देवाक खबर !

शिळोण्यां वचून दिसाउजवाडें परतो घरा पावपाक जाय. घराकडेन बेश्टोच

हुस्को करतात. मात्शें जाण्टेपण जालां न्हय ! घडयाळीचेर नदर माल्ली आवयस् ! तीन वरां जावन धा मिनटां. पायांक आनीक मात्सो अडेचो नेट हाडलो आनी चलपाक लागलों, आनीक कितलें पयस उल्लां काय? पाड पडूं उगडासूच ना. त्या गाड्यारूच विचारपाचें. तरी बरें अजून हांवेन चलपाची संवय मोडूंक ना. पयलीं कितलोय चलून गेल्यार मात्तूय पूरो जाय नाशिल्लें. पूण आतां पुरो जाता. पांय सामकेच जड जातात.

शिळोण्यां गावांचें हांवेन फक्तत नांवूच आयकल्लें. हर्शीं ह्या गांवांत हांव केन्नाच पावूंना आनी गावांविशीं केन्ना कांय आयकुंना. परकी गावांत वचपाक वगीच भंय दिसता. ह्या रस्त्यान गाडयो लेगीत चड वचनांत दिसता. बसी तर नांच ! अशें म्हाकां कोणेतरी सांगिल्लें देखून बसीविशीं कोणाकूच विचारलें ना.

अकस्मात ट्रकाचो आवाज आयलो आनी हांवेन वळून फाटी पळयलें. जांव ! ट्रक जाल्यार जांव ! हात दाखोवप. तितलोच मात्सो बेगीन पावतलों. ट्रक लागीं पावलो आनी हांवेन हात दाखयलो. पूण ड्रायवरान स्पीड इल्लीय उणी केलीना. पाड पडिल्लो म्हाकां पळय नासताना गेलो. हात दाखयल्लो दिश्टी पडलोना काय? बायलांक जाल्यार हे ट्रकवाले हात दाखंयनासताना थारावन भितर घेतात. दादले हांकां नसाय !

सामकेंच खेडवळ दिसता हो गांव. रस्त्याच्या दोनीय कुशींनी रानटी झाडां. घर एकूय दिश्टी पडनां. मनशांय नांत. कोणूय मेळिल्लो जाल्यार शिळोणें कितलें पयस आसा तें विचारूं येतालें. कोणूय मेळ्ळयार पुरो. आडावन विचारप. कितलें पयस आसा तें तरी कळटलें. बस धरपाक परतें चलत तीन रस्त्यांर वचपाक जाय. तीन रस्त्यांवेल्यान दोन किलोमिटर चलून वच्चें पड्टा अशें ताणें म्हाकां सांगिल्लें. पाड पडिल्ल्या ह्या किलोमिटरांचो अदमासूच कळना. कितलोसोच चल्लों हांव. अजुनूय उल्लां दिसता दोन किलोमिटरांचें अंतर ! पायांक हांवेन आनीक इल्लो नेट हाडलो. वोतान ताळो सुकून आयलो. खंयूय कोणालेंय घर दिश्टी पडल्यार पिवपाक उदक मेळटलें. आशेक अंत आसना खंय !

रस्त्याचें वोल्त फाटी पडलें आनी म्हाकां एकदम खोशी जाली. कांय अंतराचेर मुखार रस्त्यार मनशांचो एक पंगड दिश्टी पड्टालो. शिळोणें कितलेशें पयस उल्लां तें विचारपाक मेळटलें. घडयें हांगा लागींच आसूंये. एक फावट शिळोणें पावलों म्हण्टकीत रोकडोच वैजाक सोदून काडप, वखद घेवप आनी दिसा उजवाडें परतो

घरा वचप. घरच्यांक आनी हुस्को नाका. ह्या वखदान तरी शेजारी बरो जाल्यार पुरो. म्हाकां सात जल्मांचे पुण्य मेळटलें.

हांव तांच्या सामको लागसार वचून पळयत जाल्यार कांय तरनाटे. कांय जाण सांकवाचेर बसल्यात जाल्यार कांय जाण उबे आसात. ते मोटयान हांसून कितेंतरी उलयतात. तरी बरे मेळ्ळे. हांचेकडल्यान सगळेंच विचारून घेवप. गांवठी वैजाविशींय विचारप. अशें येवजितां थंय आसा. एकट्यान आपल्या तोंडान .... एक.. दोन... तीन आंकडे मेजले आनी दुसऱ्यान एकट्यान ठाऽऽ करून एक फातोर काडून रस्त्याच्या कुशीच्या खांब्यार आशिल्ल्या बल्बाचेर माल्लो. म्हजेर सामको आकांत आयलो.

"आरे, तुमी ती लायट फोडली मरे !"

"बाप्पा तूं वोस बेगीन... ना जाल्यार तुज्या खड्ड्यार एक पडत" एकट्यान म्हाकां धपकायलो.

"आरे, पूण तुमी सगलें सोडून लायटी कित्याक फोड्टात रे?"

"तुका कित्याक तें? आमचें कंपिटीशन."

"लायटी फोडपाचे कंपिटीशन?"

"तुका कित्याक त्यो जाणवायो? तूं वोस पळोवया मात्सो." एकट्यान रस्त्यावयल्यान बोट दाखोवन म्हाकां सांगलें.

हांकां पाड पडिल्ल्यांक काम धंदो बी कांय ना दिसता. पळयल्यार बेकार कशे दिसतात. इतलेय तरनाटे कसल्याय कामाक लागत जाल्यार झुप्प करून कसलेंय काम जावन पड्टलें. भुरग्यांक ल्हानपणांसावनूच बरी देख दिवपाक जाय. ना जाल्यार मागीर ते हाताभायर वतात. तांणी म्हाकां धपकायलो पूण हांवेन धीर सोडलोना. ना जाल्यार हे सगल्योच लायटी फोडून उडयतले. हांवेन तांकां समजावपाच्या उतरांनी सांगलें -

"आरे त्यो सरकाराच्यो लायटी मरे...?"

"देखुनूच आमी फोड्टात त्यो .. आपणाल्यो म्हूण कोण फोड्टात?"

"आरे पूण.."

"बाप्पा तूं चलूंक लाग हांगासल्लो पयलीं... ना जाल्यार तुजेंय फोड्टात धरून !" अशें म्हणून म्हाकां एकट्यान धुकलून घालो.

पाड पडूं हांचें. मनांतल्या मनांत तांकां चार गाळी घाल्यो आनी हांव मुखार

चलपाक लागलों. सरकारी लायटी खंय ! पूण सरकारान त्यो कोणाखातीर घाल्यात तें चितपाची हांकां इल्लीय अक्कल ना. अर्दकुट्या शिक्षणाचो परिणाम हो ! सरकारान शिक्षण सगल्यांक सक्तीचें केलां देखुनूच अशें जाता हें. शिक्षण सक्तीचें नाशिल्लें जाल्यार अशें जावपाक पावचें नाशिल्लें. अर्दकुटें शिकिल्ल्या आयच्या तरणाट्यांक तकालशीचीं कामां करपाक लज दिसता. बेकारपण सोसूंक नज जावन मागीर पाडपडिल्ले असलीं नाकां आशिल्लीं कामां करतात.

आवयस् ! कितलें पयस हें शिळोणें काय ? दोन किलोमिटर अजून सोपुकूंच नांत? पाडपडिल्ल्या त्या तरणाट्यांक विचारपाचें थारायल्लें. पूण नस्त्या वादांत पडलों आनी विचारपाचें तशेंच उल्लें. तांच्यो नस्त्यो करण्यो पळोवन शितितूच उल्लेंना. आनीक कितलें पयस उल्लां ताचो अदमास तरी कळटा आशिल्लो. उदक इल्लें ताळ्यार पडिल्लें जाल्यार जिवाक मात्शें बरें दिसता आशिल्लें. ताळो सामकोच सुकून आयला. केन्ना पावतलों देवाक खबर ! अशें येवजितां थंय आसा, कांय अंतराचेर एक राखणो गोरवांक चरयता तो दिश्टी पडलो. जांव देव पावलो. जिवाक बरें दिसलें. आतां हाकाच सगलें विचारप. हाका वैजाविशीय खबर आसतली. अदमास तरी कळटलो. ताची पिराय म्हजेपरस चडूच आसूंये. हांव ताचे सामको लागसार पावलों तसो तो म्हाकां बारीक नियाळपाक लागलो. म्हज्याविशीं जाणां जावन घेवपाची उत्सुकताय म्हाकां ताच्या दोळ्यांत दिश्टी पडली. हांवेन ताका सट्ट करून विचारलें -

"शिळोणें कितलेंशें पयस उल्लां?"

"शिळोणें...?"

"हय !"

"सायबा म्हज्या ! वाट चुकलो तूं !"

"वाट चुकलो?"

"हय. तीन रस्त्यांचेर दावेवटेन गेला त्या रस्त्यान वचपाचो तूं ! कोणाकूच विचारलें नां तुवेंन?"

हांवेन कपलार हात मारून घेतलो. इतलो वगत चलून लेगीत म्हज्या पायांक पुरो जांवक नाशिल्लें. पूण तांणे हांव वाट चुकलां अशें म्हणनां फुड्यां म्हज्या पायांक पंदरा मणाचें वजन बांदल्याभशेन दिसपाक लागलें. आशिल्ली नाशिल्ली सगलीच म्हजी शक्त सोपली. आनी हांवेन थंयच बसकण माल्ली.

## ४

# अंदल्ले उस्वास

सिश्टर रितान कॉवेंताच्या जनेलांतल्यांन भायर नदर माल्ली. भोंवतणचो सगलो वाठार खोशयेन नाचतालो. भूंयचाफ्यांच्या धुंद परमळान जीव घुसमट्टालो. सुकण्यांचे तरेकवार आवाज कानांक सुखायताले. कॉवेंत दोंगुल्लेचेर आशिल्ल्यान पयस मेरेनचो वाठार दिश्टी पड्टालो. कांय अंतराचेर आशिल्ली दर्याची कड हय - न्हय अशी दिसताली. ल्हारांचो धवो - फुल्ल फेणेर वोतान दोळ्यांर मारतालो. रस्त्यावेल्यान धांवपी मोटांरीचो आकार फस्कांभशेन इल्लोसो दिसतालो. सगलें मुक्त वातावरण! अकस्मात दोन सुकणीं सिश्टर रिताच्या दोळ्यांमुखावेल्यान उडून गेलीं. आपणेंय ह्या मुक्त वातावरणांत एकरूप जावचें असो विचार खिणभर तिचे तकलेंत आयलो. तिच्या मनाची पाकां खिणभर हाल्लीं. पूण नदर जनेलाच्या वारांवांचेर पडली आनी ती साप्प निर्शेली. पुर्तुगीजांच्या तेपावेल्या बचकांयेद्या वारांवांनी तयार केल्लो हो पांदरो मोडप आपणाक कशेंच शक्य ना हें येवजून तिचें मन खिन्न जालें. काळजांत अंदल्लो उस्वास तिणें भायर सोडलो.

भुरगेपणांतलो एक उगडास रिताच्या मनांत आजुनूय ताजो आसा. तिच्या बापायक घरांत पांदरे लावपाची संवय आशिल्ली. चार - पांच पांदऱ्यांनी मेळून चार - पांच तरी जीव बंदिस्त केल्ले आसताले. सोशे आनी कीर ताका चड आवडटाले. फाटल्या कुडीच्या जनेलाकडेन आशिल्ल्या पांदऱ्यांत एक कीर आशिल्लो. घरा फाटल्यान आशिल्ल्या पोरसांत चिकू आनी पेरां खावपाक तरेकवार सवणीं येतालीं. भायल्या मुक्त सवण्यांक पळोवन पांदऱ्यांतल्या किराची गत कितें जाताली ती पळोंवक नज आसली. रितान त्या किराचें मन वळखलें. कोण लागीं ना अशें

पळोवन तिणें पांदऱ्याचें दार उक्तें केलें आनी किराक मेकळो केल्लो. उपरांत बापायकडल्यान तिका खूब मार खांवचो पडिल्लो. तो उगडास काडल्यार तिची फाट अजुनूय दुखता.

आपलें बंदेपण हें धव्या लुगटार पडिल्लें खत आसा. तें आतां कशेंच वचपाचें ना. असो विचार तिचे तकलेंत आयलो आनी जनेलाचें दार तिणें घडांय्च करून धांपलें. एकलेपण आपणाक खांवक येता असो तिका भास जालो. वांगडच्यो सगल्यो सिश्टरी खंय तरी गेल्ल्यो. त्यो परत्यो येतासर हो सगलो पांदरो आपणाक गिळून उडयतलो अशें कितेंशें तिका दिसपाक लागलें. इतले म्हणसर तिका कसलो तरी उगडास जालो. कितलींशींच वर्सां उलगल्लीं, तिणें आपणाक पळोंवकच नाशिल्लें. तिणें आडेकडेक नदर माल्ली आनी झुप्प करून कुडींत भितर सल्ली. तिणें आपणालो पोरणो ट्रंक उक्तो केलो. पुस्तकांचे गर्देंत खाचींत लिपयल्ली हारशी तिणें भायर काडली. ती उजवाडांत आयली. हारशी मुखार धरून तिणें आपणालें रूप तातूंत पळयलें आनी तिका मोटें अजाप जालें! आपणालें रूप इतलें सुंदर आसतलें अशें तिणें सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें. तिणें आपणालो दर एक अवयव हारशेंत पळोवन घेतलो. अकस्मात तिका उगडास जालो आनी तकलेवेलें धवें लुगट तिणें कुशीक काडलें. काळे किट्ट केंस उक्ते पडले. खूब वर्सांनी आपणाल्या मायेच्या मनशाक मेळटकीच जी गत जाता तीच गत रिताची जाल्ली. हारशेंतलें पडबींब ती आपणाल्या दोळ्यांत जाता तितलें साठोंवक लागली. खीणभर दुसरीच कोणतरी आपणासामकार उबी आसा असो तिका भास जालो आनी तिणें हारशेफाटल्यान अदमासान हात भोंवणायलो. पूण हाताक कसलोच स्पर्श जालोना.

जुवानपणान टवटवपी फूल उज्याच्या धगान खिणांत करपून वच्चें तशी गत कांय खिणांभितर रिताची जाली. कितें उपेग हे सोबीतकायेचो? मळबाइतलें उंचायेचें प्रस्नचिन्ह तिच्या दोळ्यांसामकार उबें रावलें. उमेदीचो गळो अंदून जियेवपांत कितें अर्थ आसा? रडत... घुस्मटत... वेदना सोशीत... जीण सुकोवन देवाच्या नांवान केल्ल्या ह्या त्यागाक कितें अर्थ आसा? देव खरोच आसा जाल्यार इतल्या वर्सांच्या तपश्चर्येंत ताणें एकदांय दर्शन कित्याक दिलेंना? तो कसलो अंत पळोवंक सोदता? उमेदीच्यो करकरीत कुडी असंख्य वेदनांच्या सरणांत जळटानां पळोवंक ताका कसली खोस भोगता? तरेकवार प्रस्नाचे दोंगर रिताचेर कोसळपाक लागले.

रिता केन्नाय एकटीच बसून येवजीता तेन्ना एक उगडास तिची कशीच फाट

सोडीना. तो उगडास म्हळ्यार ताच्या जिवीताची उजळ कड. केन्नाय सपनांत लेगीत आयलो जाल्यार तो उगडास येता. मागीर सुकिल्ल्या वालीर ती सपनांतलीं फुलां फुलयता आनी एकटीच पळत बसता.

तेन्ना स्कुलांत निमाण्या वर्सा शिकता आसताना सावियोन ताका चीट बरयल्ली. मोगाची चीट. रिताच्या जिवितांतली ती पयली आनी निमाणी चीट. कितलींशींच वर्सां उलगलीं... कितलेशेच पावसाळे फाटीं पडले ते गजालीक. पूण ते चिटयेंतलीं उतरां रिताच्या काळजार खंय तरी तश्शीं उदेवन रावल्यांत.

"मोगाळ रिता...

म्हज्या काळजांत जें खदखद्ता तें हांव तुकां कळोवंक सोदतां. पूण कशें सागूं? तें उतरांनीं सांगूक जांवचेना. मुखार तूं दिश्टी पड्टा तेन्ना तुजे नदरेक नदर लावपाचें धाडस म्हाकां जांयना. ओगीच काळीज धडधडटा. तूं खूब सोबीत दिसता. पूण खिणयाळी सोबीतकाय हांव मानपाक तयार ना. तुजे भितरलो खंयचो तरी एक गूण म्हज्या काळजाक आफुडटा आनी म्हजें मन इल्लें इल्लें तुजेवसल्यान ओड्टां. खंयचो गूण तो हांव सागूंक नकळो.

म्हाकां जें भावता ताकां हांव मोगाचो संदर्भ लांवक तयार ना. पूण घडये ती मोगाचीच जाणविकाय आसूंये. इतल्या भुरगेपणांत मोग करप समा न्हय. तुजेखातीर केदोय त्याग करपाची भास हांव उलोवन दाखयन पूण तुकां फटोवपाची म्हजी तयारी नां. स्वताच्या पायांर उबो रावल्याबगर हांव तुजेलागीं वळख वाडोंवक सोदीना.

घडये चीट वाचून तुका खूब राग येतलो. तूं हेडमास्तराकडेन म्हजी कागाळ करतलें. घडये घराकडेनूय सांगपाक फाटीं रावचेंना. पूण म्हजो नाईलाज आसा. तुजेखातीर केदीय शिक्षा भोगपाक हांव तयार आसां. म्हजे जीणेचो अंत लेगीत तुज्याच नावांन आसतलो.

तुजोच

सावियो

तेन्ना चीट वाचून पयल्या मोगाची सुलूस रिताक लागिल्ली. ताचें मन चंवरपाक लागिल्लें. केन्ना एक फावट ताका स्वताक मोगाच्या दर्यांत धुकलून दीन अशें जाल्लें. सावियोची चीट ताणें कोणाकूच दिश्टी पडचीना अशे तरेन लिपोवन दवरिल्ली. केन्ना एकफावट आपूण सावियोसामकार आपणालें काळीज उक्तें करतां अशें ताका

जाल्लें. त्या दिसाची तें वाट पळयतालें.

पूण नियतीन रिताच्या जिविताची वाट न्हय त्या मोडणार बदल्ली. एकदम वादळ जावन कोणाचेरूय संकश्ट येवचें ते परीन रिताचेर संकश्ट आयलें. कितें करचें कांयच येवजना जालें. खंयतरी पयस पळून वच्चें, लिपून रावचें, जीव दिवचो अशे तरेकवार विचार एकेच फावट ताचे तकलेंत उबे रावले. खिणभर सावियोमुखार आपणालें काळीज उक्तें करचें अशें ताका दिसलें. पूण कितें उपेग जातलो? सावियो आपणाचो खरोच मोग करता आसत जाल्यार ताका खूब दुख्ख जातलें. ताची जीण फुकट वगडावपाचो आपणाक कसलो अधिकार आसा? सगळेंच येवजून ताची तकली एकदम विरार जाल्ल्याभशेन जाली आनी चिंतप शून्य जालें...

मुक्त जिणेंतले थोडेच दीस उरिल्ले. सगळ्या चिंतनांनी रिता सुकून बारीक जाल्लें. दोळ्यांवेली न्हिद केन्नाच उडून गेल्ली. पुराय रात तें तळमळत काडटालें. ताका चड हुस्को जाल्लो तो सावियोचो. आपणाखातीर सर्वस्वाचो त्याग करपाची तयारी दाखोवपी सावियोची गत कितें जातली तें ताका चिंतपाक लेगीत येनाशिल्लें.

रिताक खंयच्यानूच मेकळी वाट नाशिल्ली. बापायमुखार ताचीं कसलींच शाणेपणां चलपाचीं नाशिल्लीं. तरीय एक बरें जालें. सावियोकडेन चड वळख जांवचेपयलींच सगळें मेकळें जाल्लें. तरीय रिताच्या मनांत भितल्ले भितर संघर्ष चलिल्लो. काळखान भरिल्ल्या फुडाराची भिरांकूळ सावळी रिताच्या मनांत दाटिल्ली. आपलें कितेंतरी चुकता अशें ताका परतें परतें दिसतालें. साबार प्रस्न दोळ्यांमुखार उबे रावताले. पूण जाप एकाचीय मेळनासली. येवजिता आसताना अकस्मात ताचे तकलेंत एक विचार आयलो. भोंवतणी कोण ना असो पळोवन ताणे लिपोवन दवरिल्ली सावियोची चीट आरती परती साबार फावट वाचली. पयली आनी निमाणी...! ताचे दोळे भरून आयले. कांय खीण ताणें ती चीट घट्ट काळजाकडेन धल्ली. जिवीतांत पयलेच फावट मुक्तपणान ताणें आपणाल्या काळजांतल्या बांदाक वाट मेकळी करून दिली. ताचे दोळे दुकांनी भरून ओतपाक लागले. चीट पुरायतेन भिजली. खीणभर मेकळो सुटिल्लो काळजाचो बांद रितान अंदून धल्लो आनी कितें जाता तें कळचे पयलींच ते चिटयेचे पिसडून कुडके केले. रिताच्या जिवितांतलो तो सगळ्यांत चड दुखेस्त असो प्रसंग आसलो. आपलें काळीज कोणतरी चरचरीत कापता असो ताका भास जातालो. ताच्या मनाक असंख्य वेदना भोगताल्यो. खिणभर आपणालें मन निबर करपाचो तें यत्न करतालें. पूण पिश्यांर पडिल्लें मन कशेंच आळाबंदा येनाशिल्लें.

निमाणेकडेन तो दीस उदेलो. बापायन ताका भायर सरपाक फर्मायलें. वाड्यावेले कितलेशेच लोक ताका निरोप दिवपाक आयिल्ले. घरांतलीं सगळींच मनशां दोळे पुसतालीं. पूण ह्या खिणाक रिताचे दोळे मात सुकून सामके पाशाण जाल्ले. चुकून लेगीत ताच्या दोळ्यांत एक दूक आयलेंना. घर आनी घराभोंवतणचो वाठार ताणें एकफावट आपणाल्या दोळ्यांत साठोवन घेतलो आनी सगळ्यांक फाट करून तें बापायवांगडा चलपाक लागलें.

घरांत नाका आशिल्लें माजराचें पील खंयूय व्हरून सोडचें तशें रिताच्या बापायन रिताक व्हरून दोंगरावेल्या कॉवेंतांत सोडलें.

कॉवेंतांतली जीण सुरू जाली तशें रिता फाटल्यो सगळ्यो यादी विसरपाचो यत्न करपाक लागलें. पूण त्यो इल्ल्यो इल्ल्यो चड खर जाताल्यो. सुरवातीक कांय दीस ताका रातची मात्तूय न्हिद पडलीना. केन्नाय चुकून मात्सो दोळो लागलो जाल्यार कसलीं कसलीं विचित्र सपनां पडटालीं. दीस फाटीं पडपाक लागले तशी तशी रिताक ते जिणेची संवय जावपाक लागली.

रितान सावियोक विसरपाचो खूब यत्न केलो. पूण दर खिणाक ताका ताचो उगडास येतालो. सावियो आतां कितें करता आसतलो? आपणाक लागून ताका दुख्ख जालां आसत काय? अशे तरेकवार प्रस्न ताच्या मनांत उप्रासताले आनी तें सुके उस्वास सोडटालें. एक दीस मात सावियो ताका सपनांत दिश्टी पडलो. ताणें आपणालें खाडशें वाडयलां... उदकांत पांय सोडून तो एका तळपार बसला... ताका आपल्या जिवाची साबूद ना... ताच्या हातांत गिटार आसा. भोंवतणचें सगळें विसरून तो निर्जिव गिटारींतल्यान दुखेस्त सूर काडटा... विरहाच्या कुपांचो पावस पडटा... ताका पळोवन रिता सगळें विसरता... गिटारींतल्यान भायर सरपी सूर आपणाक लागीं आपयतात असो ताका भास जाता... तें धांवतशें ताच्या लागसार वता आनी ताका घट्ट वेंगेंत धरता... पूण तो सो ताचेर थापट उडयता. रिताची तकली झिणझीणटा आनी झुप्प करून तें न्हिदेंतल्यान जागें जाता. एकटी सिनियर सिश्टर दोळे तांबडे करून ताका पळयता. आनी रिता अपराध्या भशेन दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत रावता...

ते गजालीचो उगडास जातकीत झुप्प करून सिश्टर रिता जाग्यार येता. आपणाक कोणीय पळयल्या आसत ह्या दुबावान तिच्या आंगार भंयान कांटो उबो रावता. ती भोंवतणी हेवटेन - तेवटेन पळयता. जितो मूस ना. तिका सूऽऽ जाता.

परती एक फावट ती दोळ्यांत जीव हाडून आपणालें रूप मुखावेल्या हारशेंत नियाळटा... एक फुकट गेल्ली जीण! काळजांत अंदून उरिल्लो उस्वास भायर सरता आनी एकदम तिच्या दोळ्यांतल्यांन दुकांचो हुंवार सुट्टा. मुखावेले हारशेक शेकड्यांनी वेरो गेल्यात असो तिका भास जाता. शेकड्यांनी हारशाच्या कुडक्यांनी तिका आपणालीं असंख्य कुरूप रूपां दिश्टी पडटात. तिचें बळ सोपता आनी हाताक मेळटात त्यो वस्तू काडून ती हारशेचेर शेंवटीत रावता...

५

# फाटीं वोस... फुडें वोस...

"हो तो बाप्पा फुडें वोस.... ना जाल्यार देंव सकयल" किलींडरान म्हजेर कॅच्च केलें. खिणभर म्हाकां किलींडराची तिडक मारली. "ना वचना. जाता तें कर तुज्यान" अशी जाप तोंडार आयली. पूण असल्या जाण्टेपणांत असल्यो जापी म्हाकां पचपाच्यो नात हाची जाणविकाय जावन ओगी रावलों आनी मोन्यानी फुडें गेलों.

पणजे अर्जंट काम आशिल्लें देखून हेच बसींत जीव घालून घेतलो. ना जाल्यार सुशेगाद दुसरे बसींत बसून वचूं येतालें. पाडपडिल्ली केन्ना सुट्टा म्हूण देवाक खबर! ह्या बसीकारांक अमकोच म्हूण टायम् ना. बस भरून ओतपाक लागली आनी दुसरी बस येवन फाटल्यान तेंकली म्हणटकीत हे बस फाटीं - फुड्यां घेवपाक लागतात. पूण सुटपाची आस्त आसना. मागीर दोगूय बसींचे किलींडर एकोमेकांच्या आंगार सुण्याभशेन झुडोन वतात. दोगूय एकामेकांक पोजड्या गाळींनी न्हाणयतात. हो सगळो देखाव ट्राफीक पुलीस आपणाली ड्यूटी विसरून पळयतात. बाबड्यांक दीसभर वोतांत कर्पून तितलीच मनरिझोवणी ! हरशीं ह्या ट्राफीक पुलिसांक सुणो खायना. किलींडरा सामकार तांचीं शाणेपणां खपनात. किलींडर सोमतेच तांच्या गोलाक धरून तांच्यो गच्यो आंवुळटात. म्हाका तांची काकूट दिसता. पोटाक पाड पडल्या म्हूण करपाची हीं कामां ! ना जाल्यार ट्राफीक पुलिसांच्यो सगळ्यो सुवाती रित्योच उरपाच्यो. ट्राफीक पुलिस म्हळ्यार हालीं सोबेच्यो बावल्यो जाल्यात. बाबडे मंत्र्यांचीं बोल्सां भरून ह्या उंवाळिल्ल्या धंद्यांत भितर सरतात आनी जल्मभर पिकासांव करीत बसतात.

"होतो बाप्पा फाटीं वोस .... फाटीं वोस" किलींडर म्हजेर परतो भोंकलो.

सगळो जल्म उलगत आयलो पूण अजूनमेरेन कोणाकडल्यानूच तापोवन घेवंक ना. किलींडराचीं उतरां काळजाक तोंपतात आनी पिकासांव जाता. पयलींचो तेप बरो आशिल्लो. लोक कितलेय पयस पायांनी चलत वताले. पूण हालींच्या तेंपार लोकांचेर सामकीच पिडा पडल्या. वेंतभर वाटेक तांकां बस जाय. हालींच्या तेंपार एकूय बस रिती दिश्टी पडना. सगळ्योच बसी सामक्योच भरून ओतात. सद्दां खंय मसणांत वतात म्हूण कोण जाणां हे लोक ! एका दिसाच्या मनशाची हांचेवांगडा धडगत ना.

"आवयस् ...." हांवेन किळांच मारली. कोणेंतरी बुटाच्या पायांनी माडोवन म्हजो जीव काडलो.

"दिश्टी पडना रे? पांय माडयलो मरे म्हजो...!"

"तुजे पांय तुजेकडेन सांबाळूंक जांयनात?"

ताचो प्रस्न आयकून म्हाकां इतली भिरभिरी मारली सांगू ! जाण्टेपण म्हूण ओगी रावलों ना जाल्यार सोणकुटेर एक फुलयले बगर रावचों नाशिल्लों.

"पांय सांबाळपाक हांवेन ते काडून हातांत धरल्यात काय कितें?" हांव मात्सो तापलों.

"बाप्पा, चड शाणेपणा नाका. बसीन वचपाक कळना जाल्यार टॅक्सी करून वच." तागेल्या आदोगादी उलोवपान म्हज्या तोंडाक सोमतेंच कुलूप जालें. मुखार कितें उलोवचें तें म्हाकां समजना जालें. हांव म्हजेर जाल्लो गुन्यांव गिळून ओगी रावलों.

प्रासारूच वीस मिनटां बसींत उबो रावन पांय सामके मोडून आयले. बशिल्ल्यांचेर ओगीच एक नदर मारली. सगळींच चडशीं तरणाटीं. तीं बशींत बसल्यांत हाचो तांका विसर पडला अशें दिसप सभाविकूच आसा. सगळींच व्हडा-व्हडान किडकिड्टात. बशिल्ल्या जाग्यारूच एकामेकांचेर किरावपाचो यत्न करतात. तांकां पळोवन म्हाकां तिडक मारली. तकलेंत ओगीच एक विचार आयलो. सरकारान बसींतलीं सगळींच सिटां जाण्ट्यांखातीर राखीव दवरपाक जाय. सगळ्या तरणाट्यांक उबीं दवरपाक जाय. मागीर तांकां सुशेगाद किरावपाक मेळटलें. आनी जाणट्यांक सुशेगाद बसून पळोवपाक मेळटलें. पूण आपूण उबो रावन तांकां तशीं पळोवंक तिडक मारता !

तुमीं म्हणटले तूं तरणाटो आसताना बसनाशिल्लो? हांव बसतालों. पूण कोणूय जाणटोसो दिसलो, एकाद्री बायल भुरग्याक खाक्यांत धरून बसींत चडली वा कोणूय अडचल्लो मनीस दिसलो म्हणटकीत हांव सट्ट करून उठ्टालों आनी तांकां बसपाक

सुवात रिती करून दितालों. तेन्ना म्हाका दिसतालें, हांव जाणटो जालों म्हणटकीत म्हाकांय कोणूय अशीच सट्ट करून उठून सुवात दितलो. पूण मेलेबगर सर्ग दिश्टी पडना म्हणटात ताचें खरेपण म्हाकां पळोवपाक मेळ्ळें. जाणटो जालां पूण एकटोय उठून म्हाकां बसपाक सुवात दिना. म्हजे सगळे शेर कळंतरासयत बुडले.

भुरगेपणांतलो म्हाकां एक तस्सो उगडास आसा. तेन्ना हांव शिकतालों. जोरान तकली सामकी जड जाल्ली. तसोच प्रासार आयलों. बसपाक सीट मेळचें म्हूण पयलींच्यो दोन बसी सोडल्यो. तिसरे बसीर सीट मेळ्ळें आनी हांव बसलों. पूण हांव बसला तें देवाक बरें दिसलें ना दिसता. काय तो म्हजी परिक्षा पळोवंक सोदतालो म्हूण कोण जाणा ! एकटी बायल दोन भुरग्यांक घेवन वयर चडली. एकूय सीट रितें नाशिल्लें. ते भायर लोक उबे राविल्ले. म्हाकां तें बायलेची काकूट दिसली. हांव उठून उबो रावलों आनी ते बायलेक भुरग्यांक घेवन बसपाक सुवात दिली. पूण ती बायल त्या सिटार अशी तशी पांच मिनटां बसल्या आसत. एकदम सिटावेली उठली आनी भुरग्यांक घेवन सकयल देंवली. कुशीक उबो राविल्लो एकटो दादलो झुप्प करून ते सुवातेर बसलो. तेन्ना ते बायलेची म्हाकां सामकी भिरभिरी मारली. तेन्नाच्यान हांवेन थारायलें, कोणाकूच बसपाक सुवात रिती करून दिवप ना. पूण म्हजो हो निश्चेव चड तेंपं उरलोना.

निमाणेकडेन बस सुटली आनी जिवाक मात्शें बरें दिसलें. आंग हालोवंक मेळ नाशिल्लें. हांवेन दोळे धांपून घेतले. आतां पणजे कसोय तरी पावतलोंच. ह्या बसींचें एक मात बरें, एक फावट सुटल्यो म्हणटकीत कटकट ना, अशें येवजीता थंय आसां, ड्रायवरान बस थारायली. आनी एकदम कुशीन घेतली. आतां आनीक हाका कितें जालें ! लोकाचे चिरंगटीतल्यांन हांवेन भायर नदर मारली. पेट्रोल पंप ! बसीक डिझल घालपाक लेगीत ह्या पाडपडिल्यांक वगत मेळना. कितलोसोच वगत उलगलो आनी बस परत हाल्ली.

"पयशे काडात.... पयशे काडात" किलींडर लोकांक माडयत चेपीत फाटीं येवपाक लागलो. हांवेन बोल्सांतल्यान सांसपून पांच रूपया काडले आनी तोंडांत धरले. म्हजे कुशीक उबो आशिल्ल्या एका तरणाट्याचें आनी किलींडराचें पेटलें. किलींडर पयशे मागता आनी तरनाटो ताचेकडेन तिकेट मागता-

"तिकेट दी आनी पयशे घे."

"शिताफुडें मीठ खातात मरे तुमी !"

"युनिफॉर्म घालून यो पयलीं."

"पयशे ना जाल्यार बसींत कित्याक चडटात?" किलिंडरान अशें म्हणनाफुड्चें तरणाट्याक तिडक मारली. ताणें ताका आपलें मसल दाखयलें, ते बराबर किलींडर फाटीं सरलो. तरणाट्याक पोजड्यो गाळी घालपाक लागलो. किलींडरान चितलें आसतलें आपली हाचेमुखार धडगत ना. म्हजेसारकेल्या जाणट्या मनशाचेर जाल्यार मात तो सुण्याभशेन भोंकून आपणाले पयशे वाशील करून घेतलो आशिल्लो.

म्हजेफाटल्यान एकटी बायल एका ल्हान भुरग्याक हाण्डीर मारून उबी आशिल्ली. हाण्डीर भुरगें आशिल्ल्यान तिका पयशे काडपाक मेळ्ंनाशिल्ले. किलींडरान तिचेर धेंगसो घातलो -

"पयशे काड गे बेगीन."

"मागीर दितां बाबा... पयशे काडपाक मेळनात म्हाका."

"पयशे काडपाक मेळनात? बसीर बरी चडली मगे तूं?"

"भुरगें आसा म्हजेकडेन."

"भुरग्यांक घेवन कित्याक मडसरेक येतात?"

किलींडराचें उलोवप आयकून म्हाका ताची सामकी भिरभिरी मारपाक लागली. ताका बरी भायरी दिवपी त्या तरनाट्याची म्हाका तोखणाय दिसली. आतां ताणेंच ते बायलमनशेच्या आदाराक धांवपाक जाय अशें दिसपाक लागलें. हांवेन् ल्हवूच ताचेवसल्यान पळयलें. पूण ताचो चेरो कांयच सोयर - सुतक नाशिल्लेभशेन दिसतालो. आपलेपुरतें येवजुपी त्या तरणाट्याचीय म्हाका खिणभर तिडक मारली.

अर्धा लोकांक अशा गच्च भरिल्ल्या बसींतल्यान भोंवपाक बरें दिसता. पूण कांय जाणांक असल्या बसींतलो प्रवास चुकोवंक मेळना देखून करचो पड्टा. कांय जाणांक कामार वगतार पावपाचें आसता देखून ते असले चिरगटेंत जीव घालून घेतात, जाल्यार कांय ल्हेंवटे बायलांक घसटुपाक बळयां गर्दी आशिल्ले बसींत चड्टात. कांय जाण पयशांचीं पाकिटां मारपाची संद बरी आसा अशें येवजून चड्टात. एक न्हय, बसींत जावपी हे गर्देक हजारांनी कारणां आसात. आनीक एक फावट हांव असोच पणजेसावन फोण्यां येतालों. बस सामकी भरून ओत्ताली. ते भायर बसीची गतीय आकांताची आशिल्ली. वोल्तार लेगीत तीच स्पीड. सगळ्या लोकांचो जीव ड्रायवरान आपणाल्या हातांत घेतिल्लो. कुंडयच्या वोल्तार बस एकदम वांकडी जाली आनी एके बायलेच्या केसांचो आंबाडो शेंवटून भायर पडलो. आंबाडो

भायर शेंवटलो तें खूब जाणांनी पळयलें पूण निमाणेमेरेन एकटेय बायलेन तो आंबाडो आपणालो म्हूण सांगलेंना. तो आंबाडो कोणाचो कळ्ळेंच ना. सामकोच सदळ आशिल्लो दिसता. हांसून-हासून सगळ्यांचो मुड्डो जाल्लो. उरिल्ली पुराय वाट कांय खिणातूच सोंपली.

"दारां बंद करात, मुखार आर. टी. ओ. आसा." ड्रायवरान एकदम किंळचेवन बसिचो ब्रेक मारलो. उबे आशिल्ले सगळे लोक तोल वचून आडवे पड्ले. ल्हान भुरग्यांनी भियेवन कच्च करून आंग काडलें आनी एकदम हुयेली मारल्यो. कोण कोणाक आपटलो आनी कोण कोणाचेर पडलो ताचो हिशोब ना. बशिल्ल्यांचीं कपलां मुखावेल्या हात धरपाच्या दांडयेक आपटलीं. पांयांकडेन एकदम सोरोप पळोवन एकाद्याची गत जाता तशीच गत ह्या ड्रायवरांची मुखार आर. टी. ओक पळयतकीत जाता. मागीर तांकां कसलेंच शितीत उरना. ते सामकेच बेभान जातात. एका रेड्याभशेन मोट्या पोटाच्या मनशान म्हजेवयलो पेंच काडलो आनी हांव परतो सारको उबो रावलों. ड्रायवरान बस कित्याक थारायल्या तें कळपाक हांवेन बागून ड्रायवरा वसल्यान पळयलें. पळयत जाल्यार ड्रायवर बेगीबेगीन युनिफॉर्माचो बुशकोट आंगाक चडयता. पाडपडिल्ले लोकांचो जीव खातात ते. हांकां पयलींच युनिफॉर्म घालपाक कितें जाता काय ! इतल्यान सोंपलां ? फाटल्या दाराकडेन आशिल्लो किलींडर सगळ्या लोकांचो माडोवन रोस काडीत धांवत कॅबीनाकडेन गेलो. ताणें घडांयच करून दार उक्तें केलें आनी भितर बशिल्ल्या पांच-स बायलांक भायर धावंडायलीं. खंयतरी कोनशाक मारिल्लो चिरमुटलेलो बुशकोट आंगाक चडयलो. लोकांकडल्यान तिकेटिचे पयशे फारीक करून घेतना ताणें कोणाकूच तिकेटी दिवंक नाशिल्ल्यो. पूण आतां मात ताणें जाता तितले ताकतिकेन तिकेटिंचीं बंडलांच लोकांच्या माथ्यावेल्यान शेंवटून मारलीं. "बेगीन तिकेटी वांटून घेयात". ताणें लोकांक फर्मायलें. लोकांकडेन तिकेटी नासत जाल्यार हे आर. टी. ओ. उरफाटे लोकांकूच फायन घालतात. लोकांक ती खबर आसा. देखून सगळ्यांनीच तिकेटिंच्या बंडलाचेर झोपय मारून एकट्या - एकट्यान जाता तितल्यो तिकेटी आपणाल्या बोल्सांत भरल्यो. लोकांच्या हातां-बोटांची पर्वा करीनासतना किलींडरान उपरांत फाटलें आनी फुडलें दोनूय दारां बंद केलीं. केळ्याचे सालीचेर कोणूय निसरून पडून उपरांत झुप्प करून उठून उबो रावचो इतले जलद गतीन हो प्रसंग उलगलो. बस सुटली. आर. टी. ओ.न बसीक हात दाखयलो ना. पाड पडिल्ले ! नाका आशिल्लीं नाटकां

करून लोकांचो जीव मात त्रासांत घालतात !

ड्रायवरान बसिचो वेग एकदम वाडयलो. ड्रायवराचेर एकदम कित्याक सांवार आयलो तें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. तरीय वगीच हांवेन फाटल्या - फुडल्यान नदर मारली आनी ड्रायवराचेर सांवार येवपाचें कारण होल्मलें. वासराच्या फाटल्यान् वाघ लागचो तशी ती व्हदळची बस आमचे बसीक फाटीं मारपाक येताली. दोगूय ड्रायवर बसीक आसा तितल्याय वेगान बसी धांवडांयताले. पूण किलींडराक मात तो वेग उणोच दिसतालो. तोंडांत बोटां घालून ते एकासारकी शिळोणी मारीत रावले. मदीं एका स्टॉपार कांय पॅसींजर देंवपाचे आशिल्ले. पूण किलींडरान कांयच पर्वा केली ना. तांकां व्हरून चार किलोमिटर मुखावेल्या स्टॉपार देंवयले. त्या पॅसेंजरानी शेवटिल्ल्यो गाळी किलींडराक मात्तूय लागल्यो नात.

म्हाका आतां मात किलींडराची सामकीच तिडक मारिल्ली. तिडकिचो बोंमाडो इल्लो इल्लो फुलतालो. तो केन्ना फुटत सांगपाक जायनाशिल्लें. आनीक एका स्टॉपार कांय लोक देंवले आनी नवे चडले.

"बाप्पा फुडें वोस ... फुडें वोस" किलींडरान म्हाका परती ताकीद लायली. हांव मात एकाच जाग्यार घट रावलों. किलींडरावसल्यान पळयलेंच ना.

"बाप्पा कान फुटल्यात रे? आयकूंक येना?"

तरीय हांव वग्गी रावलों. मागीर मात तो म्हजेसरीं आयलो आनी म्हज्या कानांकडेन किंळचेलो-

"बाप्पा मुखार वोस.. !" म्हजे तिडकिचो बोमाडो पयलींच सामको फुलिल्लो. तो एकमद फुटलो-

"ना वोसना ... जाता तें कर." हांव तापलों.

"तशें जाल्यार देंव सकयल!"

हे फावट मात म्हज्यान कशेंच सोंसपाक जालेंना. फाटीं-फुड्यां चिंती नासतना सोमतोच बसींतल्यान सकयल देवलों. बस म्हाका सोडून गेली.

म्हजीं पिशेपणां म्हाका उपरांत कळून आयलीं. त्या दिसा पणजेचें काम जालेंच ना !

६

## हाण्डीर आसा चेडो आनी...!

कसलेंय म्हत्वाचें काम आसलें म्हण्टकीत पयलीं सुट्टा ते बसींत हांव जीव घालून घेतां. मनांत एकूच विचार आसता बेगीन पावता तितलें बरें ! देखून हेर कसल्योच आडखळी म्हाकां लागनांत. बसपाक सुवात मेळ्ळी ना जाल्यार उपकारता. कितलीय गर्दी आसूं ! पांय दवरूंक जागो मेळ्ळयार पुरो ! केन्ना तरी पावतलोंच अशी आस्त आसता. किरकोळ गजालीचें हांव केन्नाच घेवन बसना. म्हजें म्हत्वाचें काम आनी हांव हाचेमदी म्हाकां कांयच दिश्टी पडना. म्हज्या ध्येयान हांव कुड्डो जातां. हांगा म्हाका महाभारतांतल्या अर्जुनाचो उगडास जाता. सवण्याचो दोळो फोडपाचो आसल्यार ताका फक्तत त्या सवण्याचो दोळोच दिसतालो. भोंवतणचें सगळें शून्य जातालें. तशीच कितेंतरी म्हजी गत जाता आनी हांव भोंवतणचो संवसार जायते फावट विसरतां.

बसीर उडी मारल्याउपरांत हांवेन भितर पळयलें. बस उपाट भरिल्ली. फक्त भरून रकपाची उरिल्ली. किलींडरान "फाटीं वच" अशें सांगचे पयलींच हांव गर्देंत इल्लो इल्लो मुंगरत रावलों. बसींत सामको मदीं पावतासर मुंगरलों. मदीं पावलों म्हण्टकीत एक बरें. फाटीं - फुडें वचपाची तकालस ना.

हालींच्या तेंपार वचत थंय गर्दी आसता. देखून म्हाकां गर्देची संवय जाल्या. पयलीं पयलीं गर्देचो वीट येतालो. सोसूंक नज जातालें. पूण आता कांयच जायना. देखून बसींतल्या गर्देंत कुडीची चिरंगुटी करून उबो रावताना कांयच दिसना. आयजूय हांव तसोंच रावलों. म्हत्वाच्या कामाचें येवजीत, कसली तरी तजवीज करीत रावलों. बस धांवताली बसींतलो स्पीकर करंदाय मारतालो.

किलींडरान म्हाका हात लायलो आनी हांव जाग्यार आयलों.

"खंय वता?"

"एक पणजे काड". अशें म्हूण ताका ब्बयशे दिवपाक हांवेन बोल्सांत हात घालो आनी म्हजे दोळे धवे जावपाकडेन पावले. गर्देची संद धरून कोणेंतरी बोल्सांतलें पाकीट फारायल्लें. म्हजे दोळे पळोवन कितें घडलां आसतलें हाचो अंदाज किलींडराक आयलो

"कितें जालें...?"

"म्हजें पाकीट..."

"कोणें माल्लें?"

"हय !"

"थोमस ! गाडी सोमतीच पुलीस स्टेशनार घे !" किलींडरान व्हडल्यान किळांच माल्ली. ड्रायव्हरान ती जिस्त आयकली. आनी कितें घडलां आसतलें ताचो अदमास घेवपाक ताणें बसीचो वेग उणो केलो. बसींतले बशिल्ले सगळे लोक उठून उबे रावले. सगळ्यांचे दोळे किलींडराचेर आनी म्हजेर थीर जाले. रस्त्याच्या कुशीक कुशिल्ल्या गोरवाची घाण सप्प करून बसींत भितर सरून ताची जाणविकाय सगळ्यांक जावंची तीच गजाल जाली. म्हजें पाकीट माल्लें ती गजाल बसींतल्या तमाम पॅसेंजरांक कळ्ळी. सगळ्यांचेर एकूच आकांत आयलो. सगळ्यांनी आपआपालीं पाकीटां सासपून पळयलीं. कोण बोल्सांत हात घालून अदमास घेवपाक लागलो. बायलांचेर जाल्यार सामकीच हांवळ आयली ! बसींत एकूच आकांत जालो... सगळोच बोवाळ.

म्हजी गत जाल्यार सामकीच पळोवपाची नाशिल्ली. हांव म्हज्या लागसार आशिल्ल्या सगळ्यांक दुवावान पळोवंक लागलों. पूण चोर म्हणपाक एकटोय आपली नदर चोरीं नाशिल्लो. सगळेच म्हजेवसल्यान काकुटेन पळयताले.

ड्रायव्हरान एकदम बसीचो ब्रेक लायलो आनी बस सोमतीच पुलीस स्टेशनामुखार उबी केली. किलींडरान फुडलें आनी फाटलें दार बंद केलें. ड्रायव्हरान मुखावेल्यान जाता तितले ताकतिकेन सकयल उडी माल्ली आनी भितर वचून पलिसांक कळयलें.

माथ्यावेलीं चेपीं सारखीं करीत दोग तीग जाण पुलीस धांवत भायर आयले. एकट्यान बसीचें मुखावेलें एकूच दार उकतें केलें. दुसरो पुलीस वचून फाटल्या दाराकडेन उबो रावलो. "कोणाचें पाकीट ना जालां ताका पयलीं सकयल देंवय."

पुलीसान किलींडराक सांगलें तें म्हज्या कानार पडलें आनी हांव जाता तितले ताकतिकेन गर्दी कापीत सकयल देंवलों.

"तुजें पाकीट ना जालां?" पुलिसान म्हाका विचारलें.

"हय सायब."

"पाकीट बोल्सांत आशिल्लें ताजी तुका सारखी खबर आसा?"

"हय सायब."

"पाकीटाचो कोर कसलो?"

"काळो सायब."

"पाकिटांत कितले पयशे आशिल्ले?"

"साडे - पांचशीं रूपया सायब."

"बरें आसा तूं हांगाच कुशीक उबो राव." पुलिसान म्हाका सांगलें आनी पुलीस मुखार कितें करतात तें पळयत हांव थंयच उबो रावलों.

"आतां गाडयेंतल्यांन एकटो - एकटो सकयल देवांत" - पुलीसान ओर्द सोडली आनी गाडयेंतल्यान एकटो एकटो सकयल देंवपाक लागलो. पुलीस दर एकट्याची झट्टी घेवपाक लागले. कोणाच्याय बोल्सांत काळें पाकीट मेळ्ळें जाल्यार पुलीस म्हजेवसल्यान घुंवताले आनी तें पाकीट म्हजें काय विचारताले. म्हजें पाकीट हांव रोकडोच वळखता आशिल्लों. हांव तकली हालोवनूंच तांकां "नां" म्हूण सांगतालों.

एकट्या तरणाट्याचो पुलिसांक दुबाव माल्लों ते ताची झडटी घेवपाक लागले. ताणें आपणालें पाकीट दाखयलें पूण दुसऱ्या बोल्सांत कितें आसा तें दाखोवपाक तो कसोच तयार जायना जालो. तेन्ना पुलिसांचो दुबाव चड बळावलो.

"दुसऱ्या बोल्सांत कितें आसा तें भायर काड बेगीन!" एकट्या पलिसान ताका धपकायलो.

"पयशे न्हय ते..." तरणाट्यान भियेत जाप दिली.

"कितेंय आसूं ! भायर काड पयलीं." पुलिसान परती ओर्द सोडली. पूण तो तरणाटो तस्सो बोल्सार हात धरून उबो रावलों. तेन्ना मात पलिसांनी ताका चपाटून धल्लो आनी एकट्यान ताच्या बोल्सांत हात घालो. पुलिस ताच्या बोल्सांतल्यांन कितें भायर काडटा तें पळोवपाक सगळ्यांच्यो नदरो थीर जाल्यो. पुलिसान हात भायर काडलो तेन्ना सगळे लोक खो ... खो करून हांसले. खिणभर हाश्याचो गाज जालो. नट्यांचे नागडे फोटू कागदाक गुठलावन त्या तरणाट्यान ते आपणाल्या

बोल्सांत दवरिल्ले. तरणाट्याक बरीच लज जाली. तकली सकयल घालून सगल्या लोकांक फाट करून तो उबो रावलो.

बसींत आशिल्ल्या चडश्या पॅसेंजरांची झडटी घेवन जाली. थोडेच उरिल्लें इतले म्हणसर एकटो घांटी सकयल देंवलो. सगळ्या लोकांनी घाटयाक दुबावान पळयलो. तो खंयतरी कामाक वचपाक भायर सरिल्लो. ताच्या आंगार एक धोतर आनी बानयान इतलोच भेस ! तो बसींत हातांत जेवणाचो डबो घेवन उबो आशिल्लो. तसोच डबो घेवनूच तो सकयल देंवलो. पेलिसांक पळोवन तो नर्व्हस जालो. ताका कोंकणी कळनाशिल्ली. पुलीस ताका कोंकणीन कितें कितें विचारपाक लागले. तसो तो चडूच नर्व्हस जावपाक लागलो.

"हो तुज्या लागसार उबो आशिल्लो?" पुलिसान अचकीत म्हाका प्रस्न केलो.

"हय सायब" हांवेन जाप दिली.

"चोरपाकूच येतात हे घांटी.... मारात ताका" सगळ्या लोकांनी एकूच बोवाळ केलो. बोवाळ करतकीत पुलीसांक मात्शे बळ चडलें. ते घांटयाचेर चड तापपाक लागले. भास कळनाशिल्ल्यान ताची गत चोरापरस पाश्ट जाल्ली. तो कांयच उलयना तें पळोवन एकट्या पुलीसान ताचो जेवणाचो डबो काडून घेतलो. घांटयान पाकीट तातूंत लिपयलां आसतलें अशें येवजून सगळ्या लोकांचीय नदर घांटयाच्या डब्याचेर थीर जाली. पुलीसान डब्याचें धांपणे उकतें केलें. पळयत जाल्यार भितर जोंधळ्याच्यो तीन भाकऱ्यो आनी पांच स हरव्यो मिरसांगोच आशिल्ल्यो. व्हडा उमळशिकेन डब्यावसल्यान पळोवपी सगळे निर्शेले. उपरांत पुलिसांनी ताच्या बानयानाची आनी धोतराची झडटी घेतली. अशेतरेन ताची इपश्टा करून उडयली. लोकांची मन रीजवण जाली खरी पूण घांटयाचें तोंड पळोवपाचें नाशिल्लें.

एका फाटल्यान एक करून सगळी बस रिती जाली पूण म्हजें पाकीट मेळ्ळें ना. पुलीसांनी केस रजिस्टर करून घेतली. किलींडरान सगळ्यांक बेगीन बसींत चडपाची ताकीद लायली. म्हाकां मुखार कितें करपाचें कांयच येवजनां जालें. हांवेन गुन्यावकाराचे नदरेन किलींडरावसल्यान पळयलें...

"चड तूं बसींत. पणजे व्हरून पावयतां..." किलींडरान अशें म्हळें आनी म्हाका सूऽऽ जालें. हांव जड पायांनी वयर चडलो. मुखार कितें करचें खीणभर कांयच येवजनां जालें. पूण मागीर तकलेंतली लायट पेटली. पणजे जायते वळखीचे लोक आसात. इल्ले पयशे मागले जाल्यार कोणूच ना म्हणपाचो ना. हें येवजून

जिवाक मात्शें बरें दिसलें.

बसींतले सगळे लोक म्हजेवसल्यान पळोवन चोराच्यो खबरो करताले. सगळे म्हजेवसल्यान काकुळटेन पळयताले. चोराक मनांतल्या मनां खेपताले.

"मदीं खंयच्याय स्टॉपार देंवून तो पळ्ळो आसतलो" एकटो पॅसेंजर दुसऱ्याक सांगतलो.

"जातीचे चोर तुकां मेळटात?"

"सगळ्या लोकांक मात त्रास केले... बेश्टे !"

"बसीक पयलींच वगत जाल्लो... आतां कामार केन्ना पावतां देवाक खबर !"

म्हाकां लागून सगळ्यांक त्रास जाले तें येवजून खिणभर म्हाका वायट दिसलें. पूण आनीक कितें उपाय आशिल्लो? कोणाचीय गत म्हजेभशेनूच जातली आशिल्ली.

बसींतल्या तमाम लोकांच्या तोंडांत म्हज्या पाकीटाच्यो खबरी घोळटाल्यो. इतले म्हणसर दोगां बायलांच्यो गजाली म्हज्या कानार पडल्यो -

"काकुट बाबड्याची."

"हय गे! कोणूय बाबडो आपणाल्या कामाचें येवजून भायर सरता न्हूं?"

"चोरांचेर सामकोच सांवार येयला गे हालीं."

"पयर आनी आमगेल्या भावाल्या घराकडेन..."

"चोरलें कोणी?"

"ना. चोर येयलेले खंय. पूण चोरूंक पावलेनांत. कुत्र्यांच्या बोवाळान लोक जागे जाले..."

"जावं गे बाये.."

बायलांचीं तोंडां उमळीच्यो झरी कशीं व्हांवतालीं. तांचें उलोवप आयकूंक नजो जातकीत हांवेन म्हजी तकली दुसरे वटेन घुंवणायली. थंय दोग जाण जाण्टेले पाकीटाच्योच गजाली करताले. ते मदीं मदीं चोराक गाळी संवताले आनी मदीं मदीं म्हाकांय खेपताले.

"मोरोंक घेवन भोंवपाक जायीं पाकिटां? चोर चोरतले न्हूं?"

"हांव म्हण्टां हीं पाकिटां हड्ड्यार मारून भोंवपाक जायें पयलीं किद्याक?"

"पयशे बेश्टे बोल्सांत घालून भोंवल्यार किदें जाता?"

"हांव म्हज्या धोतराच्या किरवटीक हजार लेगीत बांदतां.... पळोवंया खंयचो चोर व्हरता तें." अशें म्हूण त्या जाण्टेल्यान आपणाले किरवटेक हात लावन

दुसऱ्याक दाखयलो.

पणजे पावतासर चोरांच्यो आनी पाकिटाच्यो, पयश्यांच्यो गजाली आयकून म्हजे कान सामके फुटून गेले. आनीक मात्सो वगत तसल्यो गजाली आयकल्यार म्हजें कितें जायत आशिल्लें तें सांगपाक जांवचें नाशिल्लें. बस पणजे पावली आनी हांव लोकांच्या तोंडांतल्यान सुटलों. पूण दुसरो प्रस्न दोळ्यांमुखार उबो रावलो. आतां हात कोणामुखार करप? पणजेंतल्या सगळ्या वळखीच्या लोकांची दोळ्यांसामकार एक वळेरी तयारी केली. चड वासपूस करी नासतना सट्ट करून कोण पयशे दितलो तें येवजुपाक लागलों.

एकट्या इश्टाचो उगडास जालो आनी पांय आपशींच तेवटेन चलपाक लागले. ताच्या घराकडेन पावतकीत हांवेन भायल्यान बेश्टीच जाग घेतली. उपरांत दार वाजयलें. इश्टान दार उक्तें केलें आनी म्हाकां दारांत पळोवन तो अजाप जालो.

"आरे ! वाट चुकलो काय कितें रे ?"

"कितें सांगूं तुका ! सांगपाक लेगीत लज". अशें म्हूण हांवेन ताका घडिल्ली सगळी खबर सांगली. ताणें म्हाका फाटीं फुडें पळयनासतना शंबर रूपया काडून दिले. ते घेवन हांव थंयच्यान भायर सल्लों. हातांत शंबर रूपया आसात देखून भोंवपाक मात्सो धीर आयलो.

म्हत्वाचें काम तकलेंत आशिल्लें. पूण सगळीच धांदल जाल्ल्यान तें जालेंचना. दुसरें म्हळ्यार केन्ना एक फावट घरा पावतां अशें म्हाका जाल्लें. सोमतोच येवन बसीर बसलों.

घराकडेन पावलों तेन्ना बायलेन म्हाका जिस्त धल्लो. म्हजें तोंड पळयतनांच कितें तरी वेगळें घडलां तें तिका कळपाक वगत लागना. मागीर ती इल्लोय थारो दिनासतना एकसारखी विचारीत रावता. आयजूय तिणें तशेंच विचाल्लें.

"कितें जालें? रोकडेचशे आयले?"

"पाकीट माल्लें म्हजें !"

"पाकीट माल्लें? तुमी जागे नाशिल्ले? बसींत न्हिदो काडटाले आसतले !"

हिचें तोंड एक फावट उक्तें जालें म्हणटकीत कोर्द सुटिल्ली घड्याळ कशें तें आतां थारपाचें ना अशें येवजून हांव कपडे देवोपाक भितर गेलों. हाताची घड्याळ काडून दवरपाक गवेत उक्तें केलें... आनी कितें पळयतलो? पाकीट गवेतांतूच उरिल्लें..!

७

# सुरांचें पिशें

".......आनीक एक पॅग!" आवाज आयकून बशिल्लो थंयच्यान म्हजी नदर आपशींच ते दिशेन गेली. कोण तरी नवोच! आपणालो रितो ग्लास वयर काडून तो वेटराक ओर्द सोडटा... पळोवंक फॉरेनर कसो दिसता. फॉरेनरूच तो. घडये भोवंडेकार आसतलो. गोरोच रंग. खाड वाडयलां. शून्यांत नदर. ताच्या दाव्या हातांत पेटयल्लें सिगार आसा. हातांतलो रितो ग्लास तो मेजार दवरता. खीणभर उजव्या हातान ग्लासावांगडा खेळटा. म्हण्टा म्हणसर दोळे धांपता आनी सिगाराचो एक व्हड झुरको मारता. तो आतां तोंड वरशें करून धुंवराच्यो मुदयो सोडटलो म्हूण हांव पळयतां. पूण तो धुंवराच्यो मुदयो सोडिना. तो व्हडान सुस्कारता आनी सुस्कारावांगडा सगळो धुंवर वांगडाच भायर सोडटा.

वेटर हाडून एक पॅग ताच्या ग्लासांत रकयता. मेजार आशिल्ली सोडाची बाटली तो ग्लासांत सोडटा. खीणाचोय कळाव लायनासताना तो एक घोंट मारता. एक घोंट मारून ग्लास सकल काडटा आसताना ताची नदर म्हजेर पडटा. कांय खीण तो म्हजेवसल्यान पळयता. उपरांत ग्लास हातांत धरून तो जाग्यावेलो उटठा. मंद पावलां वडयत तो म्हज्या लागसार येता. मुखार आशिल्ले रिते सुवातेर तो बसता.

"हालो" घोगऱ्या आवाजांत तो म्हाका हटकीता.

"भोवंडेक आयला आसतलो..." कितेंतरी उलोवंक जाय म्हूण हांव उलयतां.

"हय..." तो म्हज्या नदरेंत नदर भरशिता.

"कशें लागलें आमचें गोंय...?"

"हांव भोंवडेकार न्हय... तुका कित्याक फोटोंव!"

"मागीर कित्याक आयला तर तूं?"

-म्हजे नदरेनूच ताका प्रस्न विचारलो. ताका तो जिस्त कळ्ळो आसूंक जाय. देखून तो मुखार उलोंवक लागलो.-

"गोंय म्हाकां नवें न्हय. गोयांत हांवेन खूब वर्सां काडल्यांत." -ताचें सांगणें आयकून म्हाका अजाप जालें. ताचेविशीं चड जाणा जान घेवपाची उत्सुकताय आपशींच वाडली. ताणें ती जिस्त वळखली आसूंये. तो मुखार उलोंवक लागलो.

"जल्मान हांव गोंयकार, म्हजो जल्म गोयांतूच जाल्लो" म्हजी उत्सूकताय वाडोवपाक ताणें आनीक एक धक्को दिलो.

"खरेंच?"

"हय. म्हजें सगळें भुरगेपण आनी तरणाटेपण हांगाच गेलां. म्हजो बापूय तेन्नाच्या सरकारांत व्हड अधिकारी आशिल्लो. हांगा जयहिंदाची चळवळ नेटान जावपाक लागली आनी आमकां हेरांवांगडा गोंय सोडून वच्चें पडलें!"

"म्हळ्यार तूं आतां पुर्तुगालांतल्यान आयला?"

"हय तुवेंन जिस्त वळखलें!"

"गोंयचो उगडास जालो?"

"गोंयचो उगडास जावपाक ताचो विसर तरी खंय पडटा?" म्हजें सर्वस्व हांव हांगाच शेणोवन बसलां. चडसो संवसार हांवेन माडयला, पूण खंयच मन लागना. दीस - रात गोंयचो ध्यास लागून उरता.

"खरेंच?"

"आनीक एक गजाल सांगल्यार तुकां खरी दिसपाची ना."

"खंयची ती?"

"हांव कोणाक सांगनासतना पळून आयलां."

"पळून आयला?"

"हय"

"पूण कित्याक?"

"सांगल्यार घरचीं भायर सरपाक दिवची नाशिल्लीं..."

हातांतलो ग्लास ताणें तोंडाक लावन रितो केलो.

"गोंयची ओड इतली कित्याक म्हूण...?

"जो भोगता ताकाच विरहाचें दुख्ख कळटा.. गोंयात हावेन खूब कितें जोडलें... पूण वतनां कुस्कुट व्हरपाक मेळ्ळेंना. म्हजो सगळयांत चड जीव आशिल्लो म्हजे गिटारिचेर..."

"गिटार...?"

"हय. म्हजी गिटार! तेन्ना हांव बारा वर्सांचो आशिल्लो. म्हज्या वाडदिसा ती गिटार म्हज्या मामान भेट म्हूण दिल्ली. संगीताचो पयलो धडो म्हाका ते गिटारीन दिलो... थोड्याच दिसांभीतर म्हाका तिणें सुरांचें पिशें लायलें. दिसांतलो चडसो म्हजो वगत ते गिटारीवांगडा पासार जातालो."

"तुवेंन गोंय सोडून वता आसतना ती वांगडा व्हेली ना?"

"ना. सगळीच धांदल जाली तेन्ना. कांयच चिंतपाक वगतच नाशिल्लो. सगळीच ताकतीक. बापूय सामानासयत सगळें घर कोणाक तरी अर्दा मोलाक विकून मेकळो जालो. बोट सुटली तेन्ना म्हाकां तिचो उगडास जालो!"

इतलें सांगून ताणें एक व्हड उस्वास सोडलो.

"मागीर तुवेंन दुसरी गिटार घेतली...?"

"एक न्हय! कितल्योश्योच घेतल्यो. पूण ते सूर म्हाकां एकेय गिटारींत मेळ्ळे नांत. सगळ्योच भिरकटावन भायर मारपाच्यो. त्या सुरांक आशेल्लो जीव सामकोच पिशांर पडटालो. उपरांत तसली गिटार सोदपाक हांव खूप भोंवलो.. पूण खंयच मेळ्ळी ना."

व्हिस्की ताचे तकलेंत इल्ली इल्ली चडटाली. तसो तो चडूच भावनांच्या सुवादीन जावपाक लागलो. तो एकदम रडपाक लागत म्हूण भंय दिसपाक लागलो. पूण म्हजी उत्सुकताय म्हाकां वगी बसपाक दिनां जाली-

"आतां ती गिटार सोदपाक तूं इतले पयस परतो आयला?"

"हय. तिची आस्त अजून सुटूंक ना. तिचो विसर पडटलो म्हूण हांवेन खूब वर्सां वाट पळयली. वीस-पंचवीस वर्सां हांवेन तळमळून काडलीं. पूण हालींसरा तिचो विरह म्हाकां चडूच सतावपाक लागलो. गोयांत वचून येतां म्हळ्यार घरचीं म्हाकां कशींच सोडिनां जालीं. गोयांतल्यांन गेल्या उपरांत लेगीत रोकडोच हांगा परतो येवपाचो हांवेन जायतो यत्न केल्लो. पूण कांयच उपेग जालोना..."

"आतां तुकां ती परती मेळटली अशी दिसता?"

"म्हाका आस्त आसा. सगळ्या पेपरांचेर हांवेन तशी जायरात लेगीत दिल्या!"

"पूण गिटारी सगळ्यो सारक्योच आसतात. तुजी गिटार खंयची तें लोकांक कशें कळटलें? आनी इतली बरी गिटार लोक दिवंक तयार जातले अशें दिसता तुका?"

"ते गिटारीखातीर हांव कितलेय दुड्डू मोडपाक तयार आसां. म्हजें जिवित लेगीत घाणांक पडल्यार उपकारता. पूण ती गिटार म्हाकां जाय."

"पूण तीच गिटार म्हूण तुका कशें कळटलें?"

"तिचेर एक कुरू आसा!"

"कुरू आसा?"

"हय! तिचेर "सुमन" अशें नांव कोरांयलेलें आसा." ताणें गिटारिवेली कुरू सांगली आनी म्हज्या दोळ्यामुखार जोगुल मारिल्लेवरी जालें. पूण ते भाव हांवेन तोंडार दाखोवन दिलेनांत.

"कोण हें सुमन?" हांवेन उत्सुकतायेन विचारलें.

"तोय एक इतिहासूच आसा. आसूं तें" ताणें एक व्हड उस्वास सोडलो आनी आपली नदर शुन्यांत थिरायली. बोल्सांतलें सिगाराचें पाकीट ल्हव भायर काडलें. सिगार तोणांत धल्लें आनी लायटरान पेटयलें. एक व्हड झुरको माल्लो.

म्हजो ग्लास भरिल्लो तस्सो आशिल्लो. ताची रूचूच उरूक नाशिल्ली. ताची पुराय खबर आयकुची अशें एकसारखें दिसपाक लागलें. तो बारीकसाणेन सगळें सांगपाक तयार नाशिल्लो. पूण हांवेन ताची फाट सोडलीना.

"सुमनाची खबर सांगना?"

"ते गिटारीक लागुनूच सुमनाची आनी म्हजी पयली वळख जाली. संगिताच्या सुरांक एक वातावरण जाय पडटा. खंयूय काडले जाल्यार तांचो अर्थूच शेणटा. आमगेल्या घरांत सदांच बोवाळ आसतालो. देखून गिटार वाजयन दिसली म्हण्टकीत हांव कांय अंतराचेर आशिल्ल्या कपेलाच्या सोप्यार वचून बसतालों आनी मागीर तरेकवार सुरांक वाट मेकळी जाताली."

"कपेलाकडेन तुका जाय तसलें वातावरण मेळटालें?"

"हय. तें कपेल एकोडेंच आशिल्लें. लागसार एकूच घर आशिल्लें. पूण ताचीं जनेलां आनी दारां धापिल्लीं आसतालीं. असली सुवात म्हाकां दुसरी सोदून मेळप्राची नाशिल्ली. मेकळो वगत मेळटा तेन्ना हांव थंय वचून बसतालों आनी गिटार वाजयतालों. एकदीस सदांभशेन हांव संगिताच्या सुरांनी पेंवता आसतना अचकीत मुखावेल्या

घराचें जनेल उक्तें जालें. जनेलांतल्यांन एक चली भायर म्हजेवसल्यान पळयताली. यंत्राभशेन गिटारीचेर भोंवपी म्हजी बोटां आपशींच थारलीं... आनी तिणें जनेल परतें धापलें."

"मागीर कितें जालें?"

"दुसऱ्या दिसाय तशेंच जालें. हांवेन वाजोवपाक सुरवात केली आनी घराचें जनेल उक्तें जालें.. तिणें खिणभर भायर पळयलें आनी घरांतल्यांन भायर सरून ती म्हजे सरीं आयली. हांव तिका पळयत रावलों... सोबीत चली... ती म्हाकां समजावपाक आयिल्ली... त्या वर्सा ती मॅट्रीकेक आशिल्ली... म्हज्या संगिताचे सूर तिच्या कानार पडतसावन तिचें अभ्यासावेलें लक्ष उडिल्लें. आयकून म्हाकां वायट दिसलें. परतो हांव थंय येना म्हूण हांवेन तिका उतर दिलें. पूण पायांच्या आंगट्यान जमनीवांगडा खेळत ती थंयच उबी रावली... आनी मुखार कितें उलोवचें तें कळना जावन आयिल्ली तशी परती गेली."

"उपरांत तुवेंन तो जागो बदल्लो...?"

"हय. पूण नशिबांतले भोग सोपूंक नाशिल्लें. कोणाकूच म्हजे सूर आडखळ जांवचेनांत अशी एक सुवात हांवेन निमाणेंकडेन सोदून काडली. थंय कोणाचेंच घर नाशिल्लें. एक वडाचें व्हड रूख आनी तरेकवार सवणीं... इतलेंच. थंय वचपाक लागून म्हाकां दोन-तीनूच दीस जाल्ले. चवथ्या दिसा ती चली खंयच्यान तरी थंय पावली. तिका पळोवन म्हाकां कच्च जालें. परतीय म्हजी आडखळ जाता काय हांवेन तिका विचारलें. पूण तिचे दोळे दुकांनी भरिल्ले...म्हज्या गिटारीचे सूर तिच्या काळजांत पाविल्ले. एक विचित्र प्रसंग. तिचें नांव सुमन आशिल्लें..."

"म्हळ्यार सुमन तुज्या मोगांत पडलें ?"

"हय. तेच गिटारीन आमची काळजां एकठांय हाडलीं. पयलीं हांव म्हज्या एकट्याच खातीर गिटार वाजयतालों. पूण उपरांत सुमनाखातीर वाजोंवक लागलों. तेन्नाच केन्ना तरी हांवेन सुमनाचें नांव गिटारीचेर कोरांयिल्लें..."

"उपरांत तुमचें लग्न जालें?"

"ना. लग्न जावंक वगतूच मेळ्ळोना. रोकडीच जयहिंदाची चळवळ सुरू जाली आनी आमकां हांगच्यान सासणाची मांद्री कवळची पडली."

"आनी सुमनाचें उपरांत कितें जालें..?"

"कांयच खबर ना... हांव मात अजून मेरेन ताचेच खातीर आंकवार रावलां!"

"म्हळ्यार तूं अजून मेरेन लग्न जावंक ना?"

"ना. सुमनाचे उगडास म्हज्या काळजांत तश्शे ताजे आसात. म्हाकां आस्त आसा... म्हजें सुमन म्हाकां खंयूय तरी मेळटलें... आनी हांव ताका घेवन वतलों..."

हांवेन बशिल्लो थंयच्यान भायर नदर माल्ली. तिनसांज जावन काळोख दाटूंक लागिल्लो. हांव जाग्यार उठून उबो रावलों. ताचो निरोप घेता आसतना कितेंतरी उलोंवक जाय म्हूण हांवेन ताका धीर दिवन सांगलें.

"कांयच भिवपाची गरज ना. तुजी गिटार मेळटली. म्हजेपरीन हांवूय यत्न करीन... पूण पत्तो लागलो जाल्यार तुकां कशें कळोव?"

"हांव सद्याक हांगाच आसां. म्हजे नांव 'लुकस आल्बुकेर्क'."

"गुड नायट !" अशें म्हणून हांवेन ताचो निरोप घेतलो.

भिरकेभितर हांव थंयच्यान भायर सल्लों. तकलेंत अर्थ नाशिल्लें वादळ खवदळ घालतालें. कितें करचें कांयच येवजनाशिल्लें. 'सुरांचें पिशें' कितलें खर आसूं येता ताची जिवी देख म्हज्या दोळ्यांसामकार उबी आशिल्ली. मनांत आयल्यार भोंवऱ्यांत सापडिल्लें लुकसाचें मन एकाच खिणांत म्हज्यान थाऱ्यार घालपाक जातालें. पूण सुवार्थान म्हाकां आडावन धल्लो. जातातितले ताकतीकेन हांव घराकडेन गेलों. बॅडरूमांत खाटीक तेंकोवन दवरिल्ली गिटार हातांत घेतली आनी तिचेवेल्या सुमनाचेर मेळत त्या शस्त्रान घाय घालीत रावलों.

८

# वांजुट्टो

गणपत भायर येवन सोप्यार बसलो म्हण्टकीत सगळ्यांत पयलीं ताची नदर दारांतल्या शंकराच्या झाडाचेर पडटा. उपरांत कांय खीण तो आपले नदरेन शंकराचें शेकानशेक आंग सांसपिता. हो शंकर तसो चड जाण्टो न्हय. पूण पळोवपाक तो तसो दिसना. तो आकांताचो मातला आनी वडाच्या रूखाभशेन आयस्-पयस् पातळ्ळा. तशें पळोवंक गेल्यार दारांत शंकराचें झाड आसप म्हळ्यार खूब सोबा. पूण हो शंकर तसो न्हय. वर्सां उलगलीं, शेकानशेक मातलो पूण ताका फुलां केन्नाच आयलींनात.

दारांत तरेकवार सवणीं येतात. पूण शंकराक कोणूच आफडीनात. कावळे बसतात ते फक्कत हळशीक करपापुरते. हो शंकर म्हळ्यार गणपताच्या जिवितांतलें व्हड अपेस. कोणीच दिवंक ना इतलें दुख्ख गणपताक ह्या एका शंकरान दिलां. एक दीस तरी तो फुलतलो म्हूण गणपत ताची वाट पळयतालो.

गणपताच्या दारांत साबार झाडां रूखां आसात. पूण तांचेकडेन ताचें कांयच सोयर सुतक ना. पूण ह्या शंकरावांगडा बांदून उरपाक एक इतिहास आसा. तेन्ना गणपत बारा तेरा वर्सांचो भुरगो आशिल्लो. भुरगेपणांतसावन गणपताक झाडां रोवपाची खूब उमेद. मेळत तसल्या झाडांचे रोपे हाडून गणपत मेळत थंय रोयतालो.

एकदीस आशाडांतल्या पावसांत ताच्या बापायन खंयच्यान तरी एक शंकराचो रोपो हाडून आंगणांत दवल्लो. तो शंकराचो रोपो पळोवन गणपताच्या जिवाक चिटमिटे पडले. केन्ना एकदां ताका तो रोपो आपूण व्हरून रोयतलो अशें जाल्लें. कुदळ घेवन ताणें आंगणाभायर दारांतूच एक नेम माल्लें आनी तो शंकराचो रोपो

व्हरून त्या नेमांत दवरून तो माती घालपाक लागलो. शंकराचो रोपो रोयता आसताना बापायन ताका जिस्त पळयलो. ताचो बापूय पोन्ऱ्या विचारांचो आसलो. आंकवार भुरग्यांनी फुलांचीं झाडां रोवपाक जायनांत अशें ताचें मत आसलें. हाडिनाफुड्यां शंकराचें झाड व्हरून रोयलें म्हूण बापायन गणपताक सामको तापोवन काडलो -
"दळीद्र्या? कोणी सांगलां तुकां तें रोवपाक? इतले पयस सावन हाडिल्ल्या झाडाचो रोपो फुकट वगडायलोना तुवेंन?"

बापूय एकदम कित्याक तापलो गणपताक कांयच समजनां जालें. शंकराचो रोपो लायिल्ल्या जाग्यार सावन गणपत आपणाल्या बापायवसल्यान पळोवपाक लागलो. बापायच्या तापपाचो अर्थ ताचे तकलेंत सट्ट करून रिगलो ना. निर्विकार चेऱ्यान ताणें ताका परतें विचारलें -

"दुसरेकडेन रोवपाचें तें?"

"आतां परतें रोवन कांयच उपेग ना. आंकवार भुरग्यांनी रोयिल्लीं फुलांचीं झाडां फुलनांत. वांजुट्टी जातात तीं. हाडिनाफुडें पिडा पडली न्हय तुजेर!"

कितली उमेद जाल्ली गणपताक तो शंकराचो रोपो रोयताना! पूण बापायचें उलोवप आयकून ताका खूब वायट दिसलें. 'आंकवार भुरग्यांनी फुलांचीं झाडां रोयल्यार तीं फुलनांत ही फट गजाल. आपणें रोयिल्लीं कितलीशीं झाडां फुलपाक लागल्यांत.' अशें गणपताक ताका सट्ट करून सांगचें अशें दिसलें. पूण तो आयकून घेवचोना देखून ताका न सांगिल्लें बरें अशें येवजून तो वोगीच रावलो.

गणपत शिकतालो त्या इस्कोलामुखार शेकानशेक व्हडली फुलांची बाग आसली. त्या भायर इस्कोलाभोंवतणी आशिल्ल्या मेकळ्या सुवातेंत कितलींशींच झाडां आशिल्लीं. इस्कोलांतलीं आंकवार भुरगीं आशाडांतल्या पावसांत दर वर्सा नवीं नवीं झाडां व्हरून इस्कोलामुखावेल्या बागेंत रोयतालीं आनी एका वर्साभितर तीं फुलून रसरसतालीं. हे बागेंत फुलझाडां रोवपाक पयलो नंबर गणपताचो आसतालो. गणपतान रोयिल्लें एकूय झाड वांजुट्टें जावंक नाशिल्लें. ताणें रोयिल्लें दर एक झाड फुलतालें.

ही गजाल बापायक सांगची अशें ताका खिणभर दिसलें. पूण ताचें तोंड उक्तें जालेंना. बापायन तापयलो खरो पूण ताका आपल्या तोंडार थापट मारिल्ल्याभशेन दिसलें. शंकराचो रोपो रोवन आपूण नस्त्या वादांत पडलों अशें ताका दिसपाक लागलें. दुसरेवटेन ताच्या मनांत वेगळेच विचार चलिल्ले. ताचें भितल्लें मन ताका सांगतालें शंकर फुल्ल्याबगर रावचो ना. मागीर तो बापायसयत सगळ्यांक दाखोवप.

आंकवार भुरग्यांनीं फुलांचीं झाडां रोयल्यार तीं फुलनांत ही गजाल सामकी फट! बापायन आपल्याक तापयलो हाचें ताका खूब वायट दिशिल्लें. शंकर फुलतकीत बापायक बरी बुध्द शिकवप अशी ताणें मनांतल्या मनांत निश्चेवाची गांठ माल्ली.

दीस जशे जशे फाटीं पडटात तसो तसो तो शंकराचो रोपो वाडपाक लागलो. खंयच्याय झाडाची घेतलीना तितली काळजी गणपत त्या रोप्याची घेवपाक लागलो. ताका वगतार उदक घालप, भर घालप, केन्नाय इल्लें सारें उडोवप हाका लागून तो रोपो गरगरीत वाडपाक लागलो. एक दीस मुळांत भर घालता आसताना बापायन ताका जिस्त हटकिलो -

"तूं त्या शंकरामुळांत कितलेंय नाक आपटी, तो कसोच फुलपाचो ना ! म्हजें उतर केन्नाच नेगार वचनां."

बापायचें उलोवप आयकून गणपताक खूब तिडक माल्ली. ताणें मनांतल्या मनांत देवाक हात जोडले. बापायचें उलोवप नेगार गेल्यार पुरो. पूण तोंडातल्यांन एक उतर काडलेंना. त्या शंकराक लागून आपल्या वाट्याक येवपी सगळो अपमान गिळून तो वग्गी रावलो.

दीस, म्हयन्यांवांगडा वर्सांय उलगवपाक लागलीं. शंकराचें झाड येतल्या - वतल्याच्या नदरेंत सट्ट करून भरपाक लागलें. चार वर्सांभितर खंयचेंय शंकराचें झाड फुलपाक लागता, फुलता. पूण हें झाड मात गणपताक निर्शेवपाक लागलें. कोणाचीय शंकराचेर नदर गेली म्हण्टकीत गणपताच्या बापायक उलोवपाक आयतो विशय मेळटालो. मागीर तो घडिल्ली सगळी गजाल आयिल्ल्याच्या कानार घालतालो आनी तिरशे नदरेन गणपतावसल्यान पळयतालो. तेन्ना गणपताक बापायची दोळे फुटून तिडक मारताली. पूण सगळें सोंसून तो वग्गी रावतालो.

शंकराच्या झाडाक सात - आठ वर्सां भरत आयलीं तशें तें आंगापांगान गरगरीत वाडलें. पूण फुलपाचें नांव ना. तेन्ना मात हेरांवांगडा गणपताचीय आशा अस्ताक वचपाक लागली. एक दीस बापायन ताका परतो तोमणो माल्लो-

"पळयलें मरे? हांवेन सांगूक नाशिल्लें? आंकवार भुरग्यांनीं ह्या खातीर फुलांची झाडां रोवपाक जांयनांत. आतां तरी कळ्ळें मरे!"

बापायक परतें सांगपाक गणपताकडेन जाप नाशिल्ली. बापायन मारिल्लो तोमणो आयकून तो वग्गी रावलो.

वर्सां फाटल्यान वर्सां धांवतालीं. एकदीस गणपताच्या बापायन गणपताच्या

लग्नाचो विशय काडलो. गणपताक नवीच एक सोयरीक चलून आयिल्ली. बापायन ताका आफोवन हाडून विचाल्लें -

"चली पळोवंक या मरे फाल्यां?"

"म्हाकां इतले बेगीन लग्न जावपाचें ना". गणपतान सडसडीत जाप दिली.

"इतले बेगीन लग्न जावपाचें ना? तुकां लग्न जावचेंच पडटलें."

"पूण म्हजी इत्सा नासताना इतली सक्ती कित्याक म्हूण?"

"बेगीन लग्न जालोना जाल्यार तुजीय गत त्या शंकराभशेन जातली ! वांजुट्टो म्हूण नावां दवरतले मागीर लोक तुकां!"

गणपताक बापायचें उलोवप आयकून शिट्ट जालें. बापायची ताका चड तिडक माल्ली. ताणें बापायक बुद्द शिकोवपाचें थारायलें. लग्न जावपाक ताणें सामकेच कानार हात दवल्ले.

गणपताक लग्न करपाक उपरांत त्याच्या बापायन खूब यत्न केले. पूण गणपतान ताचें कांयच आयकून घेतलेंना. गणपत लग्न जावपाक तयार जायना तें पळोवन तो चड चाळवपाक लागलो. गणपताक गाळी घालपाक लागलो. दर फावटी बापायच्या उलोवपांत शंकराचो उल्लेख आसतालोच. बापायन कितल्योय गाळी माल्ल्यो, उलयलें म्हूण गणपताक कांयच लागनाशिल्लें. पूण शंकरावेल्यान ताका तोमणो माल्लो म्हण्टकीत ताच्या काळजाक लागतालें. ताचें काळीज दुखावतालें. हालींसरा तें शंकराचें झाड म्हळ्यार ताच्या काळजांतलें दुखणें जाल्लें. एकदीस तरी शंकर फुलतलो म्हूण तो जायतो रावलो. पूण शंकरान ताका सामकोच फटयलो. शंकराच्या चिंतनाबगर गणपताचो एकूय दीस वचनाशिल्लो. खऱ्यांनीच एक दुस्मान कसो तो शंकर ताच्या जिवितांत आयलो. शंकराच्या चिंतनांनी एक एक दीस ताका न्हीद पडनासली. मागीर तो सगळी रात तळमळत काडटालो.

एक दीस कसल्यातरी कामाक लागून गणपत खंयतरी पयस गेल्लो. घरा पावपाक ताका बरीच सांज जाल्ली. घराकडेन यो जाल्यार व्हडलो बोवाळ ! घरांत पावल घालतानांच ताका शेंदरेर पातळायल्ली बापायची कूड दिश्टी पडली. अकस्मात ताचो बापूय भायर पडिल्लो. बापायचें मडें पळोवन ताका त्या खिणाक लेगीत शंकराचो उगडास जालो. बापायचे दोळे उक्ते आसताना एक फावट तरी शंकर फुल्ल्यार पुरो अशें गणपत देवाकडेन सदांच मागतालो. पूण ताची ती इत्सा तशीच उल्ली !

आतां शंकर फुल्लो म्हूण काय बापायक दाखोवंक मेळचो ना. सोप्यार बशिल्लेकडेन गणपत येवजितालो. पाडपडिल्ल्यान ताका खूब दुख्ख दिल्लें. गणपतान थारावन दवरिल्लें - ह्या वर्सा जर शंकर फुल्लोना जाल्यार ताका सोमतोच मारून वुडोवप, हे गजालीचो उगडास जायनाफुड्यां घरांत भितर वचून ताणें कुराड हाडली. धारेचेर बोट ओडीत तो सोमतोच आंगणांत आयलो. एकफावट ताणें मळबाचो थाव घेवपी त्या रूखावसल्यान पळयलें. झाड खंयच्यान लकतलें ताचो अदमास घेतलो आनी ताणें शंकराचेर कुराडीचे घाव घालपाक सुरवात केली.

शंकराचें मोव झाड ताणें आठ - धा मिनटांत भूंय भरवण केलें. आकांताचो आवाज जालो. झाडाच्या खाद्यांनी आडवल्ली वाट मेकळी करपाक तो ताळांवसल्यान आयलो. आनी ताका आपूण सपनांत आशिल्ल्याचो भास जालो. शंकराचीं सगळीं ताळकां कुचकुचीत कळ्यांनीं भरिल्लीं...!

# ९

# प्रतिभा

सदांभशेन कथा बरोवंक बसलों. पूण विशयूच येवजना जालो. कितें करचें कांयच समजना जालें. हेवटेन-तेवटेन भितरले भितर चार पासयो मारल्यो. आनी लख्ख करून तकलेंतली लायट पेटली. एकफावट विशय मेळसर! मागीर कथा कशी फुलोवची तें हांव बेस बरें जाणां.

दोळ्यांसामकार आशिल्ली आलमार उक्ती केली आनी एक एक पुस्तक काडून चाळपाक लागलों. प्रतिभा खंय लिपून बसल्या तें सांगपाक जायना. असल्यो तयार प्रतिभाच बरोवप्यांक जायत्या फावटी उपकारा पड्टात. मागीर ते बरय बरय बरयतात. सामके तेंगशेर पावतात. खंयतरी लोक एक व्हडलो सुवाळो घडोवन हाड्टात. बायलेची नदर चुकोवन हांवूय त्या सुवाळ्याक धांव मारतां. मुखार वचून पळय जाल्यार कपलार हात मारपाची पाळी ! वाग ना त्या गावांत कोलो राजा जाता. आनी शेंपडी नाशिल्ले सगळे कोले ताळयो पेट्टात. ही हांसपाची गजाल न्हय ! कांय कोले जल्मभर ताळयोच पेटीत रावतात.

ही आलमार आसा म्हूण बरें ! ना जाल्यार सगळी प्रतिभा वाळटी केन्ना खावन उडयता आशिल्ली, देव जाणां. ते खातीर हांवेन मांवाचे उपकार मानीत तितले उणेच. तुमी म्हणटले, मर्दींच हाणें मांवाचीशी खबर हाडली? आलमारीक लागून ताचो उगडास जालो. दोत दिवपाच्या वगतार ही एकूच आलमार दिवन मांवान म्हाका सासणाचो फटयलो. तुमी म्हणटले चेडूं दिलेंना? चेडूं दिलें पूण ताचो उल्लेख हांगा करप समा जावचेंना.

दर पुस्तकांतल्या विशयांवेल्यान नदर भोंवपाक लागली. लोकांक आवडटा

असो विशय खंयूय दिसता जाल्यार पळोवंक लागलों. खीणभर 'हिप्पी चलयेचेर' बरोवचें अशें दिसलें. पूण ना. तो विशय पयलींच गुळगुळीत जाला. आनी असल्या विशयांचेर बरोवप म्हळ्यार म्हज्या जिवावेलो काळ. असल्या विशयांचेर बरोवंक म्हाकां मनाय आसा. जें कितें बरयतां तें उतरान उतर बायल तपासून पळयता. नाका आशिल्लो वांटो काडून उडयले उपरांतूच तें बरप खंयच्याय नेमाळ्याक धाडपाक मेळटा.

म्हजी बायल म्हळ्यार एक सेन्सॉर बोर्ड. कथांनी बायलांची नांवां लेगीत येवपाक जायनांत. एकाद्रे कथेंत बायलमनशेचें वर्णन आयलें म्हणटकीत सगळ्यांत पयलीं ती म्हजी खबर घेता आनी उपरांतूच कथेंतल्या त्या नाका आशिल्ल्या पात्राक काडून उडयता. निमाणेकडेन ती कथा तशीच धाडून दिवची पड्टा. आपणाल्या कथांनी बायलांचीं रसरशीत वर्णनां करपी बरोवप्यांचो म्हाका दुस्वास दिसता. तांच्यो बायलो सभावान भांगर आसपाक जाय. ना जाल्यार असलें बरोवपाक तांकां धीरूच जावंचो नाशिल्लो. रातदीस बायल हातांत सान्न घेवन घोवाचे फाटल्या-फुडल्यान भोंवतकीत प्रतिभा ताका लागीं रावता?

सट्ट करून म्हजी नदर दुसऱ्या एका विशयाचेर थीर जाली. पूण पाडपडिल्लो होय विशय उपकारचो ना ! एक घोव ऑफिसांतल्यान कामार सावन बरोच उसरां घरा येता. ताची बायल कित्याक वगत जालो कांय विचारपाक हुसक्यान लागसार येता आनी ताच्या शर्टार तिका बायलमनशेचो केस दिसता. कथेंतलो संघर्श. असलो संघर्श म्हजे कथेंत उपकारचोना. "आगे ती कल्पनेतली गजाल. कथेंत बरोवपाक ती थेट घडपाकूच जाय वा घडिल्लीच आसपाक जाय अशें काय ना." पूण ती कशीच आयकून घेवपाची ना. अशी कल्पना मुदलांत करपूच वायट अशें तिचें म्हणणें.

एक फावट कोलव्यां दर्यावेळेर एके सोबीत चलयेची ओडणी वाऱ्यार उडली आनी तिचें जुवानपण उक्तें पडलें. ओडणेफाटल्यान ती धांवता तो देखाव म्हाका पळोवंक मेळ्ळोना. आमगेले हिणें म्हज्या दोळ्यांर पयलींच हात धरलो तो पुराय प्रसंग उलगलेबगर फाटींच काडलोना. पयलीं पयलीं ती म्हाकां एकट्याक खंयूय पातयेताली. त्या दिसासावन तेंय बंद जालें.

विशय सोदून सोदून उबगलों. प्रतिभा आयज म्हजेर रागार जाल्या जातली असो वोगीच दुबाव मारलो. तिका खोशी करपाक सिगरेटिचे दोन झणझणीत झुरके मारचे अशें मनात आयलें. पूण बायलेच्या भंयान वोगीच रावलों. सिगरेटिचो वास

रोकडोच तिचे तकलेक चडटा. मागीर ती म्हजेर तापता आनी सगळें घर माथ्यार घेता. म्हजें सिगरेटिचें पाकीट तिच्या हाताक गावलें जाल्यार ताची आनीक धडगत उरना. सिगरेटिची दर पयलीं खंय पावल्या ? देखून त्या पाकिटाक हांव जिवापरस चड जपतां. रूच येता तेन्ना सुकेच आंवडे गिळटां.

निमाणेकडेन फाटले कुडिच्या जनेलाकडेन आयलों आनी एकासारके जनेलांतल्यान भायर पळयत रावलों. घराफाटल्यान आमचें सोबित पोरसूं आसा त्या पोरसांत चिकू आनी पिकिल्लीं पेरां खावपाक तरेकवार सवणीं येतात. तीं तरेकवार नाचरंग करतात. तरेकवार आवाज काडटात. मदींच एक सवणें कान फोडपी आवाज काडीत पयस उडत वता. म्हजी तंद्री मोड्टा. सगळें पळोवन आनी आयकून तिडक मारता आनी हांव जनेलावेलो पड्डो सर्र्र करून ओडून घेतां.

शारांत रावपी लोक आमचो गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांचो दुस्वास करतात. प्रतिभा सैमाचे सावळेंत रावता असो तांचो भोळो समज. पूण आमचें हांगा उरफाटें घड्टा. आमकां शाराची सामकी ओड. शारांत पावले म्हणटकीत प्रतिभा आमचे फाटल्यान लागता. पूण हें कोणाकूच समजुपाचें नां.

घरांत भितर आयदनांचो गडगड जालो आनी हांवेन कच्च करून आंग काडलें. ह्या गडगडाचो अर्थ तुमकां कोणाकूच कळपाचो ना. पूण म्हाकां बेस बरो कळटा. पावस झडचे पयलीं गडगड मारता तशीच गजाल ही. म्हजेर कसलोय राग काडपाचो आसलो म्हणटकीत म्हजी घरकान्न असो अर्थान भरिल्लो आवाज करता आनी कांय खिणांतूच ती म्हजे सामकार उबी रावता. म्हजेर कसलें संकश्ट येवपाचें आसा ताचो तर्क लेगीत करपाक खिणभर वगत मेळना.

ती भायर आयली. कमरार हात दवरलो. तकली मातशी वांकडी धरली. एकदम तापचे पयलीं ती ल्हव आवाजांत उलयता तशी उलोवपाक लागली -

"तीं गडवंजे वयलीं कॅलेंडरां कोणें हाडल्यांत?"

"नव्या वर्साचीं तीं. पसरकारान दिल्यांत"

"दिल्यांत काय विकतीं हाडल्यांत?"

"देवाच्यान तर दिल्यांत."

"देवाचीं मेळ्ळीनांत. बायलांचींच मेळ्ळी?" ती किळचेली. इतल्यान ती वोगी रावली ना. दोनूय कॅलेंडरां पिंजून तिणें भायर शेंवटून मारलीं.

हिच्यो गजाली सांगता तितल्यो उण्योच. हालींसरा ती खुबूच सुटल्या. म्हळ्यार

मोटी जाल्या. देखून एक दीस तिका हांवेन व्यायाम करपाक सांगलें. मातशें उणें खाल्यार आनी आंग घोळ्ळयार ती मातशी बारीक जावं येताली. पूण तिणें कांयच आयकून घेतलेंना. वेल्यान तिणें म्हाका पिश्यांर काडलो...

"बायलो म्हजेसारक्यो मोट्यो आसपाक जाय. कमराचो मुंडो आशिल्ल्यो किडकिडीत बायलो बऱ्यो दिसतात तुका?"

"ना सायबिणी... तुजेइतली सोबीत बायल खंयच मेळचीना."

मनांत खूब दिसता पूण हिचेमुखार उक्तावपाची माणसुकी ना. जल्मांत आयलां तें कर्मांत चुकलां? खंयच्या जल्माचें हें पातक, म्हाकां कांयच समजना.

ती घरांतल्यान परती भायर आयली आनी पसऱ्यावेल्यान हाडपाच्या सामानाची वळेरी म्हज्या मेजार म्हाका दिश्टी पड्टा अशी दवरून गेली. ही म्हाकां शिटकावणी कशी. नाटक सुरू जावंचेपयलीं तीन फावट घांट वाजयतात, तशी ही पयली घांट.

लग्न जावन धा वर्सां जालीं पूण हिची कूस एकदांय उजवली ना. लोकांलीं भुरगीं दोळ्यांमुखार खेळटात तें पळोवन जिवाक चिट्मिटे पडटात. पूण हिचेफुडें तसलो विशय काडपाची माणसुकी ना. एक दीस मात हांवेन तिका दोतोरागेर वचून तपासून येवपाक सांगलें. जाल्यार हिणें कितें करचें? सगळो दोश म्हजेर थापून मेकळी जाली.

तकली कितली धाडायली पूण कथेचो विशय कसोच सुचना जालो. प्रतिभा म्हजेर इतली कित्याक रागार जाल्या. कांयच समजना जालें. बायलेच्या सॅन्सोर बोर्डाक लागून कल्पनेक वाव दिवपाक मेळना. कल्पना करूंक लागल्यार म्हजी तकली खंय मेरेन पावूं येता हाचो अदमास म्हाकां आसा. पूण येवजून कांयच उपेग ना. कांय खीण येवजिलें आनी म्हजी तकली एकदम बंड करून उठली. हांव दादलो मनीस, बायलेच्या हातांतलें अशें बावलें जावन रावलों जाल्यार कशें जायत? म्हजें सगळेंच जिवीत फुकट वतलें. तिका आतां सारकीच निटायेर हाडप. मेळटा तेन्ना तापप. मदीं केन्नाय एक थापट फुलोवप. मागीर ती रडटली आनी कुळारा वचपाक भायर सरतली. तिका मात्तूय आडावप ना. हांव जाणां ती दोन दिसांवयर थंय कशीच रावची ना. हेवटेन घोवाक आनीक कोणेय रांदून वाडलो जाल्यार? तो तिका हुस्को जातलो ! पूण जांव. दोन तीन दीस म्हाका कल्पेनेक वाव दिवंक मेळटलो. मागीर बरीं रसरशीत वर्णनां करप. दोन दिसांभितर बरयता तितलेंय नेमाळ्यांक धाडून दिवप आनी ती परती येवपाच्या वगतार साव जावन बसप. गळोभर उदकांत

बुडून काश्टी सुकी दाखोवप!

हांवेन तकली सकयल बागयली आनी मेजावेल्या रित्या कागदार नदर पडली. म्हाकां ताची काकूट दिसली. मनांतल्या मनांत ताका सांगलें, पिश्या अशें रागार जांव नाका. योग जुळून येवपाक जाय. तुजो आनी म्हजोय बी. मागीर पळय तुजो भांग कसो पिंजरीन भरतां तें! सात जल्माची सवाशीण करून उडयतां वांगडाच. मातशी वाट पळोवची पडटली. तुज्या ह्या धव्या फटफटीत कपलार म्हाका सुर्याच्या तेजाचो तिबो दिश्टी पडटा. तो वगत पयस ना!

कथा सुचली ना म्हण्टकीत जीव सामकोच पिशान्तुरावरी जाता. कितें करचें कांयच येवजना. मेजार तकली दवरली आनी येवजुपाक लागलों. भुरगेपणांतले दीस दोळ्यांमुखार उबे रावले. पुराय भुरगेपण कितलें खुशालकायेंत गेलें! मागीर तरणेपण. त्या दिसांचो उगडासूच काडल्यार आंगार कांटो उबो रावता. शिळोणी घालून सुकण्यांक भुलोवपाचे दीस ते खिणयाळे जावन उडून वताले. एकदीस नदरेचें हांयस लावन भोपशें फारावपाखातीर गरयता आसताना बापायन जिस्त धरलो. जालें त्या दिसासावन बापायन म्हाकां सोयरिको पळोवपाक कोमेस केलें. कितल्योश्योच सोयरिको आयल्यो आनी गेल्यो. कांय देवाक पटना जाल्यो, कांय सोयरिको म्हजें उणें शिकप पळोवन गेल्यो, कांय बेकारपण पळोवंक जायना जावन गेल्यो. निमाणेकडेन एक मात सामकीच जुळ्ळी. मुदयेर थीक कशी ! आनी ही जगदंबा म्हज्या गळ्यांत पडली.

भितर आयदनांचो परतो गडगड मारलो आनी हांवेन कच्च करून आंग काडलें. हांव जाणां, नाटक सुरू जावंचे पयलीं ज्यो तीन घांटी जातात, तातुंतली ही दुसरी घांट मेजावयली सामानाची वळेरी म्हजी वाट पळयता हाचो उगडास करून दिवपी ही शिटकावणी. म्हाकां तिचो जिस्त अर्थ कळटा म्हूण बरें. ना जाल्यार म्हजी धडगत नाशिल्ली. आतां तिसरी घांट केन्ना जायत, सांगपाक जायना. ताचे पयलींच शिरंगारपाक जाय. तिसरी घांट जाली म्हण्टकीत नाटक कोमेस. पड्डो वयर सरपाक खिणाचोय कळाव लागना.

पाड पडूं ! एकफावट मनशाचें पावल घसरलें म्हण्टकीत कांयच उपेग ना. मनीस खंय शेंवटत तें सांगपाक जायना. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार म्हजेंय पावल नाका थंय घसरलें. लग्नाची ताकतीक करूंक नाशिल्ली जाल्यार आनीक दोन पावसाळे मजेंत वतले आशिल्ले. घडये ही जगदंबाय चुकत आशिल्ली. व्हड कथाकार

जांव येतालें. नामना मेळटा आशिल्ली. नशिबान फावोर केल्यार वाग ना त्या गांवांत कोलो राजा जावं येतालो. मागीर लोक म्हजोय सुवाळो घडोवन हाडटा आशिल्ले. पिरायेचो हिशोब नाशिल्ल्यान मनाक मारता तेन्ना 'साठी समारंभ' घडोवन हाडूं येतालो. पूण म्हजें गणीत मुदलांतूच चुकलें !

भितरल्यान हिणें सान्निची गची आंवुळ्ळी तो आवाज म्हज्या कानार पडलो. सान्निची अशी आडवेळार गची आंवुळ्ळी म्हण्टकीत हांवेन समजुपाचें. नाटक सुरू जांवचे पयलींची ही तिसरी आनी निमणी घांट. मागीर म्हजी गत पळोवपाची आसना. सामकार माजराक पळोवन हुंदराची जशी गत जाता, तशीच म्हजी जाता. पांयांत व्हाणो घालपाचीय उसरपत मेळना. जाता तितले ताकतिकेन मेळत ती पोती घेतां, सामानाची वळेरी हातांत आवळून धरतां आनी बद्द पसऱ्यार वचून जीव घालून घेतां.

मेजावेल्या कागदाचें कपल रितेंच उरता !

## १०

# दादा

नरेशाचो रेकाद आयलो तेन्नासावन आवडूच्या पोटांत कांपरें भरिल्लें. कितें करचें आनी कितें ना, ताका कांयच येवजनाशिल्लें. ताचो जीव सामको वयर सकयल जातालो. चिंतून -चिंतून ताची तकली विरार जावपाकडेन पाविल्ली. खिणभर ताचे तकलेंत वेगळोच विचार आयलो. पुताक घेवन खंयूय पयस पळून वचप ! पूण खंय वतली? कोण लागीं धरतोलो आमकां? पूण तशी पळून गेली म्हणून तरी सुटपाची आस्त आसा? सगळेंच येवजून आवडून तो विचार थंयच सोडून दिलो. कितें तरी करपाक जाय ! पूण कितें करतली ? कांयच तकलेंत येना.

आवडू एके वटेन येवजितालें आनी दुसरे वटेन कसली कसली तयारी करतालें. आवडून चिंतलें, जिस्त नरेश येवपाच्या वगतार गजाक, आपणाल्या पुताक लिपोवन दवरप. धारेची कोयती घेवन दारार बसप ! आंगांत रगताचो निमाणो थेंब आसासर नरेशाक पुताक हात लावंक दिवचें ना म्हळ्यार ना ! सगल्या गांवाचेर शेक गाजोवपी नरेशाक बुद्द शिकयतलें... म्हळ्यार शिकयतलें ! खिणभर ताचें रगत तापलें. दोळ्यांत इंगळे पेटले...! पूण भंयान आंगार कांटो उबो राविल्लो. कितलीय जाल्यार बायलमनीस ती !

अकस्मात आडवेळो पावस येवंचो तशें आवडूचेर संकश्ट धांवून आयिल्लें. रातीकडेन पेजेक घालपाक

तें चौखेर बसून तांदूळ वेंचतालें. गजो खंय तरी हेडपाक गेल्लो तो निकतोच येवन भितर आड पडिल्लो. इतलें म्हणसर ओमलो येता तो ताका दिश्टी पडलो. ओमलो तागेर केन्ना येवपी न्हय. दारांत ओमल्याक पळोवन आवडूल्या कपलाक

मिरयो पडल्यो. ताणें तांदूळ एकठांय केले आनी तें झुप्प करून जमनीवयलें उठून उबें रावलें. ओमल्यानूच ताका हटकिलें

"कशी आसा गे मावशे?"

"आयज वाट चुकलो काय कितें रे तूं? यो बस!"

"ना बसपाक येवंना. तुमचेर एक संकश्ट आयलां"

"संकश्ट? कसलें संकश्ट?"

"नरेशान रेकाद धाडला...!" नरेशाचे नांव आयकून आवडूक कच्च जालें.

"कसलो रेकाद?"

"तो रातच्या आठ वरांचेर तुमगेर येवपाचो आसा खंय. गजान खंय ताज्यो खबरो केल्यो!"

"आनी तूं ताजीं चमचेपणां करपाक आयला?" आवडूक ओमल्याची तिडक मारली.

"म्हजेर रागार जांव नाका मावशे! तांचें आयकलेंना जाल्यार तो वांगडाच हाडां खिळंखिळीं करीत म्हणून भंय दिसता."

"तुमीं सगल्यांनी ताका भियेवन मातोवन दवरला... देखुनूच ताका मद मारला. जीव तरी दियात खंयूय वचून सगले!"

"तिडकीक सामको वायट तो! गजाक खंयूय लिपोवन दवर! ना जाल्यार तो कितें करीत सांगपाक जायना! येतां हांव."

ओमलो आयिल्ले वाटेन परतो गेलो. आवडूचेर सामको आकांत आयलो. भितर सुस्त न्हिंदिल्ल्या गजाक ताणें हालोवन उठयलो. गांवार हेडपाक वता म्हणून ताका सणसणीत चार गाळी मारल्यो. ओमल्यान दिल्लो रेकाद ताणें गजाच्या कानार घालो. नरेशाचें नांव आयकून आवडूची जाल्ली तीच गत गजाची जाल्ली. नरेशाचें नांव आयकून तो त..त प..प करपाक लागलो. नरेशाचे वाटेक गेलो म्हणून आवडून ताका सामको तापोवन काडलो. पूण आपूण नरेशाचे वाटेक वचूंक ना म्हणून गजान सामकेच कानार हात दवरले. आवडून चिंतलें गजाकडेन वाद घालून आतां कांयच उपेग ना.

गजो आवडूलो एकलोच अपुर्बायेचो पूत. गजो जल्माक येवन आठ म्हयन्यांनी आवडूचो घोव माडावयल्यान पडून भायर पडिल्लो. फकत गजाक लागून आवडून सगलें दुख्ख मोन्यानी सोंसलें. दिसवड्याचें काम करून ताणें गजाक ल्हानाचो व्हड

केलो. शाळेंत धाडलो. पूण सगलें आयतें मेळून लेगीत गजाकडेन बरें शिकपाक जालेंना. आठवेक नापास जातकच ताणें इस्कोल सोडलें आनी वांगडच्या भुरग्यांवांगडा तो भोंवपाक लागलो. सुरवातेक गजो ल्हान आसा म्हणून आवडू ओग्गी रावलें. पूण हालींसरा उलोवन उलोवन तें गजाक वावराक धाडटालें.

तीनसांज जातकच आवडून गजाक बेगिनूच वाडलो आनी माळ्यार वचून लिपून बसपाक सांगलें. नरेश म्हळ्यार सामको राकेस कसो! तिडकीक सामको वायट. आठ-धा मानांयांक तो आटापाक येना. थंय गजो आनी आवडूचीं शाणेपणां खपतात? पाडपडिल्ल्यान जिस्त नाका ताचे शेंपडेर पांय दवरिल्लो.

गजो माळ्यार वचून बसतकच आवडून दाराक भायल्यान खिळी घाली आनी चावी केली. आनी भितल्यान घट आडांबो घालो. भायल्या दाराक तेंकुनूच ताणें आपणाली शेंदरी पातळायली आनी कोयती उश्याकडेन घेवन तें थंयच आड पडलें.

आवडूक बेसबरें खबर आसा. नरेश लिपचोरयां आनी घाळक्यां केन्नाच कोणाचो घात घेना. आयज रेकाद धाडला म्हण्टकच तो आयल्याबगर कसोच रावचोना. नरेश म्हळ्यार सोरोप कसो. जो कोण ताचे वाटेक वता ताचो तो डंख धरता आनी जिस्त घात घेता. अख्खो गांव ताका भियेता. सगल्या गांवाचेर तो शेक गाजयता. ताचेमुखार कोणाचींच शाणेपणां खपनांत. ताका हतयाचें बळ आसा. ताजो आंगलोट लेगीत हतयाभशेनूच. अख्खी बाटलीभर काजूची फेणी पिलो म्हण्टकच ताजें बळ दुप्पेट जाता.

ह्या गांवांत पांच-स हजार लोक आसात पूण नरेशाचें नांव घेवपाची हिंमत कोणाकूच ना. नरेश आपणाले दादागिरीचेर पोट भरता. केन्नाच ताका पयशांची गरज लागली जाल्यार तो कोणाचेय गचेक धरून पयशे काडून घेता आनी गरज भागयता. ताचेमुखार जो मान बागयना ताका तो एकाच थापटान जमीन दाखयता. इतलीं वर्सां जालीं गांवांत ताची दादागिरी चालू आसा. पूण कोणूच ताजे आड उतर काडिना. पुलिशेंत कागाळ करपाचें लेगीत कोणाक धाडस जायना. पुलीस लेगीत ताका थर्त भियेतात. एकेच फावटी पुलीस ताचे वाटेक गेल्ले. तेन्ना ताणे तांकां सगल्यांक उदक दाखोवन परते वाटेक लायिल्ले.

राजकारणी लोक नरेशाचो बरे तरेन उपेग करून घेतात. लोकांक धमक्यो दिवन मतां घेवपाक नरेशाचो पयलो नंबर. देखुनूच मतदानाच्या वगतार ताका खूब मोल येता. जो कोण ताजेमुखार चड पयशे ओतता ताजेवसल्यान नरेश ओडटा.

कोणाक मतां दिवपाचीं तें नरेश मागीर गांवभर भोंवून फर्मायता. नरेशाचेर गांवभर सगल्याच लोकांचो राग आसा. सगळेच जाण ताजी माती जावपाची वाट पळयतात. पूण ही गजाल एकामेकांक सांगपाचो धीर कोणाकूच जायना.

नरेश आवडूचे वाटेक केन्नाच वचूंक ना. पूण आवडूक तांचो थर्त भंय दिसता. नरेश म्हळ्यार रावणाचोच अवतार अशें तें मानता. नरेशाक इतलें बळ कोणें दिलें हें एक कुवाडेंच म्हणपाक जाय. तो वाटेन चलत वता आसतना ताजे नदरेक नदर दिवपाची शक्त कोणाकूच ना. नरेशाक आपणाक आशिल्ले शक्तीचेर खूप गर्व आसा. लोक आपणाक भियेतात तें पळोवन मिश्यांतल्या मिश्यांत हांसता.

नरेश आजून मेरेन आंकवार आसा. ताजो रावणाचो अवतार पळोवंन ताका चली दिवपाक कोणूच तयार जांयनात. तरीय तो आपणाक सोयरिको पळोवंक लोकांक फर्मायता. एक फावट वाड्यावेल्या शेंवतून ताची सोयरीक मोडली अशें कोणेंतरी ताज्या कानार घातलें. आनी नरेश रागान सामको तांबडो जालो. त्याच दिसा रातीकडेन तो शेंवतूगेर गेलो. शेंवतूचें निकतेंच लग्न जाल्लें. ताणे शेंवतूच्या घोवाचे हात आनी पांय चरचरून बांदले आनी ताचे हुजीर शेंवतूचेर आगळीक केली. आपणाक वांचयात म्हणून शेंवतू व्हडल्यान हुयेली मारतालें. पूण त्या दिसा नरेशाच्या भयांन आपणालें दार काडून एकलोय शेंवतूक वाटावपाक धांवलोना.

रात वाडत गेली तसो आवडूक चडच भंय दिसपाक लागलो. आकांताक कितल्योय बोबो मारल्यो म्हणून कोणूच धांवून येवपाचो ना हाजी ताका बेस बरी खबर आसा. दोळ्यांचीं पातीं मात्तूय हालयनासताना काळखांतूच आवडू दारावसल्यान पळयतालें. नरेशान भायल्यान उलो माल्लो जाल्यार सट्ट करून दार उगडलेबगर उपाय नाशिल्लो. असलीं दारां मोडप म्हळ्यार ताका कांयच न्हय. ताणें असलीं दारां बेश्टींच धुकल्ली जाल्यार लेगीत ताजे मोडून कुडके जातले. व्हडलीशी गर्मी नासतना लेगीत आवडूक भंयान चरचरीत घाम सुटिल्लो. मातसो कसलोय आवाज आयलोसो दिसलो म्हण्टकच ताज्या काळजांत कच्च जातालें. लागींच आशिल्ल्या आंब्याक लागिल्लीं पिकिल्लीं घोंटां पडटालीं. तो आवाज आयकून लागींचीं सुणीं भोंकतालीं. व्हड रात जायत आयली. पूण आवडूक मातूय झेम आयलींना.

फांतोड जायत आयली पूण नरेश आयलोना. आवडूक अजाप जालें. ताणें मनांतल्या मनांत देवाक हात जोडले. आवडूचे दोळे न्हिदेन सामके जड जाल्ले. पूण ताका न्हीद येनाशिल्ली. मदींच ताका मातशी झापडीशी लागली आनी तें सपनेलें.

सपनांत ताका नरेश दिश्टी पडलो. तांबडेगूंज दोळे करून तो ओमल्याचे फाटीक लागिल्लो. ओमलो मुखार धांवतालो आनी नरेश ताजे फाटल्यान राकेस कसो ताका खावपाक धांवतालो. ओमलो खंयच्याय खिणाक नरेशाच्या हातांत सापडूं येतालो. तो सामको खर्शेल्लो. आवडूशें कवड्याचो पोर कसो कडकडत पळयता. ओमलो नरेशाच्या हाताक मेळना जाल्यार पुरो अशें तें मनांतले मनांत म्हणटालें. पूण तशें जालेंना. नरेशान ओमल्याक चपक्यान धरलो. ताका गिरगिरें कसो घुंवडावन उरफाटो केलो. उपरांत ताणें ताज्या दोनूय पांयांक धरून ताका उबोच पेंचलो. रगताचे व्हाळ व्हांवले आनी आवडून मोट्ट्यान किळांच मारली. तें जागें जालें. घामान शेंदरी आनी उशें भिजिल्लें. ताणें भायल्यान जाग घेतली. कोणाचीच जाग नाशिल्ली. भोंवतणचे कोंबे मात मोट्यामोट्यान साद घालताले.

केन्ना एक फावट रात सोंपल्यार पुरो अशें आवडूक जाल्लें. गजाचो ताका खूब हुस्को दिसतालो. दीस जालो म्हण्टकच गजाचो पांय घरांत कसोच उरचोना हाचीय आवडूक खबर आशिल्ली. तरीय दोन दीस तरी गजाक कसोच भायर सरपाक दिवप ना अशें आवडून थारायल्लें.

सकाळ जाली आनी भियेत - भियेत आवडून दार उकतें केलें. नरेश आयलो ना! रातीच्या जागरणान ताजे दोळे सामके जड जाल्ले. भितल्ल्या दाराची चावी काडून ताणें गजाची खबर घेतली. ताका लेगीत रातभर न्हीद पडूंक नाशिल्ली. आपलेभशेन गजो लेगीत थर्त भियेला हेविशीं आवडूक दुबाव उरलोना.

आंगणांत सान्न मारता, च्या पिवन जाता म्हणसर णव वरां जालीं. आवडून पडवेर बसून केंस सोडयले. चार दीस खंयूय गजाक घेवन सोयऱ्यांगेर रावल्यार बरें अशें ताका दिसपाक लागलें. पूण नरेशाक वास लागपाक जायनां. ना जाल्यार आमकां लागून सोयऱ्यांकूय त्रास!

"आयज कामाक गेली ना गे?" कमळ्यान आवडूक हटकिलें आनी ताजें चिंतप थारलें.

"ना, आयज घराच आसा" कितें तरी जाप दिवंक जाय म्हणून आवडून सांगलें.

"तुमकां खबर कळ्ळी?"

"कसली?"

"काल तीनसांजे नरेशाचो पडून पांय मोडलो...हाड मोडलां खंय" - कमळ्यान

ल्हव आवाजांन सांगलें.

आवडूक सूऽऽ जालें. ताणें सुटकेचो स्वास सोडलो.

"कसो पडलो गो तो?"

"आमलेचें घोंट खावन काथो कोणे तरी रस्त्यार उडयल्लो. ताजेर निसरून पडलो. देवानूच भोगयलें ताका तें"

रातीकडेन नरेश कित्याक आयलो ना तें आवडूक आतां होलमलें आनी ताणें मनांतले मनांत देवाक हात जोडले.

# ११

# काळजांतलें

"ती खबर तुका केन्नाय तरी सांगतां."

"कित्याक असो म्हजो अंत पळयता?"

"तें एक वादळ.... काळजांतलें !" - अशें सांगून अरूण म्हजी उत्सुकताय चड वाडयतालो आनी आपूण सुशेगाद सिगरेट ओडीत धुंवराच्यो मुदयो सोडटालो. त्या धुंवरांत कोणाचें तरी पडबिंब दिश्टी पडटा अशे नदरेन तो धुंवर वरांची - वरां पळयत बसतालो. आनी हांव ताच्या 'काळजांतल्या वादळाच' तरेकवार तर्क काडटालों.

"ती खबर तुका केन्नाय तरी सांगतां" अशें सांगून .... सांगून अरूणान म्हाका सासणाचो फटयलो. ती खबर आतां म्हाका केन्नाच कळपाची ना. काल ताणें आपल्या आंगाक उजो लावन आत्मघात करून घेतलो. येवजुनूच मन सुन्न जाता... काळजाक घाय घालपी प्रसंग!

अरूण मनींस भांगर आसलो दोन-तीन म्हयन्यांपयलींच म्हजी आनी ताची वळख जाल्ली. सगळ्याक सोदून सोदून ताच्या रूमाचे कुशीकूच म्हाका रूम मेळ्ळो. दोन दिसांभितरूच अरूणान म्हजेवांगडा वळख केली. इश्टागत वाडयली. जितो मूस वळखीचो ना थंय अरूणाचो म्हाका व्हड आधार दिसपाक लागलो.

दीसभर ऑफिसांत काम करून सांजवेळार रूमार येतकीच अरूण म्हजेवांगडा वरांची वरां उलयत बसतालो. ताच्या सगळ्याच उलोवपाचो अर्थ म्हाका कळटालोच अशें ना. कित्याक तर ताचें चडशें सगळेंच उलोवप प्रतिकांतल्यांनूच आसतालें. ताच्या सगळ्याच उलोवपाक दुखेस्त सूर आसा अशें म्हाका भौन - भौन दिसतालें. अरूण म्हणटालो "खूब सोसलें रे हांवे... खूब अणभवलें. आतां दोळ्यांमुखार

फक्कत एकूच वाट दिसता... केन्नाय दिसता त्या ल्हारांचेर बसून पयस... पयस वचचें... धर्तरी आनी मळब हांचेमदलें अंतर पळोवचें... उज्याची खरसाण एक फावट तरी अणभवची..." हें उलयता आसतानाच तो बोल्सांतल्यान सिगार काडटालो, लायटरान पेटयतालो आनी एकसारको धुंवर पळयत बसतालो.

ताचे कडल्यान ताची खरी खबर काडून घेवपाचो हांवें जायतो यत्न केलो - "अरूण, तुजें कितें घडलां तें म्हाका सांग ! काळजांतलें दुसऱ्यांक सांगतकीच दुख्ख उणें जाता. ना जाल्यार भितरले - भितर फुगार जावन तें वाडटा. तुजें कसलें तरी दुख्ख तूं म्हाका लिपयता."

"हय ! तुका तें केन्नाय तरी सांगपाक जाय. काळजांतलें वादळ तें!"

दर घडयेक तो इतलेंच सांगतालो आनी म्हजी उत्सुकताय तेंगशेर पावताली.

अरूणाबगर म्हज्या शेजराक वळखीचो आनीक कोणूच नाशिल्लो. दोन म्हयन्यांभितर कितलीशी जातली वळख? तरीय अरूणान बळयां वळख करूंक नाशिल्ली जाल्यार ती लेगीत जावप कठीण आशिल्लें. म्हज्या सभावाच्यो मर्यादा म्हाका बेसबऱ्यो खबर आसात. कांय शेजारी तोंडाक पळोवन हांसताले इतलेंच. खरी वळख जावपाची आशिल्ली.

एका आयताराक अरूणान म्हाका फोर्सान भोंवपाक व्हेलो. कामाक बांदून उरिल्ल्यान भोंवपाचो उगडासूच उरंनाशिल्लो. मात्सो मेकळो वगत मेळटा तेन्ना कपडे उमळपाचे आसताले. मात्सो चड वगत मेळ्ळो जाल्यार एकाद्री कादंबरी वाचून काडटालों. थोडे दीस एकलेपण खावपाक आयलें. पूण अरूणावांगडा वळख वाडली आनी सगळ्याचीच सवंय जाली.

"तुका भोंवपाक आवडना?" अरूणान म्हाका विचारलें.

"आवडटा...पूण वगतूच मेळना."

"वगत आपशींच मेळटा?... बळयां काडचो पडटा तो." अशें म्हणून ताणें म्हजो हात धरलो.

मिरामारचे वेळेर वचून आमी बसले. खिणाभितर अरूणान आपली नदर दर्यांत रोमली. आपली तंद्री तुटूंक दिनासतना तो उलोवंक लागलो-

"हो दर्या कितलो पयस मेरेन पातळ्ळा जाणा तूं?".

"ना....!"

"खोलायेचो तरी अदमास आसा?"

"म्हाका कशी कळटली खोलाय?"

"कळपाकूंच जाय. ना जाल्यार मनशाचो उपेग कितें?" हें ताणें म्हाका म्हळें.... काय आपणाकूच म्हणून घेतलें? तो आनीक कितें उलयता तें आयकुपाक रावतालो. पूण रोखडेंच ताणें बोल्सातल्यांन सिगार काडलें आनी लायटर पेटयलें.

आयज ती खबर विचारपाक बरी संद आशिल्ली. अरूण बरोच रंगार आयला तें पळोवन हांवें ताका विचारलें-

"अरूण, ती खबर म्हाका केन्ना सांगतलो?" अशें विचारिनाफुडें खिणांत तो गंभीर जालो.

"तुका कविता आवड्टात?" ताणें विशय बदललो.

"हय आवड्टात. हांव फक्कत त्यो वाचतां. अर्थ समजून घेवपाचे भानगडींत पडना."

"अर्थ समजून घेवपाचे भानगडींत खंयचो - कवितांक अर्थूच आसना."

"मागीर त्यो रचप कित्याक तर?"

"खरो कवी कविता केन्नाच रचिना. ताका ती आपशींच येता."

"हांवेन अशेंच आयकलां...."

"आनी कवी जी कविता बरयता ती दुसऱ्याक वाचपाक न्हय. ती खासा ताचेच खातीर आसता."

खिणभर ताच्या उलोवपाचो म्हाका दुबाव मारलो. ताच्या ह्या उलोवपांत कितेंय अर्थ बी दडूंक ना मूं? खिणभर चिंतलें. पूण म्हज्या तर्काचे गरयेक कांयच लागलें ना.

दनपारचो वारो मारपाक लागलो आनी दर्याचो गाज वाडलो. उपरांत दर्या कवी जालो आनी गाज कविता जाली. धुंवराच्यो मुदयो कुपांत भरसुपाक लागल्यो. त्या दिसा हांवें बळयां अरूणाची तंद्री मोडली आनी आमी दोगूय रूमार आयले.

हरशीं अरूण सभावान खूब बरो आसलो. ताच्या बऱ्या सभावाच्यो कितल्यो म्हूण देखी दितलो? एका म्हयन्या फाटली गजाल. म्हयन्याचो पगार मेळचेपयलींच घराकडल्यान भावाचें पत्र आयलें. कॉलेजीची फी भरपाक ताका पयशांची गरज आशिल्ली. म्हजेर मोटो आकांत आयलो. कितें करचें कांयच समजना जालें. पयशें मागपाइतली वळख कोणाकडेनूच जावंक नाशिल्ली. सांजवेळार अरूणान म्हजी मनस्थिती जिस्त पारखिली.

"आयज तूं कितें तरी येवजिता." अरूणान तशें म्हणटकीच म्हजी अडचण हांवें ताच्या कानार घातली. तेन्ना ताणें फाटीं-फुडें पळयनासतना पांचशीं रूपया काडून म्हज्या हातार दवरले. ताचे उपकार कशे मानचे तें म्हाका येवजना जालें. अरूणाचो एक-एक उगडास काडटा तितलो उणोच. आंग सामकें शिरशिरता...!

आतां म्हाका दिसपाक लागलां.... हांवेंच चुकयलें तें. ताची फाट घेवन हांवें ताचे फाटीक लागपाचें, सांगले बगर रावचो नाशिल्लो तो ! आतां खूब दिसता.... पूण कोणाक खबर आशिल्ली तो थोड्याच दिसांचो सांगाती म्हूण? ताची घरची खबर हांवें केन्नाच विचारलीना. ताचो नामोय केन्ना विचारलोना. म्हाका त्या गजालीची गरजूच नाशिल्ली. पूण ती खबर मात आयकूपाची खूब उत्सुकताय आशिल्ली. हालींसरा म्हजें मन ऑफिसांतल्या कामांत लेगीत लागनाशिल्लें. दोळ्यांसामकार उबे रावताले तें 'काळजांतल्या वादळाचे' तर्क.

अरूणाच्या मरणान म्हाका वायट खूब दिसलां.... पूण तितलें दुख्ख जावंक ना. ताणें म्हाका ताच्या काळजांतलें सांगिल्लें जाल्यार... घडये हांव ताचें दुख्ख उणें करपाचो यत्न करता आशिल्लों. खंत दिसता ती 'काळजांतलें वादळ' आयकूंक मेळ्ळेंना हाची!

पूण पिसो तो!.... ल्हारांचेर बसून पयस पयस वचपाची इत्सा... उज्याची खरसाण पारखुपाची इत्सा ताणें भागयली. म्हजी उत्सुकताय मात ताणें तशीच दवरली.

एका काळजांतलें वादळ उज्याचे भकीक पडलें.... दुसऱ्या काळजांतलें वादळ इल्लें....इल्लें खर जाता!

# १२

# साडी

"आयकलां?"

"कितें?"

"कुंदाक लग्न खंय पंदरा तारखेक."

कोणाचेंय लग्न म्हण्टकीच म्हाकां कच्च जाता. कितलो खर्च येत कांयच सांगपाक जायना. बोल्साक मागीर सामकीच कातर पडटा. केन्ना - केन्नाय बोल्साचेरूय भागना. मागीर लोकांमुखार हात करचो पडटा. रेड्या पाड्यांचें झूज आनी झाडांचेर काळ तशी म्हजी गत जाता. पाडपडिल्लीं पावलाकणकणी सगलींच सोयरीं. वर्सांतल्यांन वीस तीस लग्नांक चुकनासताना हाजिरी लावची पडटा. खंयच्याय लग्नाक गेलो म्हणटकीच फकत अहेराचेर भागना. व्हंकले - न्हवऱ्या वांगडा बायल भुरग्यांचीय मर्जी सांबाळची पडटा.

"कोण कुंदा?" - एकूय कुंदा म्हजे तकलेंत आयलेंना. देखून विचारचें पडलें.

"कुंदा आनीक कोण! म्हजे मावशेचें चेडूं."

"जांव बाबड्याचें .. बरें जालें."

लग्नाची खबर सोंपली अशें समजून हांवें अर्दकुटी उरिल्ली कादंबरी वाचपाक भायर काडली. ऑफीसांत सामकोच बांदून उरतां. कांयच वाचपाक वगत मेळना. वाचपाची खूब उमेद देखून दोन दीस एकाद्रें पुस्तक हातांत आयलेंना जाल्यार कितें तरी चुकिल्लेभशेन दिसता. कादंबरेंतल्या नव्या प्रसंगांत गुल्ल आसतना ही हातांत भज्यांची प्लेट आनी च्या घेवन भायर आयली. भजीं म्हाकां खूब आवडटात. पूण आडवेळार अशीं भजीं पळोवन म्हाका परतें कच्च जालें. म्हाका फुसलावपाखातीर

ही भज्यांचें अस्त्र भायर काडटा तें म्हाका खबर आसा.

"आवयस! भजीं? आयज कसली नवीदाद?" -अशें विचारतकीच ती मातशी लजली.

"फाल्यां सुटी न्हय तुमकां?"

"हय! बरो सगल्या तेंपाचो सुसेग घेवप!"

"फाल्यां बाजारांत या?"

"बाजारांत कित्याक?"

"कुंदाच्या लग्नाक म्हाका नवी साडी नाका?"

"नवी साडी? कितल्योशोच आसात न्हय तुज्यो?"

"तुमकां कळपाचें ना तें..."

"बरें तर...!"

साडी हाडपाची हांवें तयारी दाखयतकीच ती सामकी खोशी जाली. सगलीं कामां तिणें उपरांत मात्तूय वाजेनासतनां केलीं. भुरग्यांचेर ती मात्तूय तापलिना. धाकल्यान तांबयोभर उदक हॉलांत हाडून रकयलें. पूण नशीब बाबड्याचें. तिणें तें उदक ताचेर एकूय थापट लायनासतना पुसून काडलें. वावर करता आसतनाचें तिचें गुणगुणप म्हज्या कानार पडटालें. आयदनांचो आवाज लेगीत संगिताच्या सुरांभाशेन गोड दिसतालो.

रातभर हिच्या दोळ्याक दोळो लागलो काय कितें तें खबर ना. पूण हांव जागो जालों तेन्ना हिणें सगलीं कामां सोंपोवन बाजारांत वचपाची तयारी केल्ली. हांवेंय मागीर वगत केलोना. जाता तितले ताकतिकेन सगली तयारी केली आनी भायर सरलें.

ही खोशी आसली म्हणटकीच म्हज्या जिवाक खूब सुशेग मेळटा. म्हजेवयलीं कांय कामांय चुकतात. भुरग्यांकूय मातशे मेकळेपणान नाचपाक आनी लोळपाक मेळटा. जायतीं मस्तेपणां करपाक मेळटात. भुरगेपण हें मस्ती करपाखातीर आनी नाचपाखातिरूच आसता अशें म्हाका दिसता. पूण हांवें कितलेंय सांगल्यार ही आयकून घेना. भुरग्यांक सामकेच शिस्तीर दवरता. आनी तेय बाबडे 'बिलू' जावन बसून रावतात. पूण ही खोशी आसली म्हणटकीच तांकां ज्युस्त वळखुपाक येता आनी ते शिस्तीचें दावें फट्ट करून तोडटात.

"खंयच्या दुकानार या?" बाजारांत पावतकीत तिणें म्हजेवसल्यान पळोवन विचारलें.

"तुका जाय थंय या" अशें म्हणटकीच ती आनीक मात्शी मुडांत आयली आनी चलपाक लागली. ती वता तेवटेन तिजे फाटोफाट हांवूय चलपाक लागलों. निमाणेकडेन ती एका बऱ्याश्या पॉश दुकानांत भितर सरली. हांवूय भितर सरलों आनी तिचेकुशीन उबो रावलों.

"साडयो दाखय" तिणें ओर्द सोडली.

बरें पेझाद गिरायक समजून दोग - तिगां जाणांनी येवन आमचे मुखार साड्यांचे भांडार उकतें केलें. एका फाटल्यान एक अशो तरेकवार साड्यो काडून तांणी आमचेवसल्यान शेंवटिल्यो. साबार रंगाच्यो आनी साबार तरांच्यो साड्यो पळोवन ही खूब खोशी जाली. दर एक साडी ती हात लावन आनी सोडोवन पळोवपाक लागली. तिजेमुखार साडयांचो आकांताचो दाळ तयार जालो. मदींच तिणें एक साडी उखल्ली आनी तिजो पदर आपल्या खांदार उडयलो.

"कशी दिसता?" तिणें म्हजेवसल्यान पळोवन विचारलें.

"सुंदर!" तिका ती साडी मानल्या अशें समजून हांवें म्हळें. पूण खिणाभितर तिणें ती साडी कुशीक दवरली आनी दुसऱ्यो साडयो पळोवपाक लागली. तांचो साडयो दाखोवपाचो सपाटो चालू आशिल्लो. इतलो व्हडलो साड्यांचो दाळ म्हळ्यार तांचो स्टॉक सोंपत आयला आसतलो. उबो रावून पांय वळ्ळे. कुशीक आशिल्लें स्टूल हांवें ओडून काडलें आनी ताजेर बसलों. घड्याळीचेर नदर मारली. आवयस! कितलोसोच वगत उलगलो. हिका अजून एकूय साडी मानूं ना? तिणें परतें म्हजेवसल्यान पळयलें. सेर्त, साडी मानल्या आसतली. म्हज्या जिवाक सूऽऽ जालें. हांव उठून उबो रावलो.

"या आमी?"

"कितें? साडी घेना?"

"हांगा बऱ्यो नात. दुसरेकडेन घेवया."

अशें म्हणून ती दुकानांतल्यान भायर सरली. तिजे फाटोफाट हांवूय भायर सरलों. गल्ल्यार बशिल्लो दुकानाचो मालक निर्शेवन आमकांच पळयतालो.

रोखडीच ती दुसऱ्या एका दुकानांत भितर सरली. तिजे फाटोफाट हांवूय भितर सरलों. तशेंच पॉश दुकान. साडयो दाखोवपाची ओर्द सोडिनाफुडें साड्यांचो व्हडलो दाळ आमचेमुखार येवन पडलो. तसल्योच साडयो. तरेकवार रंग. म्हाका ह्यो सगल्योच साडयो मानतात. एकलो साडी घेवपाक आयिल्लो जाल्यार पांच मिनटांभितर साडी घेवन भायर सरतलों आशिल्लों. पूण बायलांमुखार दादल्यांचीं शाणेपणां

खपनांत. तांकां कितें आवडटा आनी कितें ना तें तांकांच खबर!

हिणें परती एक साडी उखल्ली आनी पदर आंगावयल्यान सोडलो.

"कशी दिसता?" तिणें म्हजेवसल्यान पळोवन विचारलें.

"सुंदर!" हिका मानवली जाल्यार कटकट गेली अशें येवजून साडी सारकी पळयनासतनां हांवें म्हळें.

"कितले दिवपाचे?" तिणेंच विचारलें.

"पांचशें रूपया." ताणें दर सांगनाफुडें हांवें बोल्सांत हात घालो.

"साडेचारशांक दिना?" ही वांटपण करपाक लागली.

"व्हर." गल्ल्यार बशिल्ल्या मोटेल्या पोटाच्या मनशान आपणालें तोंड उकतें केलें. हिणे साडी परती उखल्ली आनी आरती परती घुवडांवन पळोवंक लागली.

"बरी आसा गे ती व्हर तूं. मानली ना जाल्यार परती हाड." आमकां वाटेक लावपाक तांणी हो युक्तीवाद केलो आसतलो हातूंत इल्लोय दुबाव ना. निमाणेकडेन हिणें साडी पसंत केली आनी दुसरे वटेन हांवे बोल्साक कातर लायली.

एके साडयेन आमचो अख्खो आदेस काबार केलो. पूण तोंडान तशें म्हणपाचें नासता. ही मागीर बेश्टेंच तोंड वाकडें करता. ते खातीर तोंडाक कुलप लावन हांव ओगीच रावतां. घरा येता आसतना हिणें घरा पावतासर म्हाका परतें - परतें विचारलें "आवडली मूं तुमकां साडी?"

"आवडली तर! खूब बरी आसा. तुका आवडली ना?"

"हांवेच सिलॅक्ट केल्या मूं !"

दनपारां जेवले उपरांत हांव मातसो आड पडलों. कामाच्या दिसांनीं मात लेगीत सुसेग घेवपाक मेळना. देखून मदीं एक दीस सुटी आसता तेन्ना बरो सुसेग घेवपाक मेळटा. रोखडोच म्हजो दोळो लागलो. दुसरे वटेन हिणें नवी साडी हाडल्या ताजो वांस सगल्या शेजारच्या बायलांक लागलो. कितल्यो जाणी येवन साडी पळोवन गेल्यो ताचो हिशोब ना.

तीन - साडेतीन वरांचेर हांव जागो जालों. हिणें कडकडीत बरी च्या करून हाडली. सकाळच्याच मुडांत हांव तिजेवसल्यान पळोवन हांसलों. पूण हिका हांसपाकूच येना. सकाळचो मूड इतले बेगीन अस्ताक गेलो?

"कितें जालें? ओगीशी?" हांवें तोंड उक्तें केलें.

"साडी कोणाकूच मानना. बदलून हाडची पडली."

"लोकांक कित्याक मानपाक जाय? तुका आनी म्हाकां आवडली तितली

पुरो."

"सगल्यांनीच म्हाकां पिशांर काडलें. असल्यो साडयो देडशें रूपयांक मेळटात खंय."

"आसूं पळोवया. लोक कितेंय म्हणूं तेवटेन."

"ना.. ना.. तुमी एकलेच वचून बदलून हाडात."

"पूण परती वचपाक लज न्हय थंय?"

"लज कसली? तांणीच सांगलां बदलून व्हरात म्हणून."

"पूण म्हाका एकल्याक कशें कळटलें... तुका खंयची आवडटा ती?"

"तुमकां बरें कळटा म्हजेपरस. तुमका पसंत ती म्हाका पसंत."

म्हाकां हिजी काकूट दिसली. पूण त्या शेजारच्या बायलांची सामकी तिडक मारली. मनांतले मनांत तांकां चार गाळी मारल्यो आनी हांव ती साडी घेवन भायर सरलों. सकाळीं हाडिल्ली साडी रोखडीच सांजवेळार परती व्हरून दिवप म्हळ्यार लज कशी! पूण सगली लज गिळून हांव नीट त्या दुकानार गेलों. साडी बदलून व्हरपाक सांगिल्लें ताणेंच म्हाका पळोवन तोंड वांकडें केलें. ताचें तोंड पळोवन म्हाका भिरभिरी मारली, पूण ओगी रावलों. परत्यो दाखयल्ल्यो तातूंतली बऱ्यांतली बरी साडी हांवें वेंचून काडली. ही साडी तिका आवडले बगर रावचिना. म्हाकां कपड्यांच्या दुकानांत भितर सरलों म्हणटकीच सगलेच कपडे आवडटात. पूण अद्‌र्या लोकांचें चित्रूच काडपाक जायना. तांकां कितलेंय दाखय..! असली कसली तांची आवड म्हणून कोण जाणा!

नवी साडी घेवन हांव नीट घरा आयलों. ही म्हजी वाट पळयत बशिल्ली. पाडपडिल्लेन म्हजो सगलो दीस पेड्‌डेर केलो. पूण जांव. साडी मात तिका मानल्यार पुरो. हांव दारांत पावतनांच ती भायर दारांत आयली. हांवें व्हडा उमळशिकेन साडी काडून तिज्या हातांत दिली.

"असली हाडल्या...?" तोंड वांकडें करीत हिणें आपलें पेंपारें वाजयलें. आवयस! इतली बरी साडी हिका आवडना? आतां मात म्हज्यान सोंसपाक जालेंना. म्हजी आशिल्ली - नाशिल्ली सगली तिडक भायर सरली. रागान आंग थरथरिल्ले भाशेन जालें. आनी कितें घडटा तें कळनासतना पयलेच फावट म्हजो हात हवेंत धुंवलो.

## १३

# भिजूड

वासंती कामार रूजू जालें आनी सुभाषाचे तकलेंत वेगळेच विचार घोळपाक लागले. वासंती दिसपाक सुंदर आशिल्लें. चलयांविशीं सुभाषाक आकर्शण आशिल्लें. पूण वासंतीविशींची वेगळीच भावना ताच्या काळजांत किल्लुपाक लागली. वासंती कितेंय बरयता आसतना, टायप करता आसतना तो ताचेवसल्यान परतें परतें चोरून पळयतालो. वासंती ताका हटकितालें. ताचेकडेन उलयतालें. पूण ताचे नदरेंत नदर भरसुपाक सुभाषाचें काळीज धडधडटालें. निमाणेकडेन जावपाचें तेंच जालें.

सुभाष वासंतीच्या मोगान सामको कुड्डो जालो. कणाकणांत ताका वासंती दिसपाक लागलें. न्हिदांत आनी जागेपणांत वासंतीबगर आनीक कांय येवज नाशिल्लें. दोळ्यांमुखावेलो सगळो संवसार वासंतीमय जाल्लो. वासंतीभितर अशें कितें आशिल्लें देवाक खबर. पूण पळयतल्याचें मन ताचेवसल्यान आपशींच ओडटालें. वासंतीची नदर ताचेर पडनांफुडें ताचें काळीज घायाळ जातालें. असली नदर ताणें अजूनमेरेन पळोवंक नाशिल्ली. देखुनूच सुभाषाकडल्यान खूब हुतहुतेपणां जालीं. वासंती आपणाक प्रतिसाद दिता अशें ताका एकसारकें दिसपाक लागलें. एक दीस ताणें वासंतीक विचारपाचो धीर केलो -

"वासंती तूं म्हाकां आवड्टा. म्हजेवांगडा लग्न जायशी?"

वासंती सुभाषाच्या तोंडाक पळयत उबें रावलें. ते कांय उलयना तें पळोवन ताच्या पोटांत कल्ल जालें. कांयच येवजना जावन तो परतो उलयलो -

"उलयना कित्याक वासंती?"

"तूं म्हजेवांगडा लग्न जातलो?"

"कित्याक दुबाव आयलो?"

"म्हजी सारखी खबर काडीनासतना?"

"वासंती म्हाकां आनीक कसलीच खबर काडपाची ना. तूं म्हाका आवडटा. म्हाका तुजेकडल्यान आनीक कांयच नाका."

"ना. म्हाका लग्न जावपाचें ना."

"अशें म्हणू नाका वासंती! हांव पिसो जातलों."

"इतलें हांव आवडटा तुकां?"

"हय. तुजेखातीर हांव केदोय व्हड्डलो त्याग करपाक तयार आसां!"

"त्याग करपाक तयार आसा?"

"हय! उलय वासंती."

"ना. मागीर पश्चाताप जातलो तुका. तुजे वाटेंत म्हाका येवपाचें ना."

"अशें निर्शेंव नाका म्हाका वासंती. तूं म्हज्या वांगडा लग्न जावपाक तयार ना जाल्यार... सगळो जल्म हांव लग्नाबगर रावतलों."

"इतली तयारी आसा?"

"हय."

"आनीक थोड्या दिसांनी सांगतां."

त्या दिसा ताचें उलोवप इतलेंमेरेन जालें. वासंती मुखार काळीज उक्तें केल्ल्यान सुभाषाच्या जिवाक खूब बरें दिसलें. सुरवात बरी जाल्ली. आतां मुखार कितें घड्टा तें ताणें पळोवपाचें थारायलें.

ऑफिसांतली एलडीसीची एक सुवात कितलोसोच तेप रितीच आशिल्ली. ऑफिसांतले रिते सुवातेर कोण येता हाची सगळ्यांकूच उमळशीक आशिल्ली. एक म्हळ्यार हेरांचेर चड काम पड्टालें. सायबाहुजीर तोंड उकतें करपाचो कोणाकूच धीर जांयनासलो. फाटल्यान मात सगळे ताच्या नांवान बोटां मोड्टाले. चार दिसां आदींच ह्या जाग्याखातीर इंटरव्ह्यू जाल्लो. तें सगळ्यांक खबर आसलें. ऑफिसांतल्या लोकांच्या वळखीचेय कांय जाण इंटरव्ह्यूक आशिल्ले. देखुनूच चड करून सगळेजाण ते सुवातेर नदर दवरून आशिल्ले.

सुभाषाक कामाक लागून एक वर्स पुराय जाल्लें. कामाक लागत सावन तो ती सुवात रितीच पळयतालो. तो बसलो म्हण्टकीत सगळ्यांत पयलीं ताची नदर थंय पडटाली. देखून ताका सदांच कितेंतरी चुकिल्ल्यावरी दिसतालें. ते सुवातेर कोण

येता हाची सगळ्यांपरस चड उमळशीक सुभाषाकूच आशिल्ली.

एक दीस सायब एके चलयेक घेवन ऑफिसांत भितर सल्लो. ताणें तिका सुवात दाखयली आनी सगळ्यांची नदर तिचेर थीर जाली.

"हें वासंती. एलडीसीच्या जाग्यार तें आयजसावन रूजू जाता." - सायबान वासंतीची वळख करून दिली.

"नमस्कार" - वासंतीन सगळ्यांक हटकिलीं. सगळ्यांनी वासंतीक येवकार दिवपाक तोंडार हांशें खेळयलें.

- सायबान वासंतीची सुभाषाकडेन स्पेशल वळख करून दिली. वासंती सुभाषाक पळोवन मंद हांसले. तीच सुभाषाची आनी वासंतीची पयली नदरा - नदर.

वासंती ऑफिसांत येवन म्हयनो दोन म्हयनें जाल्ले. आपणाल्या उजू सभावान आनी वागणुकेन ताणें कांय दिसांभितर ऑफिसांतल्या सगळ्या कामगारांक माया लायली. तें सगळ्यांकडेन मेकळेपणान उलयतालें. कोणेंय कसलेंय काम सांगल्यार सट्ट करून आयकतालें. सुभाषाकडेन ताचो चड संबंद येनाशिल्लो.

देखून काम करताना आनी मेकळो आसताना तो ताका पळयत बसतालो. ताची दर एक करणी तो तोखणायेन पळयतालो. अशें करतां करतां वासंतीविशींची ताका आपशींच चड ओड दिसपाक लागली. रातचीं ताचीं सपनां पडून जीवाची इपश्टा जावंक लागली.

वासंती केन्नाय ऑफिसांत सुभाषावसल्यान पळयतालें तेन्ना ताची नदर हांसता असो ताका वोगीच भास जातालो. वासंती सगळ्यांकडेन मेकळेपणान उलयतालें. पूण ताचेर जेन्ना वासंतीकडेन उलोवपाचो प्रसंग येतालो तेन्ना सुभाषाचें काळीज वोगीच धडधडटालें. वासंती आपल्या मोगांत पडलां अशें सुभाषाक जायते फावट दिसतालें. ताचे दर एके करणेक तो अर्थाचीं कपयाळीं लायतालो.

सांजवेळार घरा वचपाच्या वगतार वासंती सदांच ताकतीक करतालें. सगळ्यांत पयलीं वचून तें बसस्टॉपार उबें रावतालें. बस कितलीय भरिल्ली आसूं तें पयली येता ते बसींत आपलो जीव घालून घेतालें. देखून सुभाषाक वासंतीची तिडक मारताली. सुशेगाद घरा वचपाक हाका कितें जाता तेंच ताका येवजनाशिल्लें. आनीक कोणाकूय तें मेळपाक बी वचनां मूं? दुबावाचें भूत ताका सतायतालें. पूण ताचें दुसरें मन ताका समजयतालें. ना. वासंती तसलें न्हय. तें उजू चलणुकेचें.

कामाच्या वगतार मन लावन काम करपी वासंतीचें मन दनपारच्या जेवणाचेर

लागनाशिल्लें. मनाभायर जेविल्ल्याभशेन तें जेवतालें. दीसभर मन मेकळें आसपी वासंती जेवणाच्या वगतार गंभीर जातालें. ताचो चेरो कितेंतरी येवजिल्ल्याभशेन दिसतालो. वासंतीच्यो ह्यो दोन गजाली सुभाषाक येवजणेंत घालताल्यो.

पूण कांय तेपान त्यो गजाली सुभाषाक इल्ल्यो इल्ल्यो संवकळीच्यो जाल्यो. ताणें ते विशीं वासंतीक कांयच विचारलेंना. वासंतीमुखार आपणालें काळीज उक्तावन तो केन्नाच मेकळो जाल्लो. वासंती आपूण जावन आतां विशय काड्टलें म्हूण तो वाट पळयतालो. पूण वासंती ताका आयिल्ल्या दिसा निर्शेतालें.

सुभाष अर्थाळ नदरेन वासंतीच्या दोळ्यांत मांडून पळयतालो. पूण वासंतीचे नदरेंत ताका कसलेच भाव दिसलेनांत. ताची नदर सुकी सडसडीत आसताली. सुभाषाक आपलें सर्वस्व वासंतीक केन्ना एक फावट ओपतां अशें जाल्लें. पूण वासंतीक इल्लीय ताकतीक नाशिल्ली.

मजगतीं एक - दोन फावट वासंतीक परतें विचारपाचो ताणें यत्न केलो. पूण वासंतीन ताका वयलेवयर फापुडलो.

वासंतीक सुभाष पसंद नाशिल्लो जाल्यार, ताच्या हुतहुतेपणाक लागून तें ताचेर रागार जातलें आशिल्लें. तें ताचे वांगडा तुसडेपणान वागता आशिल्लें. पूण तशें कांयच जालेंना. वासंती मातूय बदलूंक नाशिल्लें. तें आसा तश्शें आशिल्लें. हाकाच लागून सुभाषाचे आशेक आंकन्यो फुटिल्ल्यो. ताच्या सपनांक जोरगतीची भरती आयिल्ली.

त्या दिसा मात वासंतीचो हयकार मेळोवपूच असो ताणें निर्धार केलो. सायबान कपाटांतल्यो आऊटडेटेड फायली कुशीक काडपाचें काम वासंतीचेर आनी सुभाषाचेर सोपयल्लें. लागसार कोणूच नाशिल्लो! सुभाषान आतुरतायेन वासंतीवसल्यान पळयलें आनी विचारलें.

"वासंती कितें थारायलां तुवेंन?"

"म्हजो लग्न जावपाचो विचार ना."

"वासंती हांव गरीब म्हूण."

"गरीब आनी गिरेस्त कोणें केल्यात!"

"तशें जाल्यार अशें कित्याक म्हजो अंत पळयता?"

"एक विचारूं?"

"एक कित्याक? कितलेंय विचार!"

"म्हजेखातीर केदोय त्याग करपाची तुजी येवजण आशिल्ली न्हय?"

"हय!"

"केदोय?"

"ह्या म्हज्या जिवापरस चड तूं कितें मागशी म्हजेकडेन?"

"तशें जाल्यार.."

"सांग वासंती.."

"म्हजेवांगडा तुका आनीक एकट्याचो स्वीकार करचो पडटलो."

"आनीक एकट्याचो?"

"हय! म्हजो काळजाचो कुडको. म्हज्या पयल्या प्रियकरापसून जाल्लो म्हजो माणकुलो चार वर्सांचो चलो आसा. तो एक भिजूड आशिल्लो. ताणें फक्कत मोगूच केलो.. लग्न जावपाक तयार जालोना. पूण तुजेसारखो व्हड काळजाचो मनीस म्हाकां पयलेच फावट पळोवंक मेळ्ळो."

सुभाषाच्या दोळ्यांमुखार काजुले आयले. ताका घुंवळ येताशी दिसली. तकलेंत चडिल्ली मोगाची भांग पायांकडेन पावली. संवसारांत कसलीच आयलीना तितली किळस ताका वासंतीची आयली आनी ताणें आपली मान सकल घातली.

# १४

# ओंवळ

ओंवळाचो वांस नाकांत भल्लो म्हण्टकीत सुदेशाची तकली घुंवपाक लागता. तो बेश्टोच चाळवता. ओंवळाचो वांस ताच्यान निखालस सोंसपाक जायना. आतांय ताच्या नाकांत तो भल्लो आनी स्टडी रूमांतल्यान तो तिडकीन भायर सल्लो. शेजारच्या एका भुरग्यान पोचोभर ताजीं ओंवळां हाडून आंगणांत आंगणभर पेरिल्लीं. तांचोच घमघम घरांत घरभर पातळिल्लो. आंगणांतलीं ओंवळां पळोवन सुदेशाची पायांची तिडक मस्तकाक माल्ली. तो त्या पोराचेर चाळवलो -

"पयलीं घेवन वच तीं सगळीं ओंवळां. ना जाल्यार वेंचून भायर उडय."

सुदेशाचो अवतार पळोवन पोर सामको भिलो. ताणें आंगणांत पेरिल्लीं सगळीं ओंवळां पुंजायलीं आनी थंयच्यान धांव माल्ली. सुदेश परतो स्टडी रूमांत भितर सल्लो आनी ताणें आंगाचो घाम पुसलो. हय. ओंवळांचो वांस नाकांत भितर सल्लो म्हण्टकीत ताका तशेंच जाता. गरमी आसूं - नासूं ताका चरचरीत घाम सुट्टा.

चार - पांच वर्सां जायत आयलीं सुदेश कसल्यातरी विशयाचेर संशोधन करता. ताचें संशोधन कित्याचेर चल्लां तें कोणाकूच खबर ना. तो फक्त जेवणाच्या वगतार आनी च्या पिवपाच्या वगतार स्टडी रूमांतल्यांन भायर सरता. हरशीं सगळो वगत भितरूच बसून आसता. सगळ्याच गजालींचें ताणें वेळापत्रक तयार केलां. तो फक्कत गरजेपुरतेंच उलयता. सगळ्याच गजालींक ताणें मर्यादा घालून दिल्ल्यान भायल्या संवसाराकडेन ताचो व्हडलोसो संबंध येना. भितल्ल्या संवसारांत मात तो गुल्ल आसता. बशिल्लेकडेनूच तो कित्याचेरूय नदर थिरायता आनी वरांची वरां एकेचकडेन पळयत बसता. थंय मागीर ताका कितल्योश्योच गजाली दिश्टी पड्टात.

उगडासांतलो दर एक खिण दोळ्यांमुखार चलत रावता. उगडासांतल्या रानांतल्यान ताचें मन धांवत सुट्टा. आडखळ नाशिल्लें वारें कशें ! मागीर ताच्या नाकांत ओंवळांचो घमघम भरता. खिणाभितर तो ओंवळीच्या मुळांत पावता. थंय ताका तें दिश्टी पड्टा. तें ताका पळोवन गोड हांसता. तोय ताका पळोवन हांसता. हांसत रावता...

सात - आठ वर्सां जावन गेलीं ते गजालीक. सुदेश तेन्ना कॉलेजींत शिकतालो आनी थंयच हॉस्टेलांत रावतालो. सुदेश बरो शिकपी भुरगो आसलो. वांगडचे चडशे सगळेच भुरगे तवनास आसले. ते परिक्षेक दोन - तीन दीस आसतना फक्त नांवापुरते शिकताले. हरशीं वर्सभर कितें करताले तांकांच खबर. पूण सुदेश तसो नासलो. तो मन लावन वर्सभर शिकतालो आनी बरो नंबर काड्टालो. हॉस्टेलांतले ताचे वांगडचे सगळे भुरगे रातदीस बोवाळ घालीत रावताले. हाकालागून सुदेशाक अभ्यास करपाक मेळनासलें. देखून ताणें एक नवो उपाय सोदून काडलो. हॉस्टेलाभायर खंयूय झाडांमुळांत बसून शिकप !

रोकडेंच ताणें एक बरीशी सुवात सोदून काडपाचें थारायलें. हॉस्टेलासावन कांय अंतराचेर झाडांची कांय झोपां दिश्टी पड्टालीं. तेवटेन तो चलत रावलो. हॉस्टेलांत रावपाक लागल्यार ताका जायतो तेंप जाल्लो. पूण त्या झोपांवसल्यान वचपाची ताका एकदांय वान्सा जावंक नाशिल्ली. हॉस्टेलाकडल्यान झोपां दिसपी हीं झाडां बरींच व्हडलीं आशिल्लीं. तो त्या झाडांच्या सामको लागसार पावलो तेन्ना ताच्या नाकांत बरो सोबीत परमळ भल्लो. ताणें आपणाली तकली घुंवणावन हेवटेन तेवटेन पळयलें. अचकीत ताची नदर पायांकडेन गेली. हळडुव्यासार ओंवळाचो सामको सडो पातळिल्लो. ताच्या माथ्यावयर शेकानशेक ओंवळीचें झाड मातिल्लें. तें पळोवन तो सामको धादोसभरीत जालो. ताणें अभ्यासाखातीर तीच सुवात वेंचून काडपाचें थारायलें.

तांची कॉलेज दनपारच्या वगतार आसताली. देखून दुसऱ्या दिसासावन सकाळीफुडेंच ताणें वचपाचें थारायलें. वांगडच्यांक कोणाक जाग दाखय नासताना दुसऱ्या दिसा सकाळीफुडें उठून तो त्या ओंवळीच्या मुळांत गेलो आनी एके उंच सुवातेर बसून अभ्यास करपाक लागलो. ओवळांचो मंद परमळ एकेवटेन ताच्या नाकांत भरतालो जाल्यार दुसरेवटेन टप टप करून ओवळां ताच्या आंगार पड्टालीं.

इतली बरी थंड सुवात आसून लेगीत ताचें मन अभ्यासांत लागना जालें.

लागींच गांव आशिल्ल्यान सुणी भोंकतात तो आवाज कानार येतालो. सकाळचो वगत आशिल्ल्यान मदींच कोंबड्यांचो आवाज आयकुपाक येतालो. मन भुलोवपी ताज्ज्या ओवळांचो परमळ आनी मदीं मदीं तांचे आंगार पडप हाका लागून अभ्यासांत मन लागना जालें खरें पूण हांगाच्यान हालचें न्हय अशें सुदेशाक दिसपाक लागलें. इतले म्हणसर झाडांच्या सुक्या पानांचेर कोणाचे तरी पांय वाजले असो सुदेशाक भास जालो.

ताणें तेवटेन आपणाली तकली घुंवणायली. पळयत जाल्यार हातांत फुलांचो करंड घेवन एक चली ओंवळीच्या मुळांत ओवळां पुंजावपाक येताली.

ते चलयेन आपणाले केंस उगोवंक नाशिल्लें. कपडेय बरे घालूंक नाशिल्ले. इतलेंय आसून ती खूब सोबीत दिसताली. ती गोरीच आसून तिचो रंग ओंवळाभशेनूच आशिल्लो. तिची नदर सुदेशाचेर पडली आनी ती मात्शी दचकली. खिणभर एकाच पायांर उबी रावन तिणें ओणव घातलो. जाता तितल्या ताकतिकेन तिणें ओवळां पुंजावपाक सुरवात केली. सुदेश तिकाच नियाळपाक लागलो. परत्यो परत्यो दोळ्यांर येवपी केश्ट्यो ती एका हातान कुशीक काड्टाली. तिरशे नदरेन ती परती परती सुदेशावसल्यान पळयताली. पांच - धा मिनटां तिणें ओवळां पुंजायली आनी आयिल्ले वाटेन परती धांव माल्ली.

फाटल्यान दिश्टी पड्टासर सुदेश तिका पळयत रावलो. बरीच मुखार पावतकीत तिणें फाटल्यान वळून पळयलें. सुदेशाची आनी तिची नदरानदर जाली. सुदेशाच्या काळजांत मात्शें शिरशिल्ल्याभाशेन जालें.

कॉलेजींत तो कितल्याशाच चलयांक पळयतालो. पूण चलयांविशी ताका कांयच दिसनासलें. हिचेविशीं मात ताका वेगळेंशें कितें दिसपाक लागलें. अभ्यासावेळें ताचें मन सामकेंच उडलें आनी तो दोळ्यांत बोट घालून तिचेविशीं चिंतपाक लागलो. कितली सोबीत चली ! सामकें ओंवळ कशी ! तिका ओंवळच नांव सोबता आशिल्लें. सुदेशान चिंतलें तिका ओंवळूच म्हणप ! त्या दिसा ताचो इल्लोय अभ्यास जालो ना. मनांत कसलोतरी निश्चेव करून तो त्या दिसा बेगीनूच हॉस्टेलांत परतलो.

त्या दिसा सुदेशाचें कॉलेजींत मात्तूय मन लागलें ना. ती चली परती परती ताच्या दोळ्यांमुखार येताली. रातीकडेन ताका मात्तूय न्हीद पडलीना. केन्ना एक फावट सकाळ जावन आपूण ओंवळीकडेन वतां अशें ताका जाल्लें.

आदल्या दिसाभशेन दुसऱ्याय दिसा तो बेगसार वचून ओवळीमुळांत अभ्यासाक

बसलो. पूण ताका पुस्तक उक्तें लेगीत करपाचो उगडास जालो ना. ताचे कान आनी दोळे तिच्या येवपाची सुलूस घेताले. पूण ताका चड वगत वाट पळोवची पडलीना. आदल्या दिसा भशेंनूच ती आयली. आयज तिणें केंस उगयल्ल्यान ती वेगळीच दिसताली. कपडेय मात्शे बरे घातिल्लें. आदल्या दिसाभशेन ती सुदेशाक मात्तूय दचकली ना. तिणें आयज ताका सारको बरो पळोवन घेतलो आनी ती ओंवळां वेंचपाक लागली. सुदेश तिका पळयत रावलो. पंदरा - वीस मिनटां तिणें ओंवळां पुंजायलीं आनी ती वचपाक घुंवली. वता आसतना तिणें एकदम सुदेशावसल्यान पळयलें आनी ती लजली.

उपरांत ही गजाल सदांचीच जाली. सकाळ जाली म्हण्टकीत सुदेश बेगीन उठ्ठालो आनी अभ्यासाच्या निमतान ओंवळीच्या मुळांत वचून बसतालो. ती लेगीत नेमान ओंवळां पुंजावपाक येताली आनी सुदेशाक पळोवन लजताली. सुदेशाक तिचेकडेन उलयन दिसतालें. तिचेवांगडा वळख करीन दिसताली. तिका खूब खूब विचारीन दिसतालें. तसो तो यत्नूय करतालो पूण ताका धीर जायनासलो. तीय आपणाकडेन उलोवंक सोदता असो सुदेशाक भास जातालो. तिचेकडेन कशें उलोवचें, कशी वळख करची हाचो तो दिसानदीस प्लॅन तयार करतालो पूण कांयच उपेग जायनासलो.

त्या दिसा सुदेश सदांभशेन बेगीनूच जागो जालो. ताचे वांगडचे कोणूच उठूंक नाशिल्ले. ताणे उठून जनेलांतल्यांन भायर पळयलें. आवयस् ! मळबांत आडवेळपावसाचीं कुपां दाटिल्लीं आनी वारें मारतालें. सुदेशाक भायर वचपाक मेळनां जालें. अभ्यास करूंक वचपाच्या वगतार आकांताचें वारें मारपाक लागलें आनी पावस झडपाक लागलो. सुदेशाक हुस्को जाल्लो तो तिचो. आपूण गेलोना जाल्यार ती हुस्केतली अशें ताका बेश्टेंच दिसतालें. पूण असलें वारें मारता आसताना आनी पावस झडटा आसतना भायर कशें सरप हो प्रस्न आसलो. ताणें उपरांत आपणाकूच समजायलो. असलो पावस झडटा आसतना आनी वारें मारता आसतना ती तरी कशी येतली?

बऱ्याच वगतान वारें मारपाचें बंद जालें आनी पावस बारीक जालो. सुदेशान फाटी फुडें पळयनासतना तशीच धांव माल्ली. ती आपल्याचेर रागार जायत म्हूण ताका ओगीच भंय दिसतालो. ताणें पयसुल्ल्यानूच ती दिसता काय पळयलें. पूण ती दिश्टी पडनासली. घडये अजून येंवक ना आसतली. तो तसोच मुखार धांवलो. ओंवळीचो एक व्हडलो खांदो मोडून जमनीर पडिल्लो. सामको लागसार पावतकीत

ताणें जमनीर पडिल्ल्या खांद्यावयल्यान पळयलें आनी ताच्या दोळ्यांमुखार काळोख आयलो. हळडुवेंच वस्त्र ओंवळीच्या खांद्यापोंदा चिड्डलें ताका दिश्टी पडलें. ताका कितें करचें कांयच येवजनां जालें. भंय आनी दुख्खाच्या ओज्यान ताची तकली भेरेली. ताका चरचरीत घाम सुटलो. ताणें मुठी कंवळ्ळ्यो आनी थंयच्यान सासणाची धांव माल्ली. तसोच तो खर्शेत हॉस्टेलांत आयलो आनी ताणें आपणाक एके कुडींत बंद करून घेतलो. उपरांत तो खूब्ब रडलो... खूब्ब रडलो ! ही ताच्या काळजांतली गजाल. ताणें ती कोणाकूच सांगूक ना. तेन्नासावन ओंवळांचो परमळ ताचो सामकोच दुस्मान जाला !

दनपारच्या जेवणाचो वगत जालो आनी आवयन सुदेशाक भायल्यान उलो माल्लो. एक व्हड उस्वास सोडून सुदेश उगडासांतल्या रानांतल्यान भायर सल्लो... !

१५

# गूढ

कितल्याश्याच तेंपान पयर हांव मामागेर पावलों आनी ती दुखेस्त खबर म्हाकां कळ्ळी. विष्णूकाका भायर पडून आठ दीस जाल्ले. मामाल्या घरांत पावनाफुड्यां हांवेन घरच्या सगळ्यांची खबर घेतली. इतलें म्हणसर म्हाकां विष्णूकाकाचो उगडास जालो. हांवेन मामीक विचारलें -

"मामी विष्णूकाका कसो आसा गे?"

"आरे पुता, तुकां खबर ना?"

"कितें जालें? कसली खबर?"

"विष्णूकाका भायर पडलो. आठ दीस जाले."

म्हज्या काळजांत चर्र जालें. खिणभर हांव सपनांत आसा काय कितें असो भास जालो. विष्णूकाका! एक गूढ आसलें. जाप नाशिल्लो प्रस्न आसचो तसोच विष्णूकाका आसलो.

घराकडेन चड मस्ती आनी आडांगीपण करता देखून भुरगेपणांत बापायन शिकपाखातीर म्हाकां व्हरून मामागेर पायलो. मामाचो चलो महेश म्हजेच पिरायेचो आशिल्लो. आमी दागूय वांगडाच शिकताले. महेश आनी मिरा मामाचीं दोगांच भुरगीं. महेश व्हडलो आनी मिरा धाकटें. मिरा घडये - घडयेक रड्टालें देखून आमी ताका खेळपाक घे नाशिल्ले. तरीय तें आमचेवांगडा येतालें. मागीर आमी ताका चुकोवन खंयूय पयस दडी मारताले. एकदीस महेशान म्हाकां विचारलें -

"तुवेंन विष्णूकाकाक पळयला?"

"कोण ?"

"तो बऱ्यो सोबीत मुर्ती करता. यो तुकां दाखयतां." महेशान म्हाकां व्हरून विष्णूकाका दाखयलो. मामाच्या उशेलाच्या मळ्यांत आशिल्ल्या खोपींत तो रावतालो. ताणें तरेकवार मुर्ती कोरांतून दवरिल्ल्यो. ल्हान आनी व्हड. सगळ्योच पळोवपाक सोबीत दिसताल्यो. आमी वचून थंय उबे रावले पूण कांय खिण विष्णूकाकान तकली वयर काडून आमकां पळयलेच नात. पळयतकूच तो आमकां पळोवंन हांसलो. महेशान म्हजी वळख ताचेकडेन करून दिली. तीच म्हजी आनी विष्णूकाकाची पयली वळख. उपरांत तो म्हाकां कोणतरी घरचोच असो दिसलो.

भुरगेपणांतलो एक प्रसंग म्हाकां तस्सो उगडास आसा. चवथीची परब निक्तिच येवन गेल्ली. फोगोट्यांचो सांठो सोपिल्लो. पूण महेशाच्या बोल्सांत मेकळ्यो फोगोट्यो आशिल्ल्यो. महेशान एक आयडिया काडली. उशेलाच्या मळ्यांत फोगोटी लावन विष्णूकाकाक भेश्टावप ! महेशाची आयडिया आयकून हांवेन दोन फूट वयर उडी मारली. कांय खिणाभितर आमी उशेलाच्या मळ्यांत पावले. आमी अळंग विष्णूकाकाची जाग घेतली. एके सोबीत मुर्तीक तो फिनीशींग टच दितालो. महेशान फोगोटी जमनीर दवल्ली आनी वातीक उजवात तेंकयली. ठोऽऽ करून फोगोटेचो आवाज जालो आनी विष्णूकाकाच्या हातांतले शेणें घसरलें. मुर्तीच्या दोळ्याकडलो कोपचोच निखळ्ळो. विष्णूकाकान फाटीफुड्यां पळयनासताना शेणें आनी हातोडी मोखून माल्ली आनी तो ल्हान भुरग्याभशेन रडपाक लागलो. आमकां कितें करचें कांयच कळना जालें. खिणभर थंयच्यान धांव मारची अशें दिसलें पूण पांय सामकेच घट जाल्ले. धीर करून आमी गुन्यांवकारांभशेन उबे रावले. कांय वगतान विष्णूकाकान दोळे पुसले. खिणभर तो गंभीर जालो आनी उपरांत आमकां पळोवन हांसलो. "भिले रे तुमी? कांयच भिवपाची गरज ना. तुमी भुरगे आसात अजून. केन्ना-केन्नाय घडटा अशें, शेणेंच घसरता आनी हांव वयर तेंगशेवेल्यान सकयल पड्टां. मागीर कांय खिण शितिदूच उरना." विष्णूकाकान आमकां तापयलेनांत. पूण हांवेन निश्चेवाची गांठ माल्ली विष्णूकाकाचीं फकाणां करप ना.

मामागेरूच हांव ल्हानाचो व्हड जालों. कॉलेजींत शिकपाक लागलों. मात विष्णूकाकाचें गूढ अजून उमजूंक नाशिल्लें. विष्णूकाका एकटोच रावतालो. ताचीं भुरगीं बायल हांचेविशीं जाणाजावन घेवपाक एक दीस हांवेन मामीक विचारलें.

"विष्णूकाकाचीं बायल भुरगीं खंय आसात गे?"

"आमकां कांयच खबर ना पुता. गूढ तें एक."

"विष्णूकाका हांगां कसो पावलो तर?"

"ती एक विचित्रूच गजाल घडली."

"विचित्र गजाल?"

"हय. एकदीस तुजो मामा गाडयेन घरा येतालो. तर हाणें कितें करचें? अस्कडांतल्यान रस्त्यार गाडयेमुखार उडी मारली. गाडयेचो ब्रेक लागलो म्हूण बरें. ना जाल्यार कितें घडपाचें देवाक खबर. ताचेर थापट फुलोवपाक मामा गाडयेंतल्यान सकयल देंवलो. पूण ताच्या दोळ्यांत दुकां आनी ताची विचित्र परिस्थिती पळोवन मामाचो हात उबारलो ना. वेल्यान मामा ताका घेवन घरा आयलो. इतलीच खबर...!"

"म्हळ्यार तो जीव दिवंक सोदी तर !" म्हजो दुबाव.

"अशें जालें ना?"

"तुमीं ताका ते विशीं विचारलें ना?"

"विचारलें. पूण ताची जाप म्हळ्यार दोळ्यांतलीं दुकां. ते गजालीन ताका त्रास भोगतात देखून आमी उपरांत ताका विचारपाचेंच सोडून दिलें. तो शिल्पकार म्हूण आमकां उपरांत कळ्ळें." मामीकडल्यान विष्णूकाकाची खरी खबर कशी कळटा आशिल्ली? खासा विष्णूकाकाबगर ती कोणाकूच खबर नाशिल्ली.

त्या दिसासावन हांवे विष्णूकाकाच्या जिवीतांतलें गूढ सोदून काडपाचो वावर सुरू केलो. रातची न्हीद पडना जाली. विष्णूकाका मुर्ती कोंरायता थंय हांव वरांची वरां वचून बसपाक लागलों. विष्णूकाका एकाद्री मूर्त कोरायतालो तेन्ना ताका तान भूक कांय लागनाशिल्ली. सगलें विसरून तो मुर्तीकडेन एकरूप जातालो. एकदीस विशयाक हात घालपाच्या निमतान हांवेन विष्णूकाकाक विचारलें.

"विष्णूकाका तुका एकट्याक रावपाक वाज येना?"

"एकटो? कितल्योश्योच मुर्ती आसात मरे म्हजे वांगडाक." विष्णूकाकान विशय परतिलो. आतां आनीक उलोंवक उपेग ना हें हांवेन पारखिलें. ना जाल्यार विष्णूकाकाच्या दोळ्यांतल्या दुकांभायर दुसरी जापूच मेळची नाशिल्ली. कितल्याश्याच लोकांच्या दोळ्यांत हांवेन दुकां पळयल्यांत. पूण विष्णूकाकाच्या दोळ्यांत दुकां पळयतकीत काळजाक घाय पड्टाले.

रातदीस तकलेंत विष्णूकाकाचोच विचार घोळटालो. विष्णूकाकाची खबर काडपाक हांवेन ना.... ना तरेचे यत्न सुरू केले, आनी म्हाकां एक नवो उपाय येवजलो. खिणाचोय कळाव लायनासताना हांव विष्णूकाकासरी गेलों. खबरीक सुरवात जाली

तसो हांवेन विशयाक हात घालो.

"विष्णूकाका तुज्यो सगल्योच मुर्ती सोबीत दिसतात. पूण तातूंतल्यो तुकां खंयच्यो आवडटात?" म्हजो प्रश्न आयकून विष्णूकाका गंभीर जाता अशें म्हाका दिसलें. पूण ताणें विशय फकाणांचेर व्हेलो.

"म्हाका सगळ्यो मूर्ती सारख्योच."

"न्हय विष्णूकाका. तुज्यो सगल्यांत चड आवडट्यो खंयच्यो त्यो दाखय."

विष्णूकाकान म्हाकां भितर व्हेलो आनी कांय मुर्तींचेर धांपिल्लो कपडो अळंग कुशीक काडलो. त्या कपड्यापोंदा एके बायलमनशेची आनी दोन ल्हान भुरग्यांच्यो मुर्ती आशिल्ल्यो.

"ह्यो म्हज्यो सगल्यांत चड आवडट्यो मुर्ती." अशें म्हणून ताणें त्या मुर्तींचेर नदर थीर केली आनी तांकां हात लावपाक तो सकयल बागवलो. भलतेंच कितेंय घडत हे भिरांतेन हांव खोपींतल्यांन झुप्प करून भायर सरलों. कांय वगतान विष्णूकाका भायर सल्लो आनी हांवेन ताचो निरोप घेतलो.

त्या दिसासावन हांवेन विष्णूकाकाक ताचेविशींचे प्रस्न विचारपाचें बंद केलें. गूढ तशेंच उरिल्लें. पूण विष्णूकाकाच्या दुख्खाचे घाय खूप खोल आसात हाची जाणविकाय म्हाकां त्याच दिसा जाली. उपरांत म्हजें शिकप पुराय जातकीत हांवेन मामाचें घर सोडलें. सिर्विसेच्या निमतान शारांतूच रावचें पड्टालें. आवयन मामागेर वचून खबर घेवन येंवक सांगलें आनी जायत्या तेंपान मामागेर पावलों.

विष्णूकाकाच्या मरणाची खबर आयकून सगलो भूतकाळ म्हज्या दोळ्यांसामकार उबो रावलो. "अकस्मात अशें कशें जालें? दुवेंत आशिल्लो?" हांवेन मामीक विचारलें.

"ना सामको बरो आशिल्लो. आदल्या दिसाच महेश उशेलांत वचून आयिल्लो."

"आत्मघात केलोना मुगे?"

"म्हाकां तसोच दुबाव मारता. भितर आशिल्या दोन - तीन मुर्तींमदीं ताची कूड मेळ्ळी. भितरूच आसताल्यो त्यो मुर्ती...."

आयकून म्हज्या काळजांत चर्र जालें.

## १६

# अभिषेक

बस स्टँडावयल्यान बस हालली आनी हर्षाची तंद्री मोडली. हर्षान एक फावट कडेक बशिल्ल्या आपल्या घोवावसल्यान पळयलें. घोवान तोंड हांसरें केलें-

"कितें?"

"दुसरे बसीन वचुंया?"

"कित्याक? हीच बरी आसा."

"पूण..!"

"ओगीच कितेंय तरी."

हर्षा बशिल्ल्या जाग्यावयल्यान उठून उबें रावलें. घोव मात हाललो ना. तो हट्टी कसो बसून रावलो. बस धांवपाक लागली. हर्षा निर्शेलें आनी परत बसलें. एक फावट ताचे वसल्यान रागान पळयलें.

हें अशेंच चलिल्लें. संवसाराचो गाडो. प्रसादान लग्न जायतपसून हर्षाची एकूय इत्सा मनासावन भागोवं नाशिल्ली. ताका आपल्या मनासारखें वागूंक केन्नाच मेळ्ळें ना. प्रसाद ताचेकडेन केन्नाच मोगान उलयलोना. मांय जाल्यार ताका सदांच धारेर धरताली.

हर्षाक सदांच दिसतालें, आपल्याक बरो सुदारिल्लो न्हंवरो मेळूंक जाय. एकेक इत्सा मनासावन पुराय करता असो. पूण लग्न जायतपसून हर्षाच्या इत्सांचें एकेक तेमूर हर्षाचेर कोसळटालें. ताच्या मनांत खोल वेदना जाताल्यो. तरी मोन्यांनी सगलें सोंसचें पडटालें.

प्रसाद एक नांवादीक सावकार आशिल्लो. ताची जायती इस्टेट आशिल्ली.

हात-पांय हालयनासतना बसून जेवपाची सोय आशिल्ली. सात माळ्यांचें घर आशिल्लें. चलयेच्या आवय-बापायक मानवतलें अशें हें थळ हर्षाक चलून आयिल्लें. पूण लग्नाच्या पयल्या दिसासावन हर्षाक ह्या सगल्यांची वीट आयिल्ली.

हर्षाक अजुनय आपल्या लग्नाच्या दिसाचो उगडास जातालो. लग्नाच्या आदल्या दिसाच ताच्यो इश्ट-इश्टीणी जमिल्ल्यो. तांकां सगल्यांक आतां सोडून वचचें पडटलें म्हूण हर्षाक मनांतल्यान वायट दिसतालें. ताचे दोळे दुखांनी भरून व्हांवताले. ताच्यो इश्टीणी ताका समजायतांल्यो. आवयची अपुर्बायेची एकटीच चली देखून आवय लेगीत हुंदक्या - हुंदक्यांनी रडटाली. ती परत परत हर्षा भोंवतणी फाट-फुडो करताली. लग्नाची तयारी नेटान चलताली. पयलींच उपाट गोरें आशिल्लें हर्षा हळडीच्या रंगान अदिकूच उठून दिसतालें. ताच्या दोळ्यांतल्यांन दुकां व्हांवतनाय खंय तरी ताच्या पोल्यार लजेची एक गुलाबी वळ झळकताली.

लग्नाचो दीस उदेलो. न्हंवऱ्यान धाडून दिल्ली साडी पळोवपाक इश्टीणीनी उगडी केली. णव-वारी कापड धाडिल्लें पळोवन हर्षाच्यो इश्टीणी निर्शेल्यो. हर्षान लेगीत एक अदीक हुंदको दिलो. पूण लग्नाचो एकूच दीस ! कसोय वतलो. हर्षाक कोणे तरी णव-वारी कापड न्हेसयलें. आडखळत - आडखळत तें सव्यार चडलें. न्हवरो पुडवें न्हेशिल्लो. दोगांचेय जोडें उठून दिसतालें. पूण तें जोडें आयच्या संवसारांतलें नाशिल्लें. उरफाटें, किंतल्यातरी वर्साफाटलें, सुदारूक नाशिल्लें, पंरपरेन चलत आयिल्लें.

लग्न जालें आनी हर्षा घोवाचो हात धरून गेलें. वतना ताणें खूब सामान व्हेल्लें. उंची उंची विमल, गार्डन, रेमंड... जातीच्यो साडयो व्हेल्ल्यो. केन्ना एकदा आंगावयलें आडखळपी णव-वारी कापड सोडून उडयन अशें हर्षाक जाल्लें. ताणे न्हवऱ्याच्या घरांत पांय दवरलो. मांयन ताची दिश्ट काडली.

हर्षा आंगावयले कपडे बदलपाखातीर आपल्या ट्रंकांतल्यान साडी भायर काडटालें. इतलें म्हणसर मांय दुसरें णव-वारी कापड घेवन आयली.

"हें घे."

"णव वारी कापडान म्हाका आडखळिल्ले भाशेन जाता. हांवें येतना बरोबर भरपूर साडयो घेतल्यात. हांव त्योच वापरतलें."

"चे.. चे तशें चलपाचें ना. ह्या घराण्याची परंपराच आसा ती. ह्या घरांत येवपी दर एकली सून णव-वारीच वापरता."

हर्षाच्या हातांतली साडी जमनीर पडली. तें मांयवसल्यान दोळे मोटे करून पळयतालें. हर्षान रचिल्लीं सपनां मातये भरवण जाल्लीं.

"हें घे! बदल तें कापड."

"म्हाका न्हेसूंक कळना."

"तरी यत्न करचो पडटलो. एकदां संवय जायसर..."

अशे तरेन हर्षाचो संवसार चालू जालो. कमराभोंवतणीं एक म्हेळो वालो न्हेसून ताचो घोव हेवटेन- तेवटेन पासयो मारतालो. हर्षान मनांतल्यांन थारायलें हाकाच हांव समजायतलें. चड करून आयकतलो तो म्हजें. ते रातीकडेन हर्षान घोवाक अपुर्बायेन उलो मारलो.

"प्रसाद?"

"...."

आपल्याक मारिल्लो उलो आयकून प्रसाद दोळे मोटे करून हर्षावसल्यान पळोवंक लागलो. ताका राग आयला हें वळखून हर्षा कांचवेलें. ताणें भियेत भियेत विचारलें-

"कितें जालें?"

"अशा एकोड्या नांवान उलो मारप आसता?"

"कितें जाता...?"

"मांय बडी हातांत घेवन सांगतली."

हर्षाच्या दोळ्यांमुखार काळोख आयलो. हर्षाक मधुचंद्राविशीं आनी प्रसादाच्या वाल्याविशीं विचारपाचें आशिल्लें. पूण फुडें आनीक कांयच विचारपाचो धीर ताका जालोना. ताच्या दोळ्यांमुखार उबें आशिल्लें फुडाराच्या संवसारांचे चित्र. उबें आयुष्य ताका प्रसादाच्या सांगातान काडपाचें आशिल्लें. मळबायेदी गिरेस्तकाय आशिल्ली पूण जाची मनशाक उपाट गरज आसता, तान लागता, जे खातीर मनीस धाय अवस्थांनी आतूर आसता तो मोग मात हर्षाक मेळूं नाशिल्लो. ह्या घरांत सोवळ्याची व्हड परंपरा आशिल्ली. प्रसाद हर्षाचें कांय एक आयकुपाचे अवस्थेंत नाशिल्लो. कमराभोंवतणीं दीसभर एक वालो न्हेंसून तो देवळांत देवाची पुजा करतालो.

पांच वर्सां जावन गेलीं तरीय भुरगें जावपाचीं कांय चिन्नां दिसंनाशिल्लीं. घरांत दोतोराचेर कोणाचो विस्वास नाशिल्लो. अभिषेक, प्रसाद-पाकळी ह्या सारख्या देव कार्यांचेर तांची उपाट श्रध्दा आशिल्ली. खंयच्यातरी देवळांत अभिषेक करपाखातीर

प्रसाद हर्षाक घेवन वतालो. मांय आनी घोव हांचे इत्सेर ताका रावचें पडटालें. तें मोन्यांनीं ताचेवांगडा वचूंक भायर सरलें.

"खंय वचपाचें?"

"मडगांवा."

"खंयच्या देवळांत?"

"फातर्पेच्या."

आपल्याक परत गोंयांत तरी वचूंक मेळटा हेंच हर्षाक आपलें मोटें भाग्य अशें दिसतालें. गोंयचे उगडास ताच्या मनांत आकार घेताले. शाळा, इस्कोल... सगलें ताका उगडास जातालें. एस.टी. मडगांव बसस्टॅंडार येवन थांबली. फातर्प्याँ वचपाची बस उबी आशिल्ली. घोवा फाटोफाट हर्षा बसींत चडलें, गर्दी नाशिल्ली. सिटां रिकामीं आशिल्लीं. हर्षा जनेलावसल्यान बसलें.

ताणें आपली नदर ओगीच भायर मारली... आनी? आनी हर्षाक तो दिसलो. एका ल्हानशा दुकानांत तो भराभर गिरायक करतालो. एकादऱ्या मशीनावरी ताचो हात चलतालो. तो पयशे मेजून घेतालो. मुखामळ बदल्लें तरीय ताच्या नाकावयल्यान ताका वळखूंक येतालें. ताणें आंगाक निळो शर्ट घाल्लो. हय ! तोच तो एका काळा वयलो हर्षाचो - महेश!

हर्षा मनांतल्या मनांत ताका पराथतालें, विनयतालें - "महेश! सोडय रे म्हाका ह्या बंधनांतल्यान म्हाका तूंच जाय आशिल्लो. तूं गरीब आसशी, तरीय तुज्या सारखो पॅन्ट घालपी म्हाका जाय आशिल्लो. मनीस गिरेस्त आसलो म्हूण कांय तृप्त जावंक शकना. ताका मोगाची सांवळी जाय पडटा. तूं गरीब आसून लेगीत तुजें तोंड हांसरें आसा. म्हाका हें णव वारी कापड न्हेसपाचें नाशिल्लें. तुजेवांगडा लग्न जाल्लें जाल्यार म्हाका साडी न्हेसूंक मेळटा आशिल्ली. तकली उबी धरून, हातांत हात घालून तुजेबरोबर चलूंक मेळटा आशिल्लें. मायेन महेश म्हूण उलो मारूंक मेळटा आशिल्लो. प्रसादाच्या घरचें परंपरेचें वारें म्हाका लागचें नाशिल्लें. पूण महेश, तूं म्हज्या नशिबांत नाशिल्लो रे! हांवच दळडिरें. खंय आशिल्लो रे तूं इतलीं वर्सां आनी इतलो वेळ? तेन्ना तूं म्हाका मेळिल्लो जाल्यार हांव तुजेवांगडा पळून लेगीत येतलें आशिल्लें. पूण तूं? इस्कोलावांगडा म्हाकाय निरोप दिवन सासणाचो म्हज्या नशिबांतल्यांन गेलो..."

"कित्याक विचारलें" - प्रसाद

"कितें?"

"दुसरे बसीन वचुंया काय म्हूण?"

"तुमकां कळचें ना तें. मनशाक काळीज आसूंक जाय, मनशांत मोग आसचो पडटा. उत्फर्के ह्या उतराचो अर्थ समजूंक जाय."

"कितें बडबडटा अशें?"

"कर्म म्हजें!"

हर्षा मनांतल्या मनांत विचार करतालें. प्रसादासारख्या भोंदू भटाक कितें समजुपासारखें आशिल्लें तातूंतलें! प्रसाद कितल्यातरी पिड्यांफाटीं अद्याप घुटमळटालो. आवयच्या हाताचो आदार घेवन तो चलतालो.

हर्षाक पयलींचो इतिहास उगडास जातालो. महेश जेन्ना पयलेच खेपे तांच्या इस्कोलांत आयलो तेन्नां हर्षा णववी पास जावन धावेक गेल्लें. महेश धावेकूच ह्या इस्कोलांत आयिल्लो. कसलेतरी अडचणेक लागून तो पयलींचें इस्कोल सोडून हांगा आयिल्लो. बाकीचे भुरगे वळख नाशिल्ल्यान ताचेकडेन उलय नाशिल्ले. पयसुल्ल्यान भुरगे ताचेर कॉमेंट मारताले आनी मोठ्यामोठ्यान हांसताले. ताचें नाक पोपटाच्या चोचीभाशेन आशिल्लें.

घरच्यान येतना तो एक सायकल घेवन येतालो. गणीत आनी विज्ञान ह्या विशयांनी तो हुशार आशिल्लो. खंयच्याय प्रस्नाची जाप तो सट्ट करून दितालो. गणितां तो फळ्यार सोडोवन दाखयतालो. मेकळ्या वेळांत तो आपलेच तंद्रेंत बसून रावतालो. आनी बाकीचीं भुरगीं घोसोळ घालतालीं. हर्षाय कमी नाशिल्लें. तेंय हुशार आशिल्लें. वर्गांत सगल्यांपरस चड मार्क ताका मेळटाले. णववेक ताकाच पयलो नंबर मेळिल्लो.

महेश चड सो निळ्या रंगाचो शर्ट घालतालो. हर्षाय त्या भोंवऱ्यांत घुस्पल्लें, तेंय निळे कपडे घालूंक लागलें. आतां ताका महेश मनापासून आवडूंक लागलो. एक दीस तो वर्गांत दिसलो ना जाल्यार ताचें मन अभ्यासाकडेन लागनाशिल्लें. आपालिपांचो खेळ चालूच आशिल्लो. बाकीचीं भुरगीं जाल्यार तांची फाट सोडूंक तयार नाशिल्लीं. धावेच्या वर्गांत एकूच विशय जावन राविल्लो. अभ्यासाकडेन कोणाचेंच लक्ष नाशिल्लें. जण एकट्याच्या तोंडांत एकूच विशय आशिल्लो महेश आनी हर्षा!

एक वर्स कशें गेलें कोणाक कांय कळ्ळेंचना. १५ फेब्रुवारीक निरोप सुवाळो जावपाचो आशिल्लो. हर्षाचे दोळे घडके घडके भरून येताले. मदीं मदीं तें महेशावसल्यान

पळयतालें, महेश जाल्यार एकसारखो ताच्याच वसल्यान पळयतालो. खिणभरूच नदरेक नदर मेळटाली. आनी तो दीस सट्ट करून आयलो तसो गेलो लेगीत!

खूब वेळा एखाद्री गजाल जाय शी दिसता पूण ती कशीच मेळना. हर्षाचें लेगीत तशेंच जाल्लें. वर्स केन्ना सोंपचेंच न्हय अशें ताका जाल्लें, पूण वगत ताका रावलो ना. ताणें दोगांयमदीं पड्डो उडयलो.

बस फातर्प्यां पावलीं तेन्ना सांजवेळचीं पांच वरां जाल्लीं. प्रसादा फाटोफाट हर्षा बसींतल्यान सकल देंवलें. देवळामुखावयले सुवातेर कितल्योशोच फुलकान्नी फुलां घेवन बशिल्ल्यो. एकटेकडेन रोजांच्यो माळो आशिल्ल्यो. देवीच्या दर्शनाक वतना फुलां व्हरपाची प्रथा आसा. हर्षान प्रसादाक रोजांची माळ घेवपाक सांगली. -

"कितले दिवपाचे?" प्रसादान फुलकान्नीक विचारलें - "स रूपये" जाप.

"आगो, ह्यो रोजांच्यो माळो खूब म्हारग. आमी हीच घेवया सादी दोन रूपयांची."

हर्षा आनीक कांयच उलयलेंना. तशें पळोवपाक गेल्यार ताच्या मनासारखी अद्याप एकाद्री गजाल घडूंक नाशिल्ली. आयजमेरेन घोवान ताची मनासावन एकूय इत्सा पुराय करूंक नाशिल्ली. जसो गारूड्याचे पुंगेवांगडा नाग धोलता तसो प्रसाद आपले आवयचे सांगणेचेर चलतालो. मनीस स्वतंत्र आसूंक जाय अशें ताका दिसलेंच नासतलें.

सोपणांकडेन जोतीं दवरून तीं दोगांय देवळांत भितर सरलीं. बरें सावज चलून आयिल्लें पळोवन भटान आवंडो घोंटलो. जोडप्यान देवाक नमस्कार केलो. अभिषेकाखातीर हाडिल्लें सामान तांणी भटाकडेन दिलें आनी तीं दोगांय देवाक प्रदक्षणां घालूंक लागलीं.

स वरां जावपाचीं जाल्लीं. अभिषेक चालू आशिल्लो. प्रसाद भटा लागीं बशिल्लो. हर्षा कडेन बशिल्लें. दर्शनाक येवपी लोकांची मुखामळां ते नियाळटालें. ताका भौन-भौन दिसतालें. परत-परत दोळ्यांमुखार उबें रावपी फुडाराच्या संवसारांचे चित्र तें टाळटालें. कितलेतरी लोक देवळाचीं सोंपणा चडटाले आनी देवताले. देवतेचें दर्शन घेवन वतना खूब जाणांचीं मुखामळां तृप्त जाल्लीं दिसतालीं. हर्षा बशिल्ल्या जाग्यावयल्यान निर्जीव नदरेन एकसारखें पळयताले आनी....

आनी ताका तो येतना दिसलो. ताच्या हातांत ती रोजांची माळ आशिल्ली. कांय खिणांपयलीं हर्षान आपल्या घोवाकडेन ती माळ घेवपाक हट्ट धरिल्लो. हातांत माळ आनी उजवातीचो पुडो. तो देवळांत भितर सरलो. आनी इतल्यांत ताची

नदर हर्षाचेर पडली. नदरेक नदर मेळ्ळी. खिणभर हर्षाक दिसलें अशेंच धांवत वचून ताका वेंग मारची. पूण आतां सगले सोंपिल्लें. तो एकसारखो हर्षा वसल्यान पळयतालो. ताची मूर्त एकाच जाग्यार लागली. पूण हर्षा ताचें तें बाबडेंच मुखामळ पळोवंक शकलेनां. ताची नदर आपशींच जमनीर गेली.

परत एकदां ताका दोळेभर पळोवचो म्हूण हर्षान तकली वयर काडली. पूण महेशाचीं पावलां केन्नाच फाटीं पडिल्लीं. तो बेगी-बेगीन देवळाचीं सोंपणां देंवतालो. हातांतली माळ आनी उजवातीचो पुडो तसोच हातांत आशिल्लो जसो कितें ताचो देवावेलो विस्वास उडिल्लो...

## १७

# एक चीट

मोगाळ xxxx,

तुजें पत्र कालूच पावलें. पावसाक आशेल्ले गिमाचे धर्तरेचेर पयल्याच पावसाचो शिंवर पडचो तशी म्हजी गत जाली. खूब वाट पळयली तुज्या पत्राची. पूण तें आयलेंच ना. आतां मेळ्ळां खरें, पूण खूब वगत जाला. काळजांतलो वसंत केन्नाच उलगला. .... आतां फाटल्यान धांवल्यार पिशेपणां मात जातलीं.

तेन्ना तुका हांवें कितलें समजायलें. पूण तुवें आयकुनूच घेतलें ना. तुजो हावेस मळबायेदो आशिल्लो. तुवें म्हाकाय आपलेवांगडा उडपाक सांगलें. पूण म्हजेकडेन जालेंना. मोर उडटा म्हूण लांडोरीन उडल्यार कशें जायत! म्हजो सांगात सोडून वतना तूं खूब रडलें. तुज्या काळजाची वळख म्हाका खूब पयलीं मेळिल्ली. फाटलो एक एक उगडास काडीत जाल्यार तुज्या हळव्या मनाची गवाय दिवं येता. पूण वाऱ्याभाशेन मेकळो सुटिल्ल्या तुज्या हावेसाक म्हजेकडेन आटापाक हाडूंक जालेंना.

तुवें तुजो हावेस पूर्ण केलो ही खबर वाचून काळजांत उमेदीचीं ल्हारां फुटलीं. चड खोशी जाली ती सगळ्यांत पयलीं ती गजाल म्हाका कळयली ताची. खंयचीय गजाल सार्थकी पावतली जाल्यार त्यागाची गरज आसता. तुवें तें जिस्त वळखिल्लें. देखुनूच सपनांचीं मोरापाखां आंगार भोवंडावपाचे पिरायेर तुवें सगळ्याचेर उदक सोडलें. हांवें लेगीत तुका खूब समजायलें. पूण दोळ्यांत दोळेभर दुकां हाडून तूं म्हाका पोशेत रावलें. त्या दिसा तुजो निरोप घेता आसतना म्हज्या जिवाक जें भोगलां तें उतरांनी सांगपाक जावचेंना. विमानांतल्यांन तुवें हात दाखयलो आनी तुज्या पप्पासयत सगळ्यांच्या दोळ्यांतल्यांन सळसळीत दुकां व्हांवलीं. विमानाचो

काळो ठिपको दोळ्यांआड जालो आनी हांवें भुंयेचो आदार घेतलो.

उपरांतचे सगळेच दीस युगांवरी भासपाक लागले. तुजे यादी बगर एक खिणय मुखार वचना जालो. वाटेर कितेंय तरी आडखळी येवन तू परत येतलें म्हूण हांवेन जायती वाट पळयली. केन्ना -केन्नाय ओगीच पावलांचो आवाज जाता असो भास जावचो. पूण तो फक्त भासूच आसतालो.

तुजी एक एक याद पोशेत हांव पिशावरी भोंवपाक लागलों. सगळ्योच वान्सा जळपाक लागल्यो. जेवण-खाणावेली रूचच गेली. एक दीस हांव दीसूयभर दर्याचे वेळेर उदकांत पांय बुडोवन बसून रावलों. आमी दोगांय वचून बसतालीं पळय, त्याच जाग्यार. मोगाचें सगळें गुपीत आमकां थंयच होल्मल्लें. एक दीस तुजो हात हातांत घेवन हांवें तुका विचारिल्लें याद आसतलें-

"xxxx आमकां मोग करपाक हो जल्म पावतलो?"

"अशें कित्याक उलयता पिशा?"

"तुका म्हजो केन्नाच वाज येवचो ना?"

"कित्याक दुबाव आयलो?"

"केन्ना केन्नाय ओगीच भिरांत दिसता."

"कसली भिरांत?"

"तूं म्हाकां विसरून वतलें."

तेन्ना तुज्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. सूर्य अस्ताक वतालो. ताचे वसल्यान बोट दाखोवन तुवें सोपूत दिलो, "हो आसासर हांव तुजेच खातीर झरतलें." अशें म्हणून तुवें म्हाका वेंग मारिल्ली. उपरांत तुवें गळयल्ल्या दुकांनी म्हजें हड्डें सामकें ओलें जाल्लें.

आमचो बी.एस्.सी. चो निकाल लागलो आनी तुज्या दोळ्यांत हांवें वेगळींच किर्णां चकचकतना पळयलीं. तूं कसल्यातरी विचारांत बुडी मारून बसतालें. कांय वेळा तुवें आपलें काळीज उक्तें करपाचोय यत्न केला. पूण तूं म्हज्या अबुद्द दोळ्यांत रोखून पळयतालें आनी एक उस्वास सोडटालें. हांवें तुजें सगळें पचोवन लेगीत तुज्या उस्वासांची भास म्हाका केन्नाच कळ्ळीना. एक दीस तुवें धीर करून म्हाका सपनांतल्यांन जागो केलो. अमेरिकेक वचून मुखावेलें शिकप घेवपाचो तुजो हावेस आयकून हांवें सामकेच कानार हात दवरले... पूण तुवें हट्ट सोडलोना. म्हजो हात हातांत धरून तुवें म्हाका खूब समजायलो.

"ना xxxx हांव तुका कसोच वचपाक दिवचोना."

"अशें म्हणून कशें जातलें पिशा... फक्कत स वर्सां ! उपरांतचो सगळो जल्म ह्या स वर्सांचें रीण हांव कळंतरासयत फारीक करतलें."

"स वर्सां सोडूच... स दीस तरी म्हज्यान रावपाक जातलें अशें दिसता तुका?"

"पिशा, धीरान सोंसल्यार खंयचीच गजाल अशक्य ना."

त्या दिसा हांव पयलेच फावट सामको ल्हान भुरग्याभशेन रडलां. तुवें म्हाका खूब समजायलो. एक दीस तुजें वचपाचें सामकें निश्चित जालें. तुका आडावन दवरपाचे म्हजे सगळे यत्न निर्फळ जाले.

एक दीस म्हजे तकलेंत एक विचित्र विचार आयलो. हांव म्हळ्यार तुजे वाटेंतली आडखळ अशें म्हाका दिसपाक लागलें. ती आडखळ सासणाची ना केली जाल्यार? कसलो तरी घट निश्चेव करून हांव ते सुवातेर गेलों. तुकाय ती सुवात हांवें दाखयल्ली. ते उंच सुवातेवेल्यान दर्यांत उडी मारिल्ली जाल्यार तुका ह्या पत्राची जाप केन्नाच मेळची नाशिल्ली.

पूण जिवितांतले भोग सोंपूक नाशिल्ले. दोळे धांपून ते सुवातेर उबो आसतना कोणें तरी फाटल्यान येवन म्हजो हात घट धरलो. ताणें म्हाका कुशीक हाडलो. कोण तरी तो पयसुल्लो भोंवडेकार आशिल्लो. ताणें म्हाका जायतो समजायलो -

"तुका कसलें तरी व्हड दुख्ख जालां."

"हय, देखुनूच हें उरिल्लें अंतर एकाच खिणांत सोपोवंक सोदतालों. पूण तुवें म्हाका त्रासांत घालो."

"असो निर्शेव नाका. मनशान दुख्ख पचोवंक जाय."

"सगळींच दुख्खां पचोवंक जायनांत..."

"म्हजेकडेन वखद आसा.... दुख्ख पचोवपाचें. तूं घेवन पळय. खिणाभितर सगळें विसरून वतलो."

त्या दिसा ताणें दिल्लें वखद हांवें घेतलें. आनीक कितें सांगतलो तुका? काळीज वाऱ्यार धोलपाक लागलें.... संवसार पळोवपाची नवी नदर मेळ्ळी.... तुजे-म्हजे मदलें अंतर घडये घडये उणें जावपाक लागलें.... तू दोळ्यां सामकार दिसपाक लागलें.... आनी पयलीं भाशेन हांव तुका घडये घडये वेंगावपाक लागलों. सगळेच दीस वाऱ्यार हुबून वचचे तशे वचपाक लागले.

एक दीस वखद मेळ्ळें ना जाल्यार मात जीव सामको पिशांर पडटालो. उदकाभायर तापिल्ले वेळेर जशें नुस्तें फडफडटा तशी म्हजी गत जाताली. मागीर तें वखद सोदीत हांव जळींमळीं भोंवतालों. भुकेल्ले भिकारी जशे दोळ्यांत जीव हाडून

अन्नाचे आशेन भोंवतात तसोच ! उपरांत खंय ना खंय तरी तें वखद मेळटालें आनी मन सपनांच्या संवसारांत रिगतालें.

इश्टांचो सांगात केन्नाच सुटिल्लो. सामके लागींचे इश्ट लेगीत हांव दिश्टी पडलो म्हणटकीच दुसरेच वाटेन कूस मारताले. सगळीच मनीसजात म्हाका इल्ली - इल्ली पयसावताली ताचें गूढ एक दीस म्हाका होलमलें. त्या दिसा फोंडूल्या हॉटेलार कांय जाण म्हज्यो खबरी करताले तें हांवें आयकलें.

"हालींसराXXXX सामकोच पिसो जाला मरे."

"पयलीं बरो हुशार आशिल्लो मरे तो."

"मनशांचें कितें? तकली साबूद आसा म्हणसर मनीस. ना जाल्यार मनशाचो कितें उपेग आसा?"

लोक म्हाकां पिसो लेखतात तें म्हाका त्या दिसा कळ्ळें. त्या दिसासावन हांवें जीव चडूच वाऱ्यार सोडलो. आवयन दोळ्यांत दुकां हाडून खूब समजायलो. दुकांनी कालयल्लीं तीं मायेचीं उतरां लेगीत म्हज्या कानावेल्यान घसरून गेलीं.

म्हाकां कसलोच आदार नाशिल्लो. हालींसरा तुका विसरपाचो हांव जायतो यत्न करतालों. पूण काळजावेलें चवन तें ...केन्ना पेखलेंच ना.

पयलीं-पयलीं तूं एखाद्री चीट तरी धाडटलें हे आशेन खूब वाट पळयली. पूण तुज्या हावेसान तुका कुड्डें केल्लें. तुका म्हजो उगडासूच जालो ना? हांवें तुका चीट बरयल्ली...पूण तुजो नामो नासतना हांव ती खंय म्हूण धाडटलों आशिल्लों?

सगळेंच येवजून जीव पिशांर पडटालो.

आनी काल अचकीत तुजें पत्र आयलें. खरेंच कितले बेगीन उलगलीं स वर्सां! म्हजें काळीज खोशेन उडयो मारपाक लागलें. फाटल्या स वर्सांत काल पयलेच खेपे हांवें म्हजें तोड हारशांत पळयलें आनी म्हाकां धक्को बसलो. म्हजें रूपडें मनशाचें नाशिल्लें... म्हाकांच तें वळखुपाक येना जालें.

पिशा, पत्रांत तुवें खूब बरयलां. फाटलीं स वर्सां काळजांत कोंडून दवरिल्लीं भावनांचीं कुपां फोडून आशाडांतल्या पावसावरी रकल्यांत. फुडाराच्या संवसाराचीं खूब चित्रां तुवें रंगयल्यांत. आनी हें इतलें व्हडलें पत्र ! फाटलीं स वर्सां तू तेंच बरय नाशिल्लें मूं?

म्हाका विस्वास आसा. आतां तू खिणाचोय कळाव लायनासतना गरूडाचीं पाखां लावन उडून येतलें.

पूण म्हाका तूं वळखतलें?

१८

# लामणदिवो

हांव हांतुणार उठून बसलों. दोळे पोशेत जनेलांतल्यान भायर पळयलें. दीस बरोच वयर सरिल्लो. अदमासान आठ वरां तरी जाल्लीं. भायल्यान सवण्यां सुकण्यांचो कलकल चालू आशिल्लो. रातीं पडिल्ल्या सपनान हांव अस्वस्थ जाल्लों. हरशीं हांव सपनांचेर विस्वास दवरपी मनीस न्हय. सपना सगळीं फट आसतात हें हांव जाणां. 'मनांत आसता तें सपनांत दिसता' ही म्हणणी लेगीत म्हाका तितलीच पाठ आसा. पूण कोणूय सांगतात 'एक-एक सपन खरें जाता खंय !'

रातीं सपनांत म्हाकां म्हजी आवय दिश्टी पडली. तिचें मुखामळ पुरायेन बदलून गेल्लें. चिंतनाचें वजें तिच्या माथ्यार आशिल्लें. सपनांत ती म्हज्या लागसार आयली. तिणें म्हजें मुखामळ नियाळ्ळें. खूब वर्सांनी आपलो शेणिल्लो पूत आवयक मेळून उपाट खोशी जावची तशी तिका जाल्ली. तिच्या दोळ्यांतल्यान खोशेचीं दुकां गळ्ळीं. कांय खिणूच तिणें म्हजें मुखामळ नियाळ्ळें आनी म्हाका घट्ट वेंगेंत घेतलो. कितल्यातरी वर्सांनी आयज मायेची आनी वात्सल्ल्याची ऊब घेवंक मेळ्ळी. आवयचे वेंगेंत घुस्मटून म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवलीं. म्हजी पिराय हांव साप्प विसरलों. हांव सामको ल्हान जालों. जिवाक बरें ल्हव ल्हव दिसपाक लागलें. आवय म्हाका परत सोडून वचत म्हूण हांवे तिका घट्ट वेंग मारली. इतलें हें सगळें कांय खिणांभितरूच जाल्लें. कशेंच रावं नज जावन हांवें आवयक उलो मारलो-

"आवय...?"

"म्हज्या पुता?" तिणें जड आवाजांत म्हाकां जाप दिली. तिका कसलें तरी व्हड दुखख जाल्लें. परत तिच्या दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां व्हांवंक लागलीं.

"कितें जालें गे आवय...? रडटा शी?" हांवें तिका विचारलें.

"कर्म म्हजें !" तिची जाप.

"म्हाकां सांगचीना?" म्हजो प्रस्न.

हांवें तशें विचारपाची फुरसत. तिची परवड सुरू जाली. "पुता, म्हज्यो आनी तुज्या बापायच्यो तुजेकडल्यान जायत्यो अपेक्षा आशिल्ल्यो रे! पुणून तुवें वाट लायली. विटयलें तुवें ! आमच्या घरदाराचो एकलोच लामणदिवो तूं. दिशिल्लें, सामक्या वाकड्या वळणार वचचो ना. आवय - बापायचें नांव वयर काडटलो ! आमचें सपन मातये भरवण केलें रे तुवें !"

"आवय... आवय कितें उलयता तूं हें ! कोण सांगता हांवें विटयलें म्हूण? इतलो व्हड संवसारभर गाजिल्लो लेखक हांव ! कितल्या तरी लोकांच्या तोंडांत दिसपट्टें म्हजें नांव घोळटा. कितले तरी लोक म्हजी तुस्त करतात. म्हज्याय परस व्हड आनी जाण्टे म्हाका रेस्पेत दितात. कितल्या तरी जाणांनी म्हणिल्लें, म्हाका अजून उगडास जाता - "आवय - बापायचें नांव काडलें तुवें वयर." आवय! खऱ्यांनीच तुमचीं दोगांयचींय आवयबापायचीं नांवां भांगरा अक्षरांनी बरोवपाची तांक करून दवरल्या गे हांवे..."

"ना कोण म्हणटा?" आवय उलयली. "पूण तूं बरोवपी जाले तीच तुजी व्हडली चूक. व्हडलें नामांकीत पाप करून दवरलां तुवें. कर्तुपांनी तूं निम्हेंळ आसा. तुवें केन्ना कोणाल्याक ना म्हूण हात लायलो ना. कोणाक केन्ना नागयलो ना. कोणाचो खून केलो ना. मारामारी केली ना."

"हांव तेंच म्हणटां ! मागीर हांव पापी कित्याक जालों?" हांवे तिका परते विचारलें.

"सांगतां - सगळें सांगतां ! तूं बरोवपी जालो आनी तुज्या मनान दोन पेट्यांक जल्म दिलो. तुज्या मनाचे दोन फांटे जाले. तुका दोन मनां जालीं. एक दाखोवपाचें आनी दुसरें लिपोवपाचें. तुजें एक मन साद्या आनी भावार्थी मनशाचें. सामकें पवित्र. त्या मनांत कसलेंच पाप ना. व्देश ना. वायट अशें कांयच ना. तें तुजें दाखोवपाचें मन. तुजें दुसरें मन मात सामकें कोडू विचारांनी भरलां. तेंच तुजें लेखकाचें मन. तुज्या लिखाणांतल्यांन तुवें कितल्या पात्रांक रडयलीं... कितल्यांक दुःखां भोगयलीं... कितल्या जाणांक लुटलीं आनी कितल्यांक नागयलीं... कितल्या जाणांची लग्नां लायलीं आनी कितल्या जाणांक घटस्फोट दिलो... थीर धर्तरी तुवें तुज्या बरपांतल्यांन

हालयली... मोडां हाडलीं... हुवांर केले... भूंयकांप केलो... पुता भूंयकांप केलो... आतां कितें पळयता अशें तोंड आंऽऽ करून?"

हांव जाग्यार आयलों. हांव कोणाकडल्यान हार खावपी मनीस न्हय. व्हड आवय जाली म्हूण कितें जालें? एदो व्हड लेखक हांव आवयक बदतां? हांवे म्हजें तोंड परत वाजयलें -

"पूण आवय, लेखकाचें कामच तें. कितेंतरी आपोआप चिंतनांत निर्माण करप आनी पेपरार बरोवन काडप. लेखकाचें जग वेगळेंच आसता गे. तें तुका कळपाचें ना. एदो व्हडलो संवसार दोळ्यांसामकार निर्माण करप म्हळ्यार फकाणांचीं कामां न्हय तीं ! केदी व्हड तांक लागता ताका...!"

म्हज्या उलोवपाची म्हाकाच तोखणाय दिसली. खिणभर मन धादोस जालें. म्हाका दिसलें आतां मात हांवे आवयक जापहीन केली. पूण अकस्मात विजेचो शॉक येवचो, तसो तिणें म्हजेर प्रस्न शेंवटिलोच...

"बरोच गर्व आसा तर तुका ! पूण तुवें जें जग निर्माण केलां, तुवें जें कितें बरयलां तातूंत कितलें सत्य आनी कितलें फट आसा हाचो तुजेकडेन हिशोब आसा व्हय तर?"

निमाणेंकडेन आवयक जापहीन करूंक सोदतालों तो हांवच जापहीन जावन पडलों. तिका दिवपाक म्हजेकडेन जाप नाशिल्ली. म्हजे दोळे धवे जावपाक लागले. एकाद्रो पोलीस चोरावसल्यान पळयता तशी ती म्हज्या वटेन पळोवन जापेची अपेक्षा करताली. निमाणेंकडेन हांव अपेशीं जालों. हांवे तिच्या पांयांक हात लायलो. म्हज्या दोळ्यांतल्यान सळसळीत दुकां व्हांवलीं. भावनाभरीत जावन हांवे म्हळें - "आवय, हांव चुकलों. म्हाका माफ कर. असलें वायट कर्तूप हांव केन्नाच करचोना." म्हजीं फुडलीं उतरां ताळ्यांतूच उरलीं. तांकां वाट मेळ्ळीच ना.

"तुका माफ करतां पुता, पुणून म्हज्या आनीक कांय प्रस्नांच्यो जापो दी.." आवयन सागलें.

म्हजेर आनीक कसले प्रस्नरूपी बाण येतात ते झेलपाक हांव तयार रावलों. आनी इतल्यांत आवयचो दुसरो प्रस्न म्हज्या कानार आपटलो.

"तुवें म्हाका वंशाचो दिवो लायतलों म्हूण सोपूत दिल्लो. नातवाक पळोवंक हांव सामकी आंवडेल्या रे ! वंशाचो दिवो पेटत उरचो म्हूण आमी तुज्या रूपान एक लामणदिवो पेटयिल्लो जाल्यार तोच अद्याप जळटा. नातवाचें तोंड पळयले बगर

आमचो आत्मो केन्नाच तृप्त जावंचोना रे ! केन्नाच जावचोना... आवय बापायक तृप्त करप हेंच पुताचें व्हडलें पुण्य ! मागीर सांग ! तो लामणदिवो केन्ना पेट्टलो?"

नाका आशिल्लो प्रस्न आवयन विचारिल्लो. हांवें कानार हात दवरलो आनी हांव व्हडल्यान किळचेलों "तो लामणदिवो केन्नाच पेटचोना !"

म्हजेच किळचेन हांव जागो जालों. हांतुणार उठून बसलों. हेवटेन - तेवटेन पळयलें. कोणूच नाशिल्लो. आवय सपनांत आयिल्ली.

सपन कितेंय आसूं ! निदान कितल्या तरी वर्सांनी आवयचें रूप तर पळोवंक मेळिल्लें. ती भायर पडल्यार कांय न्हय म्हळ्यार पंदरा सोळा वर्सां जालीं जातलीं.

आवयची म्हजेर खुबूच माया आशिल्ली. बापाय फाटल्यान तिणेंच म्हाका ल्हानाचो व्हड केल्लो. म्हाका ती जीव काय प्राण करताली. आपलें पोट मारून तिणें म्हाका जेवयलो. शिकयलो. म्हाका तिणें कसलोच त्रास पडूंक दिलो ना. एकादऱ्या नाजूक फुलावरी तिणें म्हजी जतनाय घेतली. आपूण आसा म्हणसर तिणें म्हाका कसलीच काळजी पडूंक दिलीना. हांवूच तिका एक व्हड आधार आशिल्लों. तिच्या खुस्तार हांवे जायतीं फोल्गां मारलीं. भुरगेपणांतल्यो कितल्यो तरी चुको तिणें म्हाका माफ केल्ल्यो.

म्हाका दिसता इतली बरी कोणाचीच आवय आसचीना. जो मनीस मायेस्त आनी गुणांचो आसता ताकाच देव पयलीं व्हरता. तिका कसलें तरी वायट दुयेंस लागलें. हांवे म्हज्यान जाता तसो तिका जायतो उपाय केलो. सेगीत कितले तरी दीस हांवे दोतोराक घरा हाडलो. आवयचे तळमळे पळोवन म्हाका कांयच रूचना जालें. म्हाकां रातची न्हीद पडना जाली. हांव तिच्या हांतरूणाकडेन बसून रावतालों. दोळ्यांतल्यांन एकसारखीं दुकां व्हांवतालीं. हावें एक दीस तिका विचारलें-

"आवय, अशी मोन्यांनी एकसारखी रडटा कित्याक गे?"

"पुता, मरचे पयलीं एकच इत्सा आशिल्ली रे." आवय.

"कसली ती?" हांव.

"एकदांच नातवाक दोळे भरून पळोवपाची" तिच्या उलोवपान म्हाका एकदम उमाळो आयिल्लो.

हांवे तिका वेंग मारून म्हणिल्लें -

"आवय, आवय, तूं केन्नाच मरचीना गे. तूं म्हाका सदांच जाय !"

"पुता, तोंडान म्हणप सोपें रे. पूण देवाक जाय पडल्यार कोणाच्यान आडावं

येता?" तिणें म्हणिल्लें.

अशेच आनीक कांय दीस गेले. एक दीस आवयन म्हाका मुद्दाम उलो मारून तिच्या लागसार आपयलो. हांवें विचारलें-

"कितें जाय?"

म्हज्या प्रस्नार ती मंद हांसली. तिणें म्हळें - "कांयच नाका पुता. थोडें उलोवपाचें आसा. हांवें तुका शिकयलो, व्हड केलो. पुता कितलो व्हड जाला रे तूं लोकांचे नदरेंतल्यांन ! पूण म्हजो तूं माणकुलोच आसा. बापूय सदांच म्हणटालो - "हुशार आसा गो तो. आमचें नांव वयर काडलेबगर रावचोना. खरेंच पुता - कितेंय तरी नामना जोडपासारखें काम कर. संवसारभर तुजें नांव गाजूं दी. पुताचें कार्य पळोवन आवय-बापायचें नांव दुसऱ्यान घेवप हाचे इतलें सुख आनीक आवय-बापायक कसलेंच ना रे ! आतां हांव थोड्याच दिसांची सांगाती आसां. म्हज्या दोळ्यांनी हांव म्हज्या नातवाक पळोवंक पावलीचना. पूण उगडास दवर. वंशाचो दिवो पेटत दवर. वंशाचो लामणदिवो घणघणीत बरो पेटूं दी. आनीक म्हजी कांयच इत्सा ना. हांव आतां मरूंक पुराय मेकळी आसां."

"आवय, कित्याक म्हणटा तूं अशें ..? म्हाका एकल्याकूच सोडून वतली तूं?" आनी मागीर हांव तिचे मांडयेर तकली दवरून हुंडक्या हुंडक्यांनी रडिल्लों.

आवय मरणाच्या दारांत आसतना लेगीत तिचें मुखामळ प्रसन्न आशिल्लें. तिच्या उलोवपांत माया, मोग दाटून आशिल्लो. मरणाच्या हुमऱ्यार आसतना मनीस मनान पुरायेन पवित्र आसता. ताच्या मनांत व्देश वा वायट विचार येवंकूच शकनांत.

...आनी एक दीस अकस्मात आवयची जिवीत-ज्योत पालवली. म्हजेर आकांताचें दुख्ख कोसळ्ळें.

म्हजी अपुर्बायेची आवय म्हाका सासणाची सोडून गेली.

आवयच्या मरणा उपरांत म्हजेर जायते बरे वायट प्रसंग आयले. दर एका प्रसंगाक हांवे धीरान तोंड दिलें. जिवितांत सुखाचे खिण चड आयलेच नात. जिवितभर म्हजी जीण दुःखीच उरली. आपलो म्हूण म्हजो मायेचो असो कोणूच नाशिल्लो.

आवयचीं मरणा वेळावयलीं उतरां म्हाका एकसारखीं धोसतालीं. कितेंय करून आवय-बापायचें नांव वयर काडूंक जाय, हेंच एक ध्येय दोळ्यांसामकार आशिल्लें. कितें घडलें कांय कळ्ळेंच ना. मात एक दीस हांव नामनेचो बरोवपी म्हूण लोक

म्हाका वळखूंक लागले. सगळी जीण तातूंतच सोंपली.

दीसभर रातच्या सपनाचेर विचार करतना दीस कसो सोंपलो कळ्ळेंच ना. पांच वरां जाल्लीं. पांच वरांवयलें तामशें वोत जनेलांतल्यांन भितर सरलें. हांवें पायांक जोतें घालें. दार मात्शें आड केलें आनी पांय मेकळे करपाक हांव भायर सरलों.

मनांत तेच विचार घोळटाले. आवयचो प्रस्न कानार येवन आपट्टालो. खिणभर तिची बाविल्ली मूर्त दोळ्यांसामकार येताली. कितेंतरी पळोवंक आशेल्ले तिचे दोळे लुकलुकताले. कितलेंय जाल्यार सपन तें ! म्हूण म्हजे विचार हांव विसरायेर घालतालों. पूण मन ओगी रावंक दिनासलें.

दोंगरार वचपी वाटेर म्हजे पांय आपोआप पडटाले. इल्लीशी ती धुल्लान भरिल्ली वाट हांव माड्डीतालों, दीसभर बोवाळ घालून लेगीत सवण्यां - सुकण्यांच्या आवाजांत तीच मधुरताय आशिल्ली. भोंवतणचें वातावरण प्रसन्न आशिल्लें. सगळो-सगळो सैम पुरायेन खोशी दिसतालो. मात व्हडल्या धव्या कागदार एक काळो ठिपको आसचो तसो हांव एकलोच उदासपणाच्या चेपणाखाला चेपिल्लों.

दोंगर चडून हांव दोंगराचे तेंगशेर आयलों. हो दोंगर म्हळ्यार म्हज्या जिविताचो एक भाग म्हळ्यार अतिताय जांवचीना. कोणेतरी हाताक धरून हाडिल्ले भाशेन हांव त्या तळपामुखार वचून उबो रावलों. धव्या रंगान बरयिल्लीं आमचीं नांवां अद्याप जशाचीं तश्शीं थंय आसात. ताचें आनी म्हजें. अकस्मात म्हज्या जिवितांत तें आयिल्लें. आनी म्हाका झिडकारून गेल्लें.

आतां उरल्यात ते फक्त उगडास आनी तळपार बरयल्लीं तीं नांवा. बाकी सगळें शून्य. खिणभर म्हाका दिसलें मोग, माया म्हणटात तें सगळें फट. संवसारांत कांयच खरें ना. कित्यानूच तथ्य ना.

खिणभर सगळ्यो फाटल्यो यादी चाळवल्यो. दोळे जड जाले. कांय दुकां थेमे गळून जमनीर पडले. हांवें कितलोतरी वेळ त्या निर्जीव नांवांवयल्यान अळंग हात भोंवडायलो. आनी... कितें जालें कोण जाणां ! म्हज्या तोंडांतल्यांन आपोआप उतरां भायर सरलीं.... "ना... नाऽऽऽ आवय तो लामणदिवो केन्नाच पेटचोना गे... केन्नाच पेटचोना... !"

१९

## निमाणो हात...

हांव जॅकासयत विमानांतल्यांन सकयल देंवलों. "हें आमचें गोंय !" हांवेन ताका सांगलें. आनी खिणांत म्हाकां कच्च जालें. आमी खंयच्या तरी दुसऱ्याच विमानतळार देंवल्यात काय कितें? हांवेन हेवटेन तेवटेन पळयलें. इतले म्हणसर मुसांचो चोमो येवचो तश्यो साबार गाडयो गूं गूं करीत आमच्या लागसार आयल्यो. सगलेच ड्रायवर देंवले आनी आमकां ओडपाक लागले. ड्रायवरांचें उलोवणें आयकून म्हजो दुबाव पयस जालो. हय आमी गोंयांतूच पावल्यात ! पूण म्हाकां हो विमानतळ वेगळो कसो भासलो? हांवेन म्हजो दुबाव एका ड्रायवराक विचारलो -

"पात्रांव हो नवो विमानतळ पांच वर्सां जाली हाका" ताणें म्हाकां सागलें. सगलेच ड्रायवर ओड्टाले. खंयचे गाडयेंत बसचें कांयच समजना जालें. निमाणेकडेन एका मोठ्याश्या ड्रायवरान आमकां आपले गाडयेंत धुकलून दिले.

"खंय वचपाचें?" ड्रायवरान विचारलें.

"पणजे पावय."

रस्त्यार रस्तोभर मोटारी चलताल्यो. इतल्यो मोटारी पयलीं हांवेन मुंबय पळयल्ल्यो. "ट्राफीक जाम जालां काय कितें रें?" हांवेन ड्रायवराक विचारलें.

"ना पात्रांव. हालीं मोटारी खुबूच वाडल्यात. एका वराक चडांत चड धा पंधरा किलोमिटर गाडी चलोवंक मेळटा. पयलींचे दीस गेले ते."

"तुमचे मदींय खूब कंपिटीशन चलता दिसता न्हय?"

"हय. सरकार मेळटा ताका परमीट दिता. चडशे भाडें मारपी गोंयांभायलेच आसतात."

"गोंयाभायले?"

"हय! गोंयकार हालीं दिश्टीच पडनांत !"

"म्हळ्यार ..?"

"शेकड्यांत खंयूय पांच - स सोदून मेळटले." आयकून म्हाका कच्च जालें.

हांव खरोच गोंयात पावलां काय सपनांत बी आसा, कांयच समजनां जालें. म्हज्या काळजांतल्या गोंयची एकूय कुरू फाटीं उरूक ना. रस्त्याचे दोनीय कुशीनीं जी झाडां झोपां दिसतालीं, तीं नांच जाल्यांत. तांचो जागो ल्हान - व्हड बिल्डिंगांनी घेतला. व्हडा उमळशीकेन हांव आरशांतल्यांन भायर पळयतालों. पूण सगलो देखाव पळोवन तकली घुंवपाक लागली.

व्हडा उमेदीन हांवे जॅकासयत गोंयांत पावल दवरलें. जॅक म्हजो लंडनांतलो इश्ट, नव्यानूच जेन्ना हांव लंडनांत पावलों तेन्ना परकीपण सामकें खावपाक आयलें. पूण जॅकाकडेन वळख जाली, इश्टागत वाडली आनी जॅकान पुराय लंडन शार म्हजेंच करून उडयलें. जॅक म्हजी वळख आपणाल्या इश्टांकडेन करून दितालो. हांव गोंयचो अशें सांगनाफुड्यां सगलेच म्हजेवसल्यान वेगळे नदरेन पळयताले. गोंय म्हळ्यार तांचे नदरेन व्हडलें कितेंतरी ! गोंय म्हळ्यार सर्ग कसो. जॅकान लेगीत गोंय आनी मुंबय सोडून भारतांतल्या हेर वाठारांची नावां आयकूंक नाशिल्लीं. गोंयचो विशय आयलो म्हण्टकीत जॅक व्हडा उमळशिकेन म्हाकां एकसारखो प्रस्न विचारीत रावतालो -

"गोंयांत सोबीत दर्यावेळो आसात न्हय?"

"हय! खूब सोबीत...!"

"हांगा आसा तशी थंय गाड्यांची गर्दी नासतली."

" ना. गोयांत गाड्यो सामक्यो उण्यो. रस्ते लेगीत उणे. चडसो सगलोच वाठार पांचव्याचार सैमान भल्ला."

"आनीक एक विचारूं?"

"विचार.."

"गोयांत लोकांक नागडे रावपाची मेकळीक आसा खंय न्हय?"

"ना. कोणी सांगलें तुकां हें?" आयकून म्हाकां कच्च जालें.

"हांवेन अशी एक जायरात वाचिल्ली. फाटीं मायाच्या म्हयन्यांत कांय चार्टर्ड विमानां गोंयात वचपांचीं आशिल्लीं. देखून एके कंपनेन गोंयची जायरात केल्ली.

तातूंत गोंयांत लोकांक नागडे रावपाची मेकळीक, सवाय दरान सोरो, लीगल प्रोस्टीट्यूशन अश्या कांय गजालींचो उल्लेख आशिल्लो. म्हजो एक इश्ट वचपाचो आशिल्लो. पूण सगल्यो सुवाती पयलींच बूक जाल्ल्यो."

म्हज्या सोबीत गोंयची ही भायल्या लोकांनी केल्ली विटंबना आयकून खूब तिडक माल्ली. "ना जॅक सगलें फट हें. आमच्या गोंयांत हातूंतलें कांयच ना."

"सॉरी! ... म्हाकां तरी कशें कळटलें?"

"खरेपण दाखोवपाक एक फावट तुकांच हांव गोंयांत व्हरतां." हांवेन ताका सांगिल्लें.

तेन्नासावन जॅक म्हाकां आपणाक गोयांत व्हरून हाड म्हूण सामको फाटीक लागिल्लो. पूण योगूच जुळून येनाशिल्लो. लंडनांत वचून कितलींशींच वर्सां उलगल्लीं. घडये घडये गोंयचो उगडास येतालो. खिणभर दिसतालें सोडून दिवचो हो सगलो व्याप आनी गोंयांत वचून सुशेग रावचें. म्हज्या अणभवाप्रमाण आमच्या देशाइतलो सुशेग देश घडये आनीक खंयच मेळचोना. लंडनातलो म्हजो व्यवसाय सुरू जालो आनी थंयची संवय जाली. मन रमपाक लागलें, कितल्याश्याच वर्सांनी गोंयांत येवपाची संद मेळ्ळी. "गोंयांत वचून येवया" म्हण्टकीत जॅकाक खूब खोशी जाली. ताचें काळीज खोशयेन उडयो मारपाक लागलें. पूण ताचेपरस चड खोशी म्हाकां जाल्ली. एकफावट पुराय गोंय दोळे भरून पळोवंक मेळटलें देखून काळजांत जें भोगतालें तें उतरांनी सांगपाक जांवचेंना.

मोटार पणजे पावली आनी म्हज्या चितपाक वेर गेली. हांवेन ल्हवूच जॅकावसल्यान पळयलें. तो हारशांतल्यांन भायर पळयतालो. जॅक पयलेच फावट गोंयांत पाविल्ल्यान ताका हो बदल कळ्ळोना. हांवेन ताका गोयांविशीं जायतें सांगिल्लें. तातूंतलें थोडेंतरी ताका दाखोंवक मेळ्ळ्यार पुरो. हांवेन मनांतल्या मनांत देवाक हात जोडले. ड्रायवरान मोटार एका हॉटेलासामकार उबी केली. हांव जॅकासयत मोटारींतल्यांन सकयल देवलों. भाड्याचे पयशे फारीक केले आनी हॉटेलाचें नांव वाचलें. ह्या हॉटेलाचें नांव हांवेन हाचेपयलीं केन्नाच आयकूना. पळोंवक नवेंच दिसता. मुखेल दारांतल्यांन आमी भितर सल्ले. रिशेप्शन करपी एके चलयेन आमकां भितर वचपाक वाट दाखयली. एक रूम निक्तोच रितो जाल्लो आमकां मेळ्ळो. "थोडो वगत मात्सो विसव घेंवया आनी उपरांत भायर सरूया." हांवेन जॅकाक सांगलें. उपरांत खंयच्यो - खंयच्यो सुवाती पळोवप ताचो हांवेन एक प्लॅन तयार केलो. सगळ्यांत पयली

गोंयच्यो कांय मुखेल अश्यो दर्यावेळो पळोवपाचें थारायलें. रूमाक चावी केली आनी हांव जॅकासयत मिरामार वचपाक भायर सल्लों. मांडवी न्हंयक लागून मिरामार खंय आसतलें ताचो अदमास केलो आनी आमी चलपाक लागले. मिरामार पावले पूण वेळेर वचपाक वाट ना. आवयस् कितली ही हॉटेलांची रास ! सगली दर्याची कडूच तांणी आडावन दवल्ल्या. हांवेन आसा थंयच रावन जॅकाक दाखयलें - "हिती दिसता ती मिरामारची दर्यावेळ." इतले म्हणसर कितलेशेच ट्यूरिश्ट गायड येवन आमचे भोंवतणी जमले. हांवेन ताका विचारलें -

"वेळेर खंयच्यान वचपाक मेळटा?"

"तुमकां वेळेर वचपाक मेळचें ना. बीच पळोवपाचो आसल्यार तुमकां खंयच्याय हॉटेलांतल्यांन वच्चें पडटलें."

स्वताच्या घरांत परकी जाल्ल्याभाशेन म्हाका दिसलें. टयूरिश्ट गायडांक सगलें खबर आसता. देखून तांकांच विचारलें-

"खंयचो बीच आमकां बरे तरेन पळोवंक मेळटलो?"

"बरे तरेन म्हळ्यार?"

"पयलीं पळोवंक मेळटालो तसो?"

"तसो तुमकां एकूय पळोवंक मेळचोना."

"एकूय पळोवंक मेळचोना?"

"सगळ्याच दर्याच्या वेळांनी कितलींशींच हॉटेलां वयर सल्ल्यांत. सगल्योच वेळो तांणी आडावन दवल्ल्यात." जॅकाच्या दोळ्यांत पळोवपाचो म्हाकां धीर जायना जालो. कितें करचें कांयच येवजना जालें.

तरीय हांवेन धीर सोडलोना. दुसऱ्याच दिसा हांवेन जॅकाक हरमल आनी बेतूल ह्या दोन सुवातांनी भोंवडांवन हाडलो. एकतरी सुवात आमकां पळोंवक मेळटली अशें धरिल्लें. पूण थंय लेगीत आमचेर निर्शेवन परतुपाची पाळी आयली. दोनुय सुवातींनी कितलेशेच म्हातारे - कोतारे भरिल्ले. ह्या दोनूय सुवातींनी 'जापनीस् विलेजीस्' जाल्यात म्हूण म्हाकां उपरांत कळ्ळें. निर्शेवन परतता आसताना एकटो जाण्टोसो गोंयकार मेळ्ळो. तोय बी म्हजेभशेन निर्शेल्लो. हांवेन म्हळें -

"कितें आसलें आमचें गोंय आनी कितें जालां पळय."

"आतां कितें उपेग त्यो गजाली उलोवन!"

"सरकारान कितें तरी उपाय काडपाक जाय."

"सरकार कितें उपाय काडटालो? मंत्र्यांचो जीव आपणालें कदेल सांबळटा म्हणसर गळ्याकडे पावता." अशें म्हणून निर्शेल्ल्या पावलांक अडेचो नेट हाडून तो चलत रावलो.

उपरांतचें सगळेंच भोंवप मशीनाचे गतीन जालें. ज्यो ज्यो गजाली हांवेन जॅकाक दाखोवपाच्यो थारायल्ल्यो तातूंतली एकूय गजाल आमकां सारखी पळोवंक मेळ्ळी ना. भुरगेपणांत खेळटाले तें खेळामळ पळोवचें अशें दिसले देखून वगीच पासय माल्ली जाल्यार कितें पळयतलो? पुराय खेळामळ झोपडपट्टेन भल्लां! वचत थंय शार जालां. सिमिटाच्या बिल्डिंगाचें रान सामकें मातलां. म्हजे निर्शेणेन सामकी तेंगशी गाठली.

अकस्मात रस्त्यार श्रीकांत दिसलो. श्रीकांत म्हजो भुरगेपणांतलो इश्ट. इतलीं वर्सां फाटी पडलीं पूण ताचें मुखामळ बदलूंक ना. शाळेंत आमी वांगडा शिकताले. जॅकाची वळख हांवेन ताचेकडेन करून दिली. घडिल्ली पुराय खबर हांवेन ताका सांगली आनी म्हळें - "गोंयची इतली वाट लागत अशें धरूंक नाशिल्लें हांवेन."

"गोंयची वाट लागल्या? उदरगत मरे ही सगळी!"

"मडसरेची उदरगत... तो धर्तरेवेलो सर्ग आमच्यांनी परतो निर्मुवपाक जातलो रे?"

"खरें तुजें!" श्रीकांतान उदरगतीचो उल्लेख तिडकीनूच केल्लो! हें म्हाका ताणें सोडिल्ल्या उस्वासांवेल्यान कळ्ळें-

दोन - तीन दिसांत म्हजेभितर जाल्लो बदल जॅकान जिस्त पारखिलो. हांव इतलो कित्याक निर्शेळां तेंय ताका कळिल्लें. जॅक खरेंच कितें समजला आसतलो? हांवेन आपणाक फटयलो असो तो समजूपाचो ना मू? हांव गोंयच्यान गेल्लो तेन्ना - "गोंय म्हजी व्हॉकल कशी ... पांचव्या चुड्यान भल्लेली, गोंय म्हजी रात निळी नखेत्रांनी फुल्लेली..." हें गीत जिस्त लागू जातालें. पूण आतां तें गीत आवटडेटेड जालां. हांवेन जॅकाच्या दोळ्यांत पळयलें आनी म्हळें-

"जॅक, हांवेन तुका फटयलो अशें तुका दिसना?"

"कित्याक म्हण्टा अशें?"

"कितली उमेद जाल्ली तुका गोंयांत येवपाक भायर सरिल्ले तेन्ना. गोंय म्हजें तश्शे आसतलें अशे धरिल्लें हांवेन. पूण ताणें अशें आपलें रूप बदलल्यार हांव कितें करूं?" ताका समजायता आसताना म्हज्या दोळ्यांत दुकां आयली.

"हांवेन कितें म्हळां तुकां? गोंय बदल्ल्यार तूं कितें करतलो?" जॅक म्हाकां समजून घेता तें पळोवन जिवाक मात्शें बरें दिसलें.

रोकडेंच आमी हॉटेलांतलें आमचें सामान एकठाय केलें. हॉटेलाचें भाडें फारीक केलें आनी भायर सल्ले. विमानाचो वगत जालो आनी हांवेन जॅकासयत गोंयांक निमाणो हात हालयलो.



भालचंद्र गांवकार

जल्म : १५ फेब्रुवारी १९६८
बेतोडें - फोडें - गोंय.

व्यवसाय : व्याख्याते
रोजरी महाविद्यालय, नावेलीं-गोंय.

साहित्यीक वावर :

- आडवणांतले उले (कवितांझेलो)
- कोंकणी भाशाविज्ञान (भासशास्त्र)
- साहित्यः एक भासाभास (साहित्यशास्त्र)
- यादींचे देगेर (कवितांझेलो)
- अंदल्ले उस्वास (कथांझेलो)
- कोंकणी कविता, कथा, लेख, एकांकी, समीक्षणां आदीं गोंयच्या वर्तमानपत्रांनीं आनी नेमाळ्यांनीं उजवाडाक आयल्यांत.




**मित्र प्रकाशन,** गोंय

छापपी : श्रीगुरूकृपा टायपोग्राफिक्स, मडगांव. फो.: ७१०२१९

**ISBN 81-88202-01-0**